BIMB/ December 2021/ Vol 20/ISSUE 12/Panaji Goa POSTAL LICENCE NO. G-2/RNP-GOA/01/ 2021-2023 Published on 1st and Posted on 5th & 10th day of every month RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413

मोल : ₹ 50/-

२० वें वर्स

# बिम्ब

मासिक

देजेंब्र 2021

गोंयची नवी सकाळ?
गोंयचेर आयला काळ...
गोंयकारा गोंय सांबाळ!!

'भांगरा मोरा'चे
मानकरी थारिल्ल्या जपानी चित्रपट
'रिंग वॉंडरींग'
चे दिग्दर्शक मासाकाझू कानेको
हांकां पुरस्कार



# कोंकणी मासिक बिम्ब

२० वें वर्स

Contents:

संपादकीय/5
प्रतिबिम्ब/6
बोरकारी /8
जिबेवयली जतनाय - सखाराम बोरकार / १७
कथा- स्वरुपा नास्नोळकार/ २०
मनरिजवण- मानसी प्रेमानंद धाऊसकार/२३
शब्दुली- डॉ.सुषमा अरूर/२७
ललित- काश्मिरी पावसकार / ३३
कवनां म्हयनाळीं- लक्ष्मणराव सरदेसाय/३५
ललित- मिलिंद भरणे/४८
स्पंदन- मानसी प्रेमानंद धाऊसकार/५०
एकपात्री- अविनाश कुंकळकार/५३
मानाचें पान - मंजुषा सिनाय तळावलीकार / ५५
नवलिका- डॉ.गुरुदास नाटेकार / ६६
विज्ञान- गौतम जल्मी/७३
तेफळां- डॉ. वामन नायक / ८४
दिस्टावो- एच.मनोज/ ८७
पासय- डॉ.नूतन देव / ९०
उमळ- डॉ.रीना लवंदे/९२
मचमचीत- डॉ.रीना लवंदे/९७
भलायकी- राज वैद्य / ९८
उतरकुवार्डे- संतोश हळर्णकार / १००

*गोंयची नवी सकाळ?*
*गोंयचेर आयला काळ...*
*गोंयकारा गोंय सांबाळ!!*

- दिलीप बोरकार

काव्यफुलोर / ३६
आर.रामनाथ
ग्वादालूप डायस
मेल्विन रोड्रीग्स

काव्यचंवर / ३८
मानसी प्रेमानंद धाऊसकार
आकाश भालचंद्र गांवकार

भुरग्यांचें आंगण/३९
दत्ता दा. नायक / मानसी धाऊसकार
उदय म्हांबरो
तुकाराम शेट
शोभा फुलकार

वर्स 20:अंक 12
देजेंब्र 2021
मोल 50 रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

पालवी संपादक
मानसी धाऊस्कार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
इम्प्रेशन्स,बेळगावी

वर्गणीचे दर :
वर्सुकी वर्गणी 500 रु.
3 वर्सांची 1400 रु.
विद्यार्थ्यांक वर्सुकी 300 रु.
आनी 3 वर्सांक 800 रु.
जाल्यार संस्थांक वर्सुकी 700 रु.
आनी 3 वर्सां खातीर रु. 2000

**BANK DETAILS :**
Bimb Monthly
The Saraswat Co. Op. Bank Ltd.
Branch : Panaji Goa
IFSC Code : SRCB 0000071
CA A/c. No. : 071100100000793

संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो :
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji- Goa 403001
Tel: 0832-2438355
Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in

कचेरी
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी-गोंय, 403204

# सकाळ काय फांतोड?

संपादकीय

फुडार लाबतलो अशें कांय ना. नव्या वर्साक गोंयच्या विधानसभेची वेंचणूक येता. राजकारण हो आलायतो सन्मान आनी धन दिवपी धंदो अशें समिकरण करून उडयल्ल्यान पयसो आशिल्लें खंयचेंय फकांड, आपल्याक राज्याचो तारणहार मानून राजकीय फुडारी म्हूण घोशीत करता. लग्ना पासून मरणा मेरेन आर्थिक मजत दिवपा वांगडाच दिसपट्टी सोऱ्याची गरज भागोवपाचें कार्य मतदारसंघांतल्या घरा कणकणी उमेदवार उमेदीन करता. ताका लागून जांकां गोंयचो हुसको लागला, जांचे मुखार गोंय सांबाळपाचो आनी तें घडोवन फुडले पिळगे पासत सुगूर करपाचें ध्येय आसा ते विद्वान, बुद्धीवादी आनी विचारवंत मात हे प्रक्रिये पासून पयस आसात. तांकां जाणविकायेन पयस दवरतात. तांकां ह्या सुवार्थी राजकारणांत खंयच सुवात ना. जाणें गोंय राखलां, जाणी गोंय घडयलां आनी जांकां समाजांत मान आसा तांकां कडेक दवरून गोंय मुखार वच्चें ना. जांकां गोंय कितें तें खबर ते गोंया भायले तथाकथीत फुडारी गोंयच्या चार विद्वाट्या बोडकांक वांगडा घेवन गोंयांत नवी सकाळ हाडूंक पळयतात. ही सकाळ दुडवांच्या मालवजार रात भर सोरो आनी घुंवळी वखदां घेवन आड पडिल्ल्यान उसरां उठिल्ल्यांची सकाळ. आमकां गरज आसा नवे फांतोडेची. त्या खातीर रात्र वैऱ्याची आसा हाचें भान दवरून रात जागोवपाची जापसालकी गोंयच्या सुशिक्षितांचेर आसा. जर ती तांणी वळखली आनी हातांत हात घालून ते भायर सरले जाल्यार नव्या वर्सा येवपी वेंचणुकेच्या निकाला उपरांत नवी फांतोड नक्कीच उदेवं येता..तेच फांतोडेचे प्रतिक्षेंत आमी नव्या वर्सांत पावल घालुंया!

•••

फुडलें वर्स गोंयकारां पासत कितें घेवन येतलें हाची कल्पना आयचीं राजकीय नाडेपेन्नां पळयत जाल्यार कोणाच्यानूच करूं नज. करोना धामीन पावणे दोन वर्सां पुराय जीण विस्कळीत करून अनिश्चिततायेच्या एका भोंवऱ्यांत तिका व्हरून सोडिल्ली. तातूंतल्यान तग मारून नव्यान जीण आरंभ करपाच्या सोंपणार पावल घालूंक तें उबारलां मात त्या पांवड्यार ह्याच करोनाचो जनुकबदल करून आयिल्लो भाव ओमायक्रॉन नवें अरिश्ट घेवन उबो रावला. परत एक खेप हे धामीचो राकेस शबय घालतलो आनी फाटले घडणुकी वरींच मनीसजिणेचो आवरो उडटलो म्हणपाचीय शक्यताय आडनदर करूं येना. अशें आसलें तरी मनीस आतां ह्या असल्या धामी कडेन जुळोवन घेवन तग मारपाचे नदरेन मनाची तयारी करून थीर उबो आसा. पूण सद्याची गोंयांत वाडत वचपी राजकी हळशीक पळोवन मात हे राजकी धामी आड झुंजपाक तांकां उपाय दिसनाशिल्ल्यान तांचें मन घुस्पागोंदळांत सांपडलां. तशें पळोवंक गेल्यार लोकशायेंत हो प्रस्न तसो गहन न्हय. गोंयच्या सारख्या शंबर टक्के साक्षरतेची मोख हुपिल्ल्या राज्याक तर न्हयच न्हय! शिक्षीत मतदार आपलें कर्तव्य जाणून आसता आनी आपलो फुडार सुगूर करपाची जापसालदारकीय तो जाणा आसता. अशें आसलें तरी गोंय राज्य लोकसंख्येचे नदरेन ल्हान आनी ह्या राज्याचे चाळीसूय मतदारसंघ हे उमेदवाराक ताच्या मतदारसंघांतल्या दरेक घराचे रांदचेकुडींत थेट भितर सरपाक संद दिवपी आशिल्ल्यान उमेदवार मतदाराक मोलावन सहज बोल्सांत घालूंक शकता. गोंयकारांक ह्या गोंयचेर धनीपणान राजवट चलोवपाचें भाग्य केन्नाच मेळ्ळेंना. तें ताका मेळूंक जाय म्हूण गोंयचे भुंयेंतले विद्वान वथरेत आयल्यात. तेच पासत तांणी पुर्तुगेजांचे गुलामींतल्यान गोंय मेकळें केलें, गोंय मुक्ती उपरांत गोंयच्या विलिनीकरणाचें अरिश्ट तांणी सासणाचें मातयेक लायलें. हेरां वरींच तुमचीय एक आवयभास आसा हाची जाणविकाय गोंयकारांक करून दिवन ती सगळ्या आंगांनी घटमूट करून वापरूंक तांचे सुवादीन केली. स्वाभिमाना बगर कोणूच कर्तृत्वाक पावना हाची जाण आशिल्ल्यान संघप्रदेशाचें दुय्यम नागरीकत्व फाफडून उडोवन घटकराज्याचो दर्जो गोंयां पासत झगडून घेतलो तो ह्याच लोकांनी. अशें एक परिपूर्ण राज्य आतां गोंयचे जनतेन स्वामित्वाचे भावनेन चलोवंचें आनी पुराय संवसारांत सोडात, देशांत तरी ताणें हेर राज्यां मुखार आदर्श थारतलें अशे पूण्यभुंयेची निर्माणी करची अशें सपन बाळगिलें.पूण गोंय मेकळें जाले बराबर तें फुडाराची मोख नाशिल्ल्यांच्या चोपक्यांत फारावलें आनी जें गोंय भांगरभूंय म्हूण वयर सरपाचें ताचो गुठ्ठानेचो सोनसडो जालो. गोंय संस्कृताये बाबतींत सत्व शेणोवन बसलां. गोंयाक एक संस्कृताय म्हणटात ती आयज उरूंक ना. हाका ताका लुटून फकत जिणेंत भोग घेवप , चंगळ करप हीच एक मोख आयज गोंयकार म्हणोवप्यांनी बाळगिल्या. ते फकत हे भुंयेर जियेतात देखून ते गोंयकार, तांचे भितर गोंयकारपणाची खंयचीच भावना वसता अशें जाणवना. तांकां आपले भाशेचें प्रेम ना. आपले आवयभाशेक कुस्कुटावन हेर भासांचो थातोमातो करपी गोंय हें हे धर्तरे वयलें एकमेव राज्य आसूंक जाय! गोंयचे भुंयेर खंयच्याय तेर्रा वयलो कोणूय येवन आगळीक करता, आपल्याक जाय तसो वागता, मूळ गोंयकारांक हिणसायतात. तांकां विरोध करपाचें, जाप विचारपाचें सोडाच आपल्या खिणयाळ्या लाबा पासत तांचे भोंवतणी लाचार जावन आनाळ्यो गुनाळ्यो काडपांतूच धन्यताय मनपी नवे नवे राजकी थेलयेच हे भुंयेर तयार जातात. हें सगळें गोंयच्या मुक्ततायेच्या दिसा सावन , मुक्ततायेच्या हिरक महोत्सवा मेरेन गोंय पावलां त्या काळांत घडत आयलां. ह्या डिसेंबराक गोंय आपले मुक्ततायेचो हिरक महोत्सव हुपता आनी 61 व्या वर्सांत पावल घालता. नव्या वर्सांत पावल घालें म्हूण गोंयची परिस्थिती बदलतली आनी गोंयाक परजळीत

# 60 वर्सां अभिमानाचीं....!




'आमचें गोंय' ह्या उतरांतूच कितली म्होवाळकाय आसा! फाटल्या 60 वर्सांत खूब किते घडलें. बऱ्यो वायट गजाली जाल्यो. आमकां पुर्तुगेजां पासून मुक्ती मेळ्ळी. पूण ताचे पासत खूब जाणांनी आपले प्राण ओंपल्यात. खूब जाणांनी बंदखण भोगल्या. गोंयची आयज मेरेनची उदरगत जावपाक कारण हेच आमचे सुटके झुजारी आसात. गोंयांक मोहन रानडे, रवीन्द्र केळेकार हांचे सारखे कितलेशेच सुटके झुजारी लाबल्यात. गोंय हें संस्कृतायेचें प्रतीक. आमच्या गोंयान लता मंगेशकार, किशोरी आमोणकार, जितेंद्र अभिषेकी, रामदास कामत, हेमा सरदेसाय हांचे सारखे कितलेच गायक देशाक दिल्यात. बाकिबाब बोरकार, मनोहरराय सरदेसाय हांचे सारखे व्हड कवी हे गोंयचे भुंयेंत जल्मल्यात. गोंयचे लोक म्होवाळ. गोंयकारांच्या काळजांत मोग भरिल्लो आसा. तेच पासत गोंय आनी पर्यटन अशें समिकरण जाल्लें आसा. गोंयचें सैम पळोवपाक खंयचे खंयचे लोक येवन आपलें मन रिजयतात आनी खोशी जावन वतात. आमचें गोंय माडांनी नटिल्लें आसा. गोंयची उदरगत जावपाक मुखेलमंत्र्यांचो खूब वांटो आसता. गोंयचे पयले मुखेलमंत्री दयानंद बांदोडकार हांणी गोंयचे उदरगतीची बुन्याद घाली आनी मनोहर पर्रिकार तशेंच आयचे मुखेलमंत्री डॉ.प्रमोद सावंत हांचे मेरेनच्या सगळ्या मुखेलमंत्र्यांनी आपापले परीन गोंयचे जनते पासत वेगवेगळ्यो येवजण्यो राबयल्यात.आमचे गोंयचे लोक खावपा पिवपाचे खूब मोगी. शीत हुमण जेवल्या बगर तांचो दीस भरना. तितलेच हे गोंयकार देवाची भक्ती करपाक आतूर आसतात. चवथ, दिवाळी, नातलां, ईद बी परबो ते व्हडा उमेदीन मनयतात. धालो, फुगड्यो, दिवजां ह्या लोककला आनी परंपरांचो सांबाळ तांणी केला. गोंय आमचें लोककलेन भरिल्लें. कट्टी फुगडी, दिवले नाच, मांडो, तियात्र, हाचें दायज आमी मिरयतात. आल्फ्रेड रोझ, रिटा रोझ, लोर्ना, रेमो फेर्नांडीस हांचे सारके नामनेचे गायक आनी तियात्रीस्त आमचे गोंयचे जावन आसात. खेळा मळारूय आमचें गोंय मात्तूय फाटीं ना. फुटबॉलांत गोंय गाजता. कितलेच खेळगडी संवसारीक नामनेक पावल्यात. गोंयांत देवळां आनी इगर्जी हातांत हात घालून मिरयतात. गोंयचीं देवळां म्हळ्यार गोंयची शान. देवळांतल्यो मुर्ती पळोवन भक्तांचें मन प्रसन्न जाता. देवळांतलीं मखरां, देवळांत जावपी फुलांची सजावट पळोवन दर्शनाक आयिल्ले लोक दंग जातात. गोंयची हस्तकला गोंयकारांची कुशळताय आनी कारागिरी दाखयता.गोंयांत कितलेच कडेन मातयेचीं आयदनां आनी हेर सोबायेच्यो वस्तू हे कारागीर करतात. गोंयचो धार्मिक एकवट म्हळ्यार सगळ्यांक अजापाची गजाल. गोंयांत शिगमो जाता तसो कार्निवालूय जाता. दोनूय धर्माचे लोक मोठे उमेदीन ते मनयतात. वेगवेगळ्या लोकांनी गोंयचेर राज्य केलें आनी अखेरेक तें पुर्तुगेजांच्या हातांत पावलें. मागीर 19 डिसेंबर 1961 दिसा गोंयकारांनी तें मुक्त करून घेतलें. उपरांत 30 माय 1987 दिसा ताका घटक राज्याचो दर्जो फावो जालो. अशें गोंय एक आदर्श राज्य कशें नामनेक पावलें आनी संवसार भरचे लोक ताची नामना आयकून गोंयांत येवंक लागले. खोस मनोवंक लागले. गोंयची सैमीक सुंदराय आनी सैमीक गिरेस्तकाय, तरातरांचीं फळां-फुलां, दर्यावेळो सगळें सगळें मन भुलोवपी. कसलोच भेदभाव नाशिल्लें आमचें हें गोंय, जाचो म्हाका खूब अभिमान भोगता. मेकळें गोंय 60 वर्सांचें केन्ना जालें तेंच कळ्ळें ना. आनी आज जेन्ना हें 60 वर्सांचें गोंय हांव पळयतां तेन्ना तें आदलीं वरींच फुडाराक उरतलें काय किते हाचीय म्हाका भिरांत दिसून हुसको जाता.

●●●



**-मनिषा मनोज शेणवी लोटलीकार,**
ताळगांव गोंय.
मो. : 875107657

# बिम्ब दिवाळी अंकाची तोखणाय करप तितली उणी...!

ह्या वर्साचो बिम्ब दिवाळी अंक हातांत पडलो आनी ताच्या मुखपृश्ठान दोळे थिरावन उडयले. हर्षदा केरकार आमच्या गोंयच्यो चित्रकारीतेंतल्यो दिग्गज.तांचें पेन्टींग म्हळ्यार दोळ्यांक सुखद अनुभुती दिवपी कलाकृती. आयज लोक पुस्तकांचीं वा खाशेल्या अंकांचीं मुखपृश्ठां संगणकाच्या ग्राफिकाचो वापर करून करतात. तातूंत रंगसंगती आसता पूण जिवीतपण नासता. कागदाचें फूल आनी सैमीक फूल हातूंतलो फरक जांकां होलमता तांकां म्हजें म्हणणें समजतलें. कव्हरा पासत घेतिल्लें चित्र हें फकत चित्र आसना तर तें त्या अंकांतलें एक आर्टीकलूच आसता. अंका भितरलें साहित्य वाचक अक्षरांच्या आदारान लेखकाची सर्जनशिलताय विस्कटावन समजून घेतात जाल्यार मुखपृश्ठा वयल्या चित्रांतली सर्जनताय वाचक आपली समजीकाय आनी सर्जकताय हांचो मेळ त्या चित्रकाराचे सर्जनताये लागीं घालून ताचो आस्वाद घेतात. महाराष्ट्रांतले दर्जेदार दिवाळी अंक नामनेच्या चित्रकारां कडल्यान पेन्टींग्स घेवन आपल्या दिवाळी अंकाचो दर्जो वाडयतात. जेन्ना दिवाळी अंकाचीं कव्हरां कॅलेन्डरांचीं चित्रां घेवन करताले तेन्ना एकलो कोणूय खाशेलें चित्र घेवन कव्हर करतालो तेन्ना ताची तोखणाय रसीक वाचक करताले. आर्थिक भार परवडना आसतनाय हो व्याप आंगार घेवप हें खऱ्यांनीच तोखणायेचें आसतालें. ही प्रथा बिम्ब मासिकान पर्थून सुरू केली देखून अभिनंदन. हे आदीं सुबोध केरकार,स्वप्निल भांडारी,हर्षदा केरकार आनी हेर नामनेच्या चित्रकारांचीं चित्रां बिम्ब दिवाळी अंकांच्या मुखपृष्ठांचेर आमी पळयल्यांत. सर्जनशील चित्रकारांचीं पेन्टींगां दिवाळी अंकाचेर बसून दिवाळेक घरा-घरांनी पावप हीच केदी व्हडली दिवाळी. संपादकांचें आनी हर्षदाबायचें अभिनंदन! बिम्बांतली भितरली सजावट आनी साहित्य अप्रतिम. ताचेर बरयन तितलें थोडें. करोनाच्या दुश्काळांत तिनशीं पानांचो अंक काडप आनी ल्हान व्हड सगल्या लेखक-कवींक आसपावन घेवन तांकां वाचकां मेरेन पावोवप ही ल्हान गजाल न्हय. ते पासत बिम्ब परिवाराचें अभिनंदन आनी तोखणाय जावंक जाय. तितली तरी दानत कोंकणी मनशा कडेन जाय.




●●●

**-संजय वेलिंगकार, मडकय**

---

## माफीची जाहिरनामो

नवें तंत्रगिन्यान आपणायलें काय ताचेर हात बसता म्हणसर चुकीच चुकी जातात आनी त्यो उरतात. ह्या चुकींच्या भंयान नवें तंत्रगिन्यान आपणावप ना हीय तशी चुकूच.19 वर्सां पेजमेकरांत बिम्ब येतालो. आज पेजमेकर काळा भायरो जायत वता आनी ताची सुवात इन डिजायन घेता. काळा वांगडा चलपा बगर आमकांय पर्याय ना. देखून फाटल्या दोन तीन अंकांनी अर्दी मर्दी ह्यो चुकी तकली वयर काडटना वाचकांचे नदरेक पडल्यात. ह्या दिवाळी अंकांत तर माफी मागपा सारक्यो चुकी उरल्यो-1.दामोदर मावजो हांचे कथेचें शिर्शक 'सपनाळी जाग' अशें आशिल्लें. अंक प्रेसाक गेला तेन्ना पासून तें तेंच आशिल्लें. अंक छापून आयलो तेन्ना तें 'पनाळी जाग' जालें. 2. अविनाश कुंकळकाराच्या पुस्तकांचे जायरातींत फोटो नामदेव सुर्लकाराचो आयलो. 3.ग्वादालूप डायसाचे 'काव्य बुडबुडे' एक कविता जावन आयली. मेल्विन रोड्रीगस हांची एक कविता अर्दीच आयली. ताचें शिर्शकूय भलतेंच आयलें. मांडावळींत कवी सखाराम शेणवी बोरकारांचें नांव गायब पूण दोन पानांची कविता आसा. आनिकूय खंय खंय चुकी उरल्यात. त्यो उरूंक फावनाशिल्ल्यो, पूण उरल्यो. ते पासत आमी दिलगीर आसात. मेल्विन रोड्रीगस, ग्वादालूप डायस आनी अविनाश कुंकळकार हांची जायरात तेच पासत चुकी काडून आमी परतून उजवाडायतात. फुडलो अंक 21 व्या वर्सांतलो पयलो अंक नवीं सदरां घेवन येता. जांची वर्गणी ना तांकां तो पळोवंक मेळचो ना हाची खंत भोगता.नव्या वर्सा सावन खंयच्याच वाचकान खंयचेंच साहित्य फुकट वाचचें न्हय हाची जतनाय घेवपाच्या आमच्या अभियानाक आरंभ जाता. ताका सहकार्य करून, आमी फुकटे वाचक न्हय तर ओर्राद गोंयकार म्हणपाचें सिद्द करपाचे संदीचो लाव घेयात

**- संपादक**

## बो र का री




कोवीड म्हामारीच्या भंयान,फाटली दोन वर्सां
खंयच वचप जालें ना.
तशें म्हाका अदीं मदीं खंय ना खंय वचूंक आवडटा.
फाटीं दुबय गेल्लों,थंयच्यान बँकोक आनी थायलंड
अश्या सुवातांनी वचप जाता तेन्ना मज्जाच मज्जा!
आतां करोनाच्या भंयान खंय वचप होच प्रस्न!
पूण तो देवा दयेन गोंयच्या बीजेपीन सोडयलो
करोना आसू वा एड्स आसू,भिवपाची गरज ना
कसलेच अडचणी बगर बीजेपींत वचप जाता
केन्ना केन्नाय बीजेपीवालेच तुका व्हरतात
ह्या दिसांनी कितल्याच लिडरांक तांणी व्हेल्यात
बीजेपी म्हणल्यार पुर्तुगेजा टायमा वयली कार्रेर कशी!
राव रे म्हणल्यार ती कोणाकूय रावता आनी भितर घेता.
पूण कित्याक कोण जाणा म्हाका तिची ॲलर्जी शी!
खंयीय वचप पूण बीजेपी तितली नाका अशें दिसता
पूण हालींसराक कोणूय उठ्ठा सुट्टा बीजेपींत वता
कसलें म्होंव लागलां तिका एक्साचे तेच जाणांत
जयेश साळगांवकारा सारके भुरगे वतात तें समजूं येता.

पूण रवी नायका सारको काँग्रेस सोडून बीजेपींत वता तें अतीच जालें म्हणपाचें!

ताणें खरें म्हणल्यार आपले पिराये प्रमाण आपांत वचपाचें

केजरीवाल कोणा कोणाक तिर्थयात्रेक व्हरपाचो आसा अशें तो म्हणटा.

ती संद घेतल्यार ह्या लोकांक मोक्ष तरी मेळपाचो!

पूण ना, वतात आपले बीजेपीच्या कळपात.

मागीर हांवें चिंतलें, कित्याक वतात ती खबर काडपाची.

सहज पांडुरग मडकयकारा कडेन पासय मारली.

हाताक मेळपा सारको तोच एक लिडर आसा
कित्याक तो घरांतल्यान विशेश भायर सरना
मदीं खंयच्या तरी मिशनार तो गेल्लो खंय!
तेन्ना गरजे परस चड गुळयो घेतल्यो बाबड्यान
मिशन फत्ते जालें काय ना खबर ना
पूण बाबड्याच्या नशिबांत वील चेअर आयलें.
आतां तो वीरचक्रा कडेन दोळे लावन बसला.

तर ताणें सांगलें,''बीजेपी म्हाकाच न्हू सगले पिरायेक बरी, तू वास्को मिलींद नायका कडेन वच, तो सांगतलो साऽऽरकें.''

पर्रिकारान बायणा बंद केल्ल्याक वास्को पावूंक नाशिल्लों.

मिलींदाक मेळपाच्या निमतान खूब तेंपान पावलों.

ताका हांवें विचारलें,''सगळे बीजेपींत कित्याक वतात?''

तर ताणेंच विचारलें,''फाटीं तूं सागतालो न्ही रे,एड्साच्या भंयान तरणेपण सरलें आनी करोनाच्या भंयान जाण्टेपण म्हूण! मागीर एक्साच्या रावता कोणाक? यो बीजेपींत!''

म्हणटकच आतां बीजेपींत वच्चेंच पडलें!

●●●

शीर्शकथा



दिलीप बोरकार

कोंकणी आनी गोंय हांचे पासत ध्येयनिश्ठेन वावरत आयिल्ले दिलीप बोरकार ज्येश्ठ पत्रकार आनी नामनेचे साहित्यिक जावन आसात. तांच्या गोमाचल ते हिमाचल ह्या प्रवास वर्णनाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला.




गोंयकारां पासत १९६१ वर्सा सावन देजेंब्र म्हयनो हो पवित्र म्हयनो थारला! १९६१ वर्साच्या देजेंब्राचे १९ तारखेक गोंय पुर्तुगेजांच्या बंदेपणांतल्यान मेकळें जालें आनी गोंयकारांनी मुक्त गोंयांत मेकळो श्वास घेतलो. हे घडणुकेक ह्या म्हयन्यांत ६० वर्सां पुराय जातात आनी ह्या स दसकांतल्या दरेक वर्साच्या १९ तारखेच्या दिसाक पवित्र दीस मानप ही गोंयकारांची लागणूक. ह्या दिसा गोंयकार बंदेपणांतल्यान सासणां पासत मेकळो जालो तशेंच ह्याच दिसा आमच्या भारत देशाकूय पूर्ण स्वातंत्र्य लाबलें! अश्या ह्या भांगराळ्या दिसा, तो मनयता आसतना जांणी जांणी ह्या मुक्ती संगरांत आपलें योगदान दिलां, बलिदान दिलां तांची सगळ्यांची कृतज्ञतापुर्वक याद करून तांकां आर्गां भेटोवप हें दरेक गोंयकाराचें कर्तव्य थारता आनी गोंयकार तें करीत आयला.

त्याच वांगडा गोंय आनी गोंयकारपणाचो विचार करता आसतना दरेक गोंयकाराक आनीक एके व्यक्तीचें स्मरण खिणाखिणाक जाता तें स्वतंत्र भारताचे पयले प्रधानमंत्री आनी जांकां भारताचे भाग्यविधाते अशें म्हूण पाचारतात त्या पंडित जवाहरलाल नेहरूंचें! गोंयचेर पंडित नेहरूंचे आनी तांच्या उपरांत गांधी घराण्याचे जे उपकार आसात ते जर आमी थंड चित्तान समजून घेतले जाल्यार तांच्या उपकारांची परतफेड करपाक गोंयकार कमी पडलो आनी पडटा अशेंच म्हणचे पडटलें. जर तें खरें आसत आनी गोंयकार खऱ्यांनीच पडमूर न्हय, तो केल्ल्या उपकाराक जागता हें सत आसत जाल्यार त्या सताक पाळो दिवपाची संद नव्या वर्सा गोंयकारांक मेळटा आनी गोंय जर वाचोवंक जाय जाल्यार गोंयकारांक नव्या वर्सा आपलो सगळो सुवार्थ कुशीक उडोवन अत्यंत म्हत्वाचो निर्णय घेवंचो पडटलो, तो काँग्रेस पक्षाक परत सत्तेर हाडपाचो!

# गोंयांक कॉंग्रेसूच कित्याक जाय?

आतां हांव ह्या पक्षाचेर उलयतां वा बरयतां आनी ताची आद्‌वोगाशी करतां हाचो अर्थ ह्या पक्षांत जें कितें चलता तें सगळें म्हाका मान्य आसा असो ताचो अर्थ न्हय. स्पश्ट सांगपाचें जाल्यार गोंयांत तसो एकूय राजकी पक्ष ना जाका खऱ्या अर्थान राजकी पक्ष म्हणूं येता. जे कोण ह्या पक्षांचें आंगलें आंगार चडोवन जनते मुखार मतां पासत वतात वा आपूण पक्षाचे जाळवणदार वा उमेदवार म्हूण सांगतात तांकां त्या पक्षाचें ओ काय ठो खबर नासता. पक्ष कित्याक आनी कोणें स्थापन केलो, त्या पक्षाचीं तत्वां कितें आनी ध्येय धोरणां कितें हाची कोणाकूच खबर ना. जशें एक पुर्वजांनी बांदिल्लें घर आसता, जातूंत एका काळार खूबश्यो पवित्र घडणुको घडिल्ल्यो आसतात आनी ती वास्तू आदर्श म्हूण तिका एक मान्यताय लाभिल्ली आसता ती दायजान त्या पुर्वजांच्या वारसांक मेळटा तेन्ना ते वास्तुचें पावित्र्य आनी ती उभारपी पुर्वजांचें कर्तृत्व हे नवे पिळगेक खबर आसतलेंच अशें सांगू नज. पुर्वजांची ही वास्तु हे पिळगेक आलायती मेळिल्ल्यान तिचो उपभोग घेवप आनी तशें करतना ते वास्तुच्या पावित्र्या कडेन आड नदर करप वा आपलो ताचे कडेन कसलोच संबंद दाखोवप ना ही आयची काळाची गत म्हणूंक जाय. कॉंग्रेस पक्ष खंयच्या कारणाक स्थापन जालो, तो स्थापन करूंक कोणें कोणें हातभार लायलो आनी ते स्थापनेंतल्यान देशाचो कितें फायदो जालो हाचें आयचे पिळगेक तशें म्हत्व दिसना. पूण म्हजे सारख्याक जो कोण 'पूर्व आमचें किर्तीवंत, त्याय परस फुडार' हाचेर विश्वास दवरता ताका आयची इमारत जे बुन्यादीचेर उबी आसा ते बुन्यादीचो वावर कोणें कोणें केला, कोणें ते बुन्यादीक घाम आनी रगत शिपलां हाचें भान दवरचें पडटा. तें दवरी नासतना जो कोण ते इमारतीचो उपभोग घेतात ताचे भितर नवें कर्तृत्व रुजवणा येना.

आयज कॉंग्रेस पक्षांत जे कोण आसात, जे कोण तातूंतल्यान भायर वतात वा परत भितर सरतात तांकां ह्या असल्या गजालींत मात्तूय रस ना. देखून तांच्या फुडारपणांत तेज ना आनी फुडाराकूय तें येवपाची शक्यताय ना. ताचे फाटलें कारण म्हणल्यार ह्या सगळ्या तथाकथीत राजकी फुडाऱ्यांनी राजकी पक्ष म्हणल्यार एक लुटमाऱ्यांचो पंगड वा




प्रॉफीट मेकींग धंद्याची कंपनी अशें रुपांतर केलां.

हांव जी गजाल करतां ती फकत कॉंग्रेस पक्षाचीच अशें न्हय, आयज गोंयांत जे जे म्हूण आदले पक्ष आसात आनी दर दिसाक नवे नवे जल्माक येतात तांकां आपलो पक्ष म्हणल्यारूच गोंयचो सोडवणदार अशें दिसता. आपूण आनी आपलो पक्ष खरो, दुसरे सगळे पक्ष आनी तांचे फुडारी हे चोर, फटींग आनी ते गोंय लुटपाक मुखार सरल्यात अशें ह्या प्रत्येकाचें प्रामाणीक मत आसा. म्हणटकच जो कोण ह्या लोकांचीं मतां बदलपाक वतात वा तांची चूक दाखयतात ते लोक ह्या फुडाऱ्यां पासत आडखळ थारता.

अशें आसलें तरी आमचे लोकशायेंत ह्या लोकां कडेन आडनदर करून आमी आमची कात वाचोवन जियेवंक शकनांत. ही जमात आपल्याक फुडारी, समाजसेवक आनी सोडवणदार म्हूण घोशीत करून राजकारणांत जो कितें धागडधिंगा घालतात ताचो प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्ष परिणाम आमच्या सारख्या लोकांचेर जाता. ती परिस्थिती बदलपाची शक्त आज खंयच्याच बऱ्या मनशा लागीं उरूंक ना म्हणपाचें सत आज जी राजकी परिस्थिती गोंयांत दिसता ती पळयल्यार कळटा. म्हणटकच ही परिस्थिती अशीच चलूंक दिली जाल्यार हें गोंय आज जशें चोर फटींग लोकांच्या हातांत गेलां तशेंच तें फुडाराकूय वतलें हातूंत दुबाव ना. ह्या वर्सा गोंय आपले मुक्तीची 60 वर्सां हुपता. अजून मेरेन गोंयच्या लोकांनी तशीं मुक्तीचीं फळां फाव तशीं चाखूंक नात. ताचें कारण म्हणल्यार आमकां राज्य, समाज, संस्कृती, उदरगत हाची संकल्पनाच खबर ना. आमकां दिसता, राज्य चलोवप म्हणल्यार एक

सत्ता बदलून दुसरी सत्ता हाडप आनी आजवेर हेरांनी खालां तशें आपल्याक खावपाची संद मेळची. तेच पासत ही संद जंय मेळूं येता अशें दिसता थंय धाव मारपाची सर्त आयज गोंयांत चलता ती नदरेक पडटा. कोण काँग्रेसींतल्यान भाजपात वता, कोण भाजपांतलो गोवा फॉरवर्डांत वता जाल्यार कोण मगोत आनी कोण आपांत वता. ते अशें कित्याक करतात हें गोंयचे जनतेक कळना पूण तांकां बेस बरें कळटा. तांकां पक्षाचीं तत्वां लागनात आनी आदर्श राजकारण लागना. ताची मनस्थिती दुकरां वरीं जाल्या. आदले काळार जेन्ना घरांनी वा घराकुशीक कुमांव आसताले आनी ती हळशीक खावपाक दुकरांच्यो लटाफटी चलताल्यो तीच परिस्थिती आज राजकारणांत दिसता.

हें सगळें खंय तरी थांबोपाक जाय आनी गोंय सांबाळूंक जाय. ह्या चोरांच्या हातांतल्यान गोंय मेकळें करूंक जाय. तें कठीण हें आमी सगळे जाणांतूच. कित्याक दुडवांच्या आनी स्नायुबळाच्या नाड्यार ह्या राजकी माफियांनी पुराय राजकी वेवस्था आपल्या हाता खाला दवरल्या. ती तांच्या चोपक्यांतल्यान सोडोवप तशें कठीण. तरी लेगीत खंय तरी आस्त मनांत वयर सरता, थोडे विचार जर लोकां मदीं मांडले जाल्यार म्हाका जें दिसता तेंच हेरांकूय दिसूं येता. अशे समविचारी लोक जर भायर सरले आनी तांणी आपल्या मताचो रास्त वापर केलो जाल्यार क्रांती घडूं येता. गोंयांत सकारात्मक बदल जावं येता. तेच पासत कांय गजाली स्पश्ट बरोवपाचो आनी ते दिकेन वावर करपाचो वेळ आयला अशें म्हाका दिसता. देखून नव्या वर्सा जी वेंचणूक गोंय विधानसभे पासत जातली ती गोंयकारांनी आनी खास करून जांकां गोंयची विस्कटल्ली घडी जाग्यार घालची वा पडची अशें दिसता तांणी गांभिर्यान घेवपाची गरज आसा.

आतां प्रस्न पडूं येता ही विस्कटल्ली घडी कोण आनी खंयचो पक्ष जाग्यार घालूंक शकता? जे खंयचे पक्ष मुखार सरल्यात आनी आपलें फुटकें वाजंतर वाजयतात ताचो आवाज जाता खरो पूण त्या आवाजांत गोंयच्या संगिताचो नाद आसा काय कितें तें पळोवंक जाय. म्हजे परीन जर विचारशात जाल्यार ह्या सगळ्या वाजंतरांतल्यान म्हज्या कानार जो नाद सादता तो काँग्रेसीचो. कित्याक ह्या पक्षांतले लोकूय हेरां वरींच राजकी धंदेकार आसले तरी आमकां चोरां मदलो उणो चोर वेंचून काडचो आसा. तो काडटना आमकां पक्ष पळोवंचो पडटलो, ज्या पक्षाक कांय तत्वां आनी इतिहास आसा. म्हजे नदरेन काँग्रेस पक्ष होच गोंयचे जनते पासत आनी जो कोण आपल्याक खरो गोंयकार म्हणोवन घेता तांचे पासत योग्य पक्ष आसा. पक्षाचे उमेदवार सुवार्थी आनी फटींग आसतात हातूंत दुबाव ना. बरे उमेदवार गोंयांत आसात पूण तांचे लागीं वेंचणूक लडोवपाक दुडू नात आनी तसो खर्च करपाची तांकां इत्साय ना. कित्याक राजकारण ही समाजसेवा, धंदो न्हय ह्या मताचो ते आदर करात. वेंचून आयले उपरांत ते सत्ता आनी पयसो मेळटा जाल्यार दुसऱ्या पक्षांतूय वचूंक शकतात. अशें आदीं घडिल्लें आसा आनी फुडाराकूय तें घडटलें. अशी ही जेन्ना परिस्थिती आसा तेन्ना हुंदराच्या रागान घराक उजो घालप काय कितें हाचोय विचार करपाची गरज आसा. ताचेर उपाय काडप हें बुदवंत गोंयकाराचें काम. हो जेन्ना असो विचार येता तेन्ना गोंयांतल्या पक्षां मदले काँग्रेस सोडून दुसरो खंयचो पक्ष आसा? हाचेर लक्ष केंद्रीत करप गरजेचें.

## नेहरू आनी गांधी घराण्याचे गोंयचेर उपकार

देशांतली गांधी घराणेशाय सोंपयात अशी गांधी आनी काँग्रेस हांचे विरोधक ताळो सराटून आरड मारतना दिसतात. ताचेंच अनुकरण गोंयकारांनी करचे आदीं नेहरू आनी गांधी घराण्यान गोंयचेर कितले उपकार केल्यात आनी आज आमचें



गोंयकार म्हूण अस्तित्व सुगूर आसा ताका पंडित नेहरू, इंदिरा गांधी आनी राजीव गांधी हांचो मोलाचो हातभार आसा. तो जर आमच्या राजकी सुवार्था पासत आमी न्हयकारलो आनी पडमूर जाले जाल्यार गोंय सोडात आमी आमकांच माफ करचे नात. हे उपकार मतींत दवरून ते दिकेन गोंय आमी कशे सांबाळटले हाचो विचार जावंक जाय.

आज उठ्ठा सुट्टा तो नेहरूंक गाळी घालता. तांचेर हीन दर्जाचे आरोप करतात. जे तरेन तांचें व्यक्तीमत्व मलीन करपाचो वावर ह्या लोकांनी हातांत घेतला तें पळोवन दुख्ख जाता. नेहरूंची मात्तूय वळख करून घेना आसतना वा आसतना हें जें कितें षडयंत्र चल्लां तें लोकशायेक मारक आसा हाचें भान आमकां आसूंक जाय.

आयज आमचो देश सामको निर्णायक टप्प्यार उबो आसा. मोदी आनी शहा हांच्या फुडारपणा खाल भाजप हिंदू राष्ट्र करूंक पेटला. तेच पासत आधुनीक भारताचो शिल्पकार जाका मानतात त्या नेहरूंचो तिरस्कार समाज मनांत निर्माण करपाचो प्रयत्नपुर्वक वावर चल्ला. तांचें योगदान भारतांतल्यान सासणाचें नानपयत करपाचो हो वावर घातक. गांधी आनी नेहरू हांचे सुवातेर मोदी आपली प्रतिमा उबी करपाक धडपडटा. राममंदिर हें ह्या फुडें मोदीची निर्मिती म्हूण देश आनी संवसार वळखतले. लोकसभा भवन आसतनाच आनी दुसरें गरज नासतना नवें भवन बांदपाची प्रक्रिया झुजा पातळीर चालू आसा. मोगलांनी जशें आपलें साम्राज्य व्हडल्यो व्हडल्यो वास्तु उबारून इतिहासांत अजरंवर करपाचो यत्न केलो तसलोच प्रकार मोदी आनी शहान चलयला. तांकां आपलीं थडीं अश्या वास्तुच्या रुपान येवपी पिळग्यां खातीर यादस्तिकां म्हूण उबीं करपाचीं आसात. ते पासत हजारांनी कोटी रुपयांचो विध्वंस करपाचो आसा. तें जर करतलो जाल्यार जांणी देशा पासत त्याग केला त्या सगळ्या पुण्यपुरसांक स्मृतीशेश करपाचो हो प्रकार निंदनीय आसा. अशे वेळार गोंयान संद येता तेन्ना आपलीं पडमूरपणा त्यागूंक जाय.

गोंय जेन्ना पुर्तुगेजांच्या शेका तळा आशिल्लें तेन्ना गोंयकाराचें मनीस म्हूण अस्तित्व तशें नगण्य आशिल्लें. गोंयचे मुक्ती पासत गोंयांत प्रयत्न जाले ते गोंय मुक्त जालें ताच्या आदल्या पन्नास पावुणशीं वर्सां पासून कांय बंडा जावन. पूण खरो संघटीत मुक्तीलढो सुरू जालो तो भारत देश स्वतंत्र जाले उपरांतूच. देश स्वतंत्र जाला आतां आमीय भारतीय जावपाक कळाव लागपाचो ना, ते पासत यत्न चालू दवरून भारत सरकाराक ताची याद करीत रावपाक जाय म्हूण गोंयचे सुटके झुजारी कितें ना कितें कृती करीत आसताले. ताचो परिणाम भारतीय फुडाऱ्योचेर जातालोच. भारत स्वतंत्र जालो आतां गोंय मुक्त करून भारताच्या स्वातंत्र्याक पुर्णताय दिवंक जाय हो विचार गोंयां वांगडाच भारतांतूय बळावतालो आनी नेहरू ताचेर लक्ष दिवन आशिल्ले. कृष्ण मेनन सारके फुडारी नेहरूंचे सल्लागार म्हूण वावुरताले. तांचेच सुचोवणे वयल्यान नेहरूंन गोंयचे मुक्तीक प्राधान्य दिवपाचो निरण्य घेतलो आनी तो तडीक व्हेलो. तांणी फौज धाडून 19 देजेंब्र 1961 दिसा गोंय मुक्त केलें. चार शेकड्यां परस चड काळ गोंय आपली वेगळी वळख घेवन आसा त्या गोंयच्या वेगळेपणांत कसलोच बदल करपाचो ना म्हणपाचें उतर तांणी दिवन तें पाळ्ळें. गोंयाक शेजारच्या खंयच्याच राज्यांत विलीन करी नासतना संघ प्रदेशाचो दर्जो दिलो. गोंयचें अस्तित्व तिगयलें आनी गोंयकारांचो फुडार तांणी थारावंचो अशी भुमिका घेतली.

ते जर आनीक कांय वर्सां जियेल्ले जाल्यार गोंयची भास, गोंयचें वेगळें अस्तित्व,गोंयची संस्कृताय ह्या सारक्यो सगळ्यो गजाली जाग्यार घालतले आशिल्ले. गोंयचें अस्तित्व वेगळें उरूंक जाय ते पासत जनमत कौल घेवन गोंयचो प्रस्न सासणाचो सुटावो करपाची कल्पना तांचीच आशिल्ली जी तांच्या उपरांत तांची धूव म्हूण न्हय तर देशाची प्रधानमंत्री म्हूण इंदिरा गांधी हांणी सत्यसृश्टीत हाडली. गोंयाक जनमत कौल दिलो आनी गोंय गोंय म्हूण उरलें.

गोंयच्या स्वाभिमानी लोकांनी इंदिरा गांधीन दिल्ले जनमत कौलाची संद घेवन जिवाचें रान केलें. आपल्याच लोकांक,जे गोंय महाराष्ट्रांत घालून परतून एक खेप बंदेपण आपणावपाच्या वावराक लागिल्ले तांकां समाजावन, शाणे करून स्वाभिमानी करपाच्या वावराक लागले. तातूंत तांकां यश मेळ्ळें. गोंय गोंय म्हूण उरूंक पावलें. तें महाराष्ट्राचो एक जिल्हो जावपा पासून वाटवले. तें संघप्रदेश आनी आतां राज्याचो दर्जो मेळिल्ल्यानूच गोंयकार ताचे राज्य करूंक पावले. ती संद इंदिरा गांधी हांणी गोंयकारांक दिली.

कितलेंय जालें तरी संघप्रदेश गौण, दुय्यम दर्जाचें नागरिकत्व दिता. राज्य जरी गोंयकार करताले तरी ताचेर अंकुश आसतालो

केंद्र सरकाराचो. एके नदरेन तोय वसणुकवादूच आशिल्लो. शेवटी गुलामी परकियांची कितें आनी स्वकियांची कितें,गुलामी ही गुलामीच आसता. संघप्रदेशाचे दुय्यम दर्जाचें नागरिकत्व गोंयकारांक स्वाभिमानान वाढूंक दिनासलें. राज्याच्या मुख्यमंत्र्याक जो मान आनी दर्जो आसता तो संघप्रदेशाच्या मुख्यमंत्र्यांक नासता हाची कल्पना आतां मेरेन गोंयकारांक आयिल्ली. गोंयाक जर राज्याचो दर्जो मेळूंक जाय जाल्यार गोंयची एक अधिकृत भास आसूंक जाय आशिल्ली. कित्याक देशांत भाशावार प्रांतरचना हे आदींच जाल्ली. गोंय जर देश स्वतंत्र जाला तेन्नाच स्वतंत्र जाल्लें जाल्यार भाशावार प्रांतरचनेचे प्रक्रियेंत तें कोंकणी राज्य म्हूण देशांतल्या हेर राज्यांवरी नंदपाचें. पूण गोंय भारत स्वतंत्र जाल्या उपरांत चौदा वर्सांनी पुर्तुगेजांचे राजवटींतल्यान मेकळें जालें. आतां मेरेन गोंयकारांनी आपले कोंकणी भाशेक फावो ते सगळे अधिकार मेळोवन दिवन तिका गोंयची राजभास केल्ली. त्या मालवजाचेर गोंयाक आतां राज्याचो दर्जो आनी भारतीय संविधानाचे आठवे वळेरेंत कोंकणीचो आसपाव ह्यो गजाली मेळप कठीण नाशिल्लें. जाय आशिल्ले ते गोंयकारांचे प्रयत्न आनी केंद्र सरकारची सकारात्मक इत्सा. गोंयच्या आनी गोंयकारांच्या नशिबसारख्यान राजीव गांधी हे देशाचे प्रधानमंत्री आशिल्ले. सकारात्मक वृत्तीचें हें उमदें व्यक्तीमत्व गोंयचे प्रस्न वळखून आशिल्ले. जाय आशिल्लें तें तांचे सामकार कोणें तरी हो प्रस्न मांडपाचो आनी तांकां गोंयकारांचे उत्फर्के पटोवन दिवपाचें. महाभारताच्या अनुसर्जनाच्या प्रकाशना निमतान रवीन्द्र केळेकार हांणी ती संद घेतली आनी दिल्ली जाल्ले एके कार्यावळींत राजीव गांधींक निमंत्रीत करून गोंयच्या स्वाभिमानाचो हो प्रस्न तांणी आपल्या हेर सांगात्यां वांगडा तांचे मुखार मांडलो. विशय रोखडोच सुटावो जालो आनी गोंयाक राज्याचो दर्जो मेळ्ळो. कोंकणी आठवे वळेरेंत वचून गोंयकाराक पूर्ण नागरिकत्वाचो मान फावो जालो.

गोंय संघप्रदेश म्हूण दवरप, गोंयांक जनमतकौल घेवपाची संद दिवन ताचें स्वतंत्र अस्तित्व राखप आनी गोंयाक राज्याचो दर्जो दिवन कोंकणीचो घटनेचे आठवे वळेरेंत आसापाव करप ह्यो तिनूय बाबी गोंयचे उदरगतीचे नदरेन आनी गोंयकारपण सुगूर करपाचे नदरेन भोवच म्हत्वाच्यो आशिल्ल्योय त्यो सगळ्यो सुटाव्यो करून गोंयकारांच्या पदरांत घालपाचें काम



पंडित नेहरू, इंदिरा गांधी आनी राजीव गांधी ह्या तीन लोकांनी इंडियन नेशनल काँग्रेसच्या छत्राखाला गोंयकारांक भेटयल्यो. हो पक्ष सदांच गोंयकारांच्या फुडारा वटेन रावला. ताकाच लागून गोंयकार आपली सर्वांगी उदरगत करूंक पावले. म्हणटकच ज्या पक्षान गोंयकारांक हें सगळें दिलें त्या पक्षाच्या योगदानाक कांय अडेचीं कारणां फुडें करून न्हयकारप हाका कांयच अर्थ ना आनी रजावूंय ना. तशें जालें जाल्यार तीं गोंयकारांचीं पडमूरपणा थारतलीं हातूंत दुबाव ना!

## गोंयची फुडार खंयच्या पक्षा हातीं?

आयज गोंयचे सगळे पक्ष हे राजकीय धंदेकारांचे अड्डे जाल्यात. तातूंत काँग्रेस वेगळो अशें म्हाका निखालूस म्हणपाचें ना. हांव काँग्रेस पक्षा कडेन पळयतां त्या पक्षाचे तत्वप्रणालीक लागून. आतां काळाचे व्हांवतेंत त्या पक्षाची वाट लागल्या हातूंतय तथ्य आसा.पूण दुसरो खंयचो पर्याय आसा हाचेर गोंयकारांनी आपूण जावन लक्ष दिवंक जाय. कित्याक गोंयचो प्रस्न खूब नाजूक आसा. गोंय हें गोंय म्हूण उरतलें आनी गोंयकारांचें अस्तित्व जर

तिगोवन दवरपाचें आसत जाल्यार गोंयचो राजकारभार गोंयचो मोग आनी गोंयांक वेगळी दिका दिवपाची नदर आशिल्ल्यां कडेन दिवपाची गरज आसा. गोंयांत भारतीय जनता पक्षान फाटल्या धा वर्सांत कितें कितें केलां आनी ह्या दोन वर्सांत प्रमोद सावंतान मुख्यमंत्री म्हूण कितें कितें कायलोळ्यो केल्यात हें सगळ्यांनी अणभवलां. असो मुख्यमंत्री आनी तांच्या पक्षाचे शंबर गुन्यांव भरल्यात म्हणपाचें लोक उलयतात आनी रस्त्यार येवन निशेध करतात. कांय मुठभर लोकांच्या फायद्या पासत हो पक्ष वावरत आयला आनी ह्या पक्षाच्या आसऱ्या खाल आमदार आनी मंत्री जावन लुटमार करपी एकवटल्यात. दोन मंत्री तर सेक्स स्कॅन्डलांत घुसपल्यात. दिसा उजवाडाक पणजे पुलीस स्थानकाचेर हल्ले करपी आमदारांक घेवन हो पक्ष सरकार चलयता. खासा न्यायालय विचारता, असल्या लोकांक तुमी कशे निवडून हाडटात काय म्हूण! असल्या लोकांच्या हातांत गोंयकार पर्थून सत्ता दितलो काय कितें हाचो विचार थंडपणान करपाची गरज आसा. तो वेळ आयला.

बीजेपी नाका जाल्यार कॉंग्रेस सोडून दुसरो खंयचो पक्ष असोय एक मुद्दो येता. गोंयांत नवे नवे पक्ष तयार जाता. आप दिल्ली सत्तेर आसा आनी त्या पक्षाच्या मुख्यमंत्र्यांच्या नांवान गोंयांत सत्ता राबोवपाचो प्रचार सद्या नेटान चल्ला. तो पळयत जाल्यार गोंयचेर केजरीवाल राज्य करतलो काय दिसता. केजरीवालान दिल्लींत मुख्यमंत्री म्हूण कितें उजवाड घाला हें सगळ्यांक खबर आसा. अजून मेरेन हो पक्ष केजरीवालाच्योच पादुको राजगादयेर दवरून गोंयचें राज्य चलयतले असो रागरंग दिसता. ह्या पक्षान समाजांतले विद्वाटे आसपावन घेवपाचें जें सत्र राबयलां तें पळयत जाल्यार हो आनी हेर पक्ष हातूंत तशें कांयच वेगळेपण ना. तातूंत भर म्हूण आतां मगो पक्ष तृणमुलाचीं फुलां माथ्याक माळून नवी व्हंकल कसो मिरयता. बेताळाक नाशिल्ली खंय बायल आनी भावकादेवीक नाशिल्लो खंय घोव तशी गत आज तृणमूल पक्ष आनी मगो पक्ष हांची जाल्या. मगो पक्षान आरंभा पासून गोंयचे उदरगतीक खीळ घालून गोंय राज्याचो विध्वंस केला. आज तो विलिनीकरणवादी मगो पक्ष अस्तित्वांत नासलो तरी तींच तत्वां घेवन त्या पक्षाची पिलावळ वावुरता. सत्ता दिता त्या पक्षा कडेन शय्या सोबत करपी पक्ष म्हूण ह्या पक्षाक वळखतात. बीजेपी कडेन युती करतात अशें म्हणत म्हणत, थंय सत्ता मेळपाची संद ना हें कळतकच आज हो पक्ष तृणमुल पक्षाक घेवन नाचता. तृणमूल गोंयांत कित्याक आयलो आनी ताचो फुडार कितें हें कोणाकूच खबर ना. ह्या पक्षाची उमेदवारी घेवन लुईझिन फालेरो राज्यसभेर गेला आनी ताणें आपलो फुडार घडयला. ममता बॅनर्जी ही आक्रस्ताळी बायल. तिका खंयचेय परिस्थितींत आपल्या तृणमूल पक्षाक राष्ट्रीय पक्ष म्हूण मान्यताय मेळोवन दिवंक जाय. ते पासत गोंयांत स टक्के मतां ह्या पक्षाक मेळ्ळीं जाल्यार तिचें कार्य तडीक पावलें. ती देशाची पंतप्रधान जावपाचीं सपनां रंगयता. तिका गोंयचें कांय पडूंक ना. पूण त्या प्रशांत किशोर म्हणटात ताका हाता लागीं धरून माणकुल्या गोंयांत ती जें कितें सामाजीक,आर्थिक,



सांस्कृतीक, राजकी प्रदुशण सद्या करता तें गोंयच्या बऱ्याचें न्हय. बीजेपी वांगडाच गोंयकारांनी हेय अभद्र युती पासून शादूर रावंक जाय.

## गोंय योग्य दिकेन वता

काँग्रेस पक्ष सत्ते भायरो जालो ताचें कारण मुख्यमंत्रीपदाची सर्त. कोणें मुख्यमंत्री जावंचें हाचेरूच वेळ वगडावन सत्ता स्थापन करपाक ह्या पक्षाच्या फुडाऱ्यांनी वेळ काडलो आनी बीजेपीक संद दिली. आज लुईझिन आनी रवी नायक ह्या पक्षांत नात ही जमेची बाजू. दिगंबर कामत हे लोकमान्यताय मेळिल्ले फुडारी. तांणी मुख्यमंत्री आसतना जीं किर्ते समाजोपेगी कामां केल्यांत ताका तुळा ना. दुर्दैव इतलेंच तीं कामां लोकां मुखार हाडप ह्या पक्षाक जमलें ना. तीं हाडपाचीं आसतात हाचें भान दिगंबर कामतीन दवरलें ना. ताचें कारण आपलें सरकार जें किर्ते करता तें गोंयचे जनते पासत. तें सरकाराचें कर्तव्य. ताचेर राजकारण खेळप ना असलीं सादेपणां ताच्या रगतांत आशिल्ल्यान वा ताका सत्तेचें राजकारण खेळपाचें ना देखून अशें घडटा आसूं येता. दिगंबर कामतीन आपले कारकिर्दीत गोंयचें सांस्कृतीक धोरण तयार केल्लें. खरें म्हणल्यार जेन्ना नवें सरकार आयलें तेन्ना त्या सरकारान तें धोरण मुखार व्हरूंक जाय आशिल्लें. पूण जांकां संस्कृती म्हणल्यार





किर्ते हेंच खबर ना त्या सरकारा कडल्यान व्हडली शी अपेक्षा बाळगुपांत अर्थ ना हें आमच्या सारख्यांक आतां कळूंक जाय. एकूच उदारण सांगचें जाल्यार दिगंबर कामत मुख्यमंत्री आसतना तांचे कारकिर्दीत ताणें कितलेच प्रकल्प राबयले. तातूंतली एक पणजेचें कला आनी संस्कृती खातें आनी तातूंतलें प्रशस्त मध्यवर्ती वाचनालय. आशिया खंडांतलें हें नांव घेवपा सारकें वाचनालय. पूण त्या वावराचें श्रेय बीजेपीन लाटलें. आज दिगंबर कामत होच काँग्रेस पक्षाचो मुख्यमंत्री जावं येता. तांकां चिदंबरम सारखी देशाच्या पंतप्रधान पदार बसूं येता अशी विद्वान शक्ती मेळ्ळ्या. तातूंत आज काँग्रेसी कडेन क्रियाशील तरणी फौज आसा, जी कितलींय अरिश्टां आयलीं तरी ठाम आसा. हे संदीचो फायदो काँग्रेसीक मेळूं येता. जर काँग्रेस पक्षान दिगंबर कामतीचें नांव मुख्यमंत्री म्हूण जाहीर करून वेंचणूक प्रचाराक आरंभ केल्लो जाल्यार आयज पक्षाचें चित्र वेगळेंच दिसपाचें. पूण जाय ती रणनिती पक्षाकडेन ना. ते पासत जनतेन आतां आपली रणनिती थारावपाची गरज आसा. काँग्रेसचें गोंयां पासतचें योगदान मतींत धरून ह्या पक्षाकडेन पडमूर जावंक फावना इतलेंच जर हे वेंचणुकेंत तांणी मनांत थारायलें जाल्यार गोंय फुडाराक वाचतलें, फुलतलें आनी फळटलें!

●●●




सखाराम
शेणवी बोरकार

कोंकणी कवितेंत मोलाची भर घालपी **सखाराम शेणवी बोरकार** काव्य निर्मिती करपा वांगडाच ललित साहित्य लेखन, विनोदी साहित्य लेखन, पुस्तक समिक्षा तशेंच हेर भासांतलें साहित्य कोंकणींत अणकारीत करपाचो वावर सातत्यान करीत आसात.

# कोंकणी म्हणी आनी वाक्प्रचारांतलो 'दर्या'

गोंयाक 133 किलो मिटर लांबायेची दर्या देग लाबल्या. ते खातीर गोंयकारांची जीण हे दर्या देगे कडेन संबदीत घटकांचेर पातयेवन आसल्यार अजाप तरी कसलें? कदीम काळा सावन शेतकाम करपा वांगडाच दर्यांत वचून नुस्तें पागप आनी दर्यांतली येरादारी हो एक गोंयकारांचो दुसरो मुखेल वेवसाय. ह्या दर्याचेर आमच्या लोकवेदांत साबार म्हणी आनी वाक्प्रचार आसात.

'दर्या कोण धुतीत आनी मार्गाक कोण पुशीत?'

दर्याची खारसाण आनी रस्त्याची म्हेळसाण कोणाच्यानच काडूंक जायना. अशक्य अशी गजाल.

'दर्या भोंवून (पेंवन) आयलो आनी कोंडांत वचून मेलो' व्हडले, व्हडले त्रास सोंसले आनी इल्लेशे कारणा खातीर खातीर जीव वगडायलो.

'समुद्र पोंवून पावल भर उदकांत मेलो' हीय ह्याच अर्थाची दुसरी म्हण.

'दर्याक भरती तशीच सुकती आसा'

जिवितांत बऱ्यो तश्योच वायट गजाली आसतात हें सांगपी ही म्हण.

'दर्या समाधानान चलता, व्हाळ घसघशीत व्हांवता.'

खरो व्हडलो मनीस बोवाळ करी ना, पूण ल्हान मनीस चड बोवाळ करतात.

'दर्यांत नाक बुडोवन मेल्लो हय, पूण कट्टेंत न्हय.'

मनशान कसलेंय लजेचें काम करचे परस दर्यांत जीव दिल्लो बरो.

'दर्यांत आसा मासो आनी तडीर रावन मोलायता तो पिसो.'

'दर्यांत आसा मासो, आळेण वांटून दवरता तो पिसो.'

ह्यो म्हणी तुमी आयकल्यात आसतल्यो. Do not count your chickens before they are hatched हे इंग्लीश म्हणी भशेन अर्थ आशिल्ल्यो ह्यो म्हणी.

'शेंवटो आसा पोयंत आनी आळ्यान वाटून थेयंन.' हिवूय ह्याच अर्थाची दुसरी म्हण.

'दर्यांत वचून काष्टी सुकी.'

चालाख मनशाक, सगळें करचें करून आपूण तांतलो न्हयच अशें दाखोवपी मनशाक लेखून ही म्हण वापरतात.

एक झगडाळ बायल आसली.कसलेंय निमित्त काडून ती दुसऱ्यां कडेन झगडटाली.जेन्ना कोणच झगडपाक मेळनाशिल्लो तेन्ना ती दर्या देगेर वचून दर्या कडेन 'तुजें घस्स (दर्याच्या ल्हारांचो आवाज) म्हजेंय घस्स, अशें म्हणून झगडटाली.

'दर्यांत आसा तें कडयेंत आसा.'

जें नुस्तें दर्यांत आसता तेंच जाळ्यांत मेळटा आनी मागीर तेंच कडयेंत वा हुमणांत पडटा. नशिबांत आसा तेंच मेळटा हें सांगपी ही म्हण.

'दर्याची गाज तरी बांदू येत, मनशाची जीब बांदूक येना.' दर्याची गाज म्हळ्यार दर्यांतल्या ल्हारांचो आवाज. हो आवाज बंद करप म्हळ्यार अशक्य अशी गजाल. ती एके वेळा बंद करूंक येत पूण मनशाची जीब मात कशीय घुंवता तिका आडावंक येना हें सांगपी ही म्हण.

'दर्यांत होडें, तडीर घोडें.'

व्हडें दर्यांत आसता आनी घोडो जमनीर ही म्हण दर एक गजालीची सुवात दाखयता.

'दर्याच्या पोटांत सगळें लिपलां'

दर्या हो विशाळ, ताच्या पोटांत साबार वनस्पती, माणकां-मोतयां, तरेकवार नुस्तीं, तशेंच शेळो अश्यो साबार गजाली आसतात. वयल्यान पळयल्यार तशें कांयच दिसना. जो मनीस सगळें म्हळ्यार मान अपमान पचयता ताका दर्याची देख दितात.

'यो पाळा व्हर म्हाका'

एकली बायल खंय खूब झगडाळ आशिल्ली. कितें ना कितें निमित्त काडून घरच्यां कडेन झगडटाली. एक दीस अशीच झगडली, आपूण जीव दितां म्हण धांवत वेळेर गेली. वेळेर वचून उबी रावली आनी ल्हारांक पळोवन पळोवन म्हणूंक लागली खंय, 'यो पाळा, व्हर म्हाका.' खरें म्हळ्यार हिका जीव खंय दिवपाक जाय आसलो? पाळा, पाळा- दर्याचें ल्हार, ल्हारां.

'दर्याचो तळ कोणें पळयला?'

दर्या हो खूब खोल आसता. ताचो तळ सहजा कोणाक दिसना. तशेंच भितरल्या गांठीचे लोक आसतात तांच्या मनांत कितें चल्लां तें कळना तेन्ना ही ओपार मारतात.

'दर्या तुजें घस्स, म्हजें घस्स.'

एक झगडाळ बायल आसली.कसलेंय निमित्त काडून ती दुसऱ्यां कडेन झगडटाली.जेन्ना कोणच झगडपाक मेळनाशिल्लो तेन्ना ती दर्या देगेर वचून दर्या कडेन 'तुजें घस्स (दर्याच्या ल्हारांचो आवाज) म्हजेंय घस्स, अशें म्हणून झगडटाली. झगडाळ बायलांक लेखून ही म्हण मारतात.

'आयलें ल्हार, मारलें भायर'

आयिल्लें ल्हार आंगा वयल्यान वचपाक दिता तशें संकश्टांक तोंड दिवप.



'आंवाळो पिकचो ना, दर्या सुकचो ना'

पिकिल्लो आंवाळो केन्नाच मेळना. पिकचे पयलींच तो गळून पडटा. तशेंच दर्याचें उदक केन्नाच आटना. असल्यो ना घडपी, अशक्य अश्यो गजाली करारांत (agrement) अटी म्हणून घालतात तेन्ना ही ओपार मारतात.

'सुंकावेलो काडून समुद्रा पाळां मेजूंक बसयलो'

हे म्हणी फाटली काणी अशी. एक राजाचो मेवणो आसलो. ताका जंय दवरता थंय तो पयशे खातालो. आपले बायलेचो भाव म्हण्टगीर ताका कामावेल्यान काडप राजाक शक्य नासलें. म्हणून जंय पयशे खांवक मेळनात अश्या जाग्यार म्हळ्यार ताका दर्याचीं ल्हारां मेजूंक धाडलो. त्या राजाल्या मेवण्यान राजान आपल्याक ल्हारां मेजूंक धाडला, तुमकां थारायिल्ल्या वेळा भायर व्हडीं दर्यांत हाडूंक मेळचीं नात अशें सांगून तो नुस्तें पागप्यां कडल्यान आनी व्हडेकारां कडल्यान पयशे घेवपाक लागलो. सबावाक वखद ना अशें सांगपी ही म्हण. सुंक- जकात

'दर्याक वंय बांद येत, उल्लयिल्याचें तोंड बांदूंक जायना' दर्याक वंय घडये बांदूक येत पूण जे उलयतात तांचें तोंड बांदप ही अशक्य गजाल.

'दर्यांत गेलो लुका, तो दर्या जाला सुका'

दुर्दैवी मनीस खंयूय गेलो जाल्यार दुर्दैव ताची फाट सोडी ना हें सांगपी ही म्हण.

'दर्यांत बुडी मारून शंख हातांत'

खंयचेंय व्हड काम करपाक वचप आनी अपेस हातांत येवप तेन्ना ही ओपार मारतात.

'समुद्रा उदक मापुं जातकिं वेळेवेलीं रेंव मोचंच्याक जाता?'

दर्या देगेवेली रेंव आनी दर्यांतलें उदक कोण मेजपाक शकता? अशक्य गजाल. कर्नाटक वाठारांतली ही एक म्हण.

'समुद्रांत बुडून मेल्ल्यांकाई सोऱ्यांत बुडून मेलेले चड',

दर्यांत बुडून मेल्ल्या परस स्वता जावन सोरो पिवन मेल्ले लोक ह्या संवसारांत चड आसात हें सांगपी ही म्हण.

दर्याचेर आदारिल्ले साबार वाक्प्रचार आसात:

-'समुद्रा फळ'- कल्पनेचे खेळ.

-'समुद्राक जायफळ'- एदे व्हडल्या दर्यांत जायफळ उडयल्यार तें कशें सोदपाचें? अशक्य अशी गजाल.

-'समुद्रांत पावस पडिल्लेवरी'- दर्यांत पावस पडल्यार ताचो कांयच उपेग जायना. जो कांयच लक्षांत घेना, जाका सांगून कांयच फायदो ना अश्या मनशाक लेखून हो वाक्प्रचार वापरतात.

-'समुद्रांत सूय सोदप'- व्यर्थ प्रयत्न करप.

-'साता समुद्रा पलतडीं'- खूब पयस.

-'समुद्रांत उदक हाडून सोडप'-जे जाग्यार चड वस्त आसा थंय तसलीच वस्त हाडून दवरप.

-'समुद्रांत पडून सुको-आपल्याक कांयच लागून घेना असलो मनीस.

-'काळजाक भरती येवप'- उमाळे फुटप.

-'दोळ्यांक सुकती येवप'- रडून रडून दुकां आटप

कसलीय व्हड वा विशाळ अशी गजाल आसल्यार तिका दर्याची उपमां दितात.

-'वेदनांचो दर्या'- खूब दूख भोगप.

-'दर्या सारकें मन वा काळीज आशिल्लो मनीस'- खूब बरो आनी मायेस्त मनीस.

ह्या दर्याचेर आदारिल्लीं कांय उमाणींय आमकां मेळटात.

1. दर्यांत वल्लीं नासलेलें तारूं.

जाप-नुस्तें

2. दर्या देगेर एक कावळो मेला सगळ्या लोकांक सुतक.

जाप - गिराण.

3. दर्या देगेर पांच केळमे, हालतात पूण मोडना.

जाप- हाताचीं बोटां

ह्यो आसल्यो दर्याचेर आदारिल्ल्यो म्हणी, वाक्प्रचार आनी कांय उमाणीं. दर्या इतलींच मोट्या आकाराचीं, आवांठाचीं.



कथा

स्वरुपा नास्नोळकार



# वाढदीस



वाचन आनी लेखन हातूंत गती आशिल्लीं स्वरुपा **नास्नोळकार** सातत्यान साहित्याची सेवा करतात. कथा आनी ललित असो तांचो लेखनाचो व्याप तांणी एक छंद म्हूण आपणायला आनी आपल्या संवेदनशीलतायेची सांगड घालून तांचो हो प्रवास चलता. प्रसंगांचें बारकायेन निरिक्षण करून तांची वेवस्थीत मांडणी करप ही तांची खाशियत.

खरेंच! तो म्हाका पयलीं परसय भुरगो दिसलो हे खेपे. तें भुरगेपण फकत भायल्या देखणेपणांचें न्हय तर हें तागेल्या विचारांचें, तागेले तृप्तीचें, ताच्या समाधानाचें. ह्या जन्मांत आनीक आनी तागेलें कांयच एक उरूंक नाशिल्लें. सगळें पूर्ण जिवीत जगून तो शताब्दी वटेन वाटचाल करतालो.

गणाभाऊक ओंदू 90 वर्सां जातात. गणाभाऊ म्हळ्यार म्हगेलो आतेभाव. सदांच हांसरो, आनंदीत आनी उमेदीन भरिल्लो कळसो. तो चवथीच्या दिसा जाल्लो म्हणून ताचें नांव 'गणपती' दवरिल्लें अशें म्हजी आजी सदांच सांगताली.

सगळे जाण ताका 'गणा' म्हणटाले, पूण म्हजी आजीच ताका 'गणपती' म्हणून उलो मारताली.

गणाभाऊक मेळ्ळ्यार खुबूच तेंप जाल्लो. हालीं आमच्या संवसाराच्या व्यापांत आमी तागेर मडगवां चडशीं पावऽ नाशिल्लीं. चडश्यो आमच्यो गजाली फोनारच उलोवप जाताल्यो आनी तातूंत हो कोविड, म्हणटकीर हालीं आमची भेटच जावंक नाशिल्ली.

ओंदू चवथ जावन ताचो वाडदीस आयिल्लो आनी तोय बी नव्वदावो. हो चान्स सोडप ना अशें म्हणून हांवें म्हजे भयणीक वल्लभाक म्हळें, "आगो ओंदू आमी गणाभाऊच्या वाढदिसाक मुद्दम तागेर वचूंया हां..!"

गणाभाऊ वाडदीस बी दबाज्यान करप्यांतलो न्हय. तसलें ताका आवडच नाशिल्लें. तातूंत ताचीं भुरगींय बी भायल्या देशांत आसात. म्हणटकीर हांगा आनी वाढदीस कोण करतलो? ना म्हळ्यार एक पूत ताच्या म्हऱ्यांत आसतालो. लग्न जावं नाशिल्लो.

गणाभाऊक चार भयणी आनी तो एकलोच भाव. तातूंतल्यो तीन भयणी भायर पडिल्ल्यो. एकलीच व्हडली भयण विमलताई आसा. पूण ती सदांच दुयेंत. न्हिदूनच आसता. ओगीच आसा म्हणून आसा.

कितेंय जरी जालें तरी गणाभाऊ आपली जीण सामकी आनंदान आनी खुशालकायेन फुडें व्हरता. ताचे बायलेक 'एलझायमेर' म्हणटात तें दुयेंस जालां. तिका याद उरना. एकच खबर चार फावटी उलयता. तातूंत हाली एक हात आनी एका पांयांक फ्रॅक्चर जालां. असले बायले बराबर तो फाटलीं चार वर्सां आनंदान संवसार करता. बायलेक मात कस्सोच पातयेना. सदांच तिचीं फकाणां मस्कऱ्यो

चालूच आसतात. गणाभाऊचो स्वभावूच असलो.

वाढदिसाचो दीस उदेलो आनी आमीं फुलांचे तुरे, भेटवस्तू, कितेंय गोडशें बी घेवन हांवें केकाच्या दुकानांत पांय मात दिलो, म्हजे पर्सींतलो फोन वाजलो. हांवें फोन कानाक लाय जाल्यार म्हजो धाकलो भाव उलयतालो. हांवें म्हळें, "उमेश, कितें रे?"

" मंगलताई, आज तुमी गणाभाऊगेर वचूं नाकात हां! तागेली व्हडली भयण विमलताई आजच सकाळीं भायर पडली असो सकाळीं आमकां फोन आयला."

जालें ना!!! हांव सामकें निर्शेलें. मोठे उमेदीन आमीं ताचो वाढदीस म्हणून भायर सरिल्लीं. पूण दैवय बी आपल्यो घुलो कश्यो वडयता पळय! हांवें वल्लभाक सगळें फोनारच कळयलें.

विमलताईक 88 वर्सां बी आसतलीं! ती गेली म्हणून व्हडली दुख्खाची गजाल न्हय. पूण तिकाय कित्याक आजचोच म्हुर्त मेळचो??

वल्लभान सांगलें, विमलताईचे बारा दीस पयलीं जावं दी. मागीर थंय वचून कितें तें सगळें मागीर पळोवंया.

विमलताईचे बारा दीस जातगीर हांव आनी वल्लभ, सगळी सामुग्री घेवन गणाभाऊगेर वचपाक भायर सरलींच. वतना म्हजे आठ वर्सांचे नातीकय वांगडा घेतली आनी गणाभाऊगेर वचून धडक दिली. गणाभाऊनच दार उगडलें आनी हांसून सदां भशेन आमचें स्वागत केलें. नातीची ओपुरबाय केली. आमी तागेल्या वाढदिसाची खबरच केली ना. लोक हांगा कुत्र्या मांजरांचे वाढदीस व्हडल्या दबाज्यान करतात. पूण हांगा सगळें वेगळेंच न्हय?

आमी व्हेल्लें तें सामान सगळें गाडयेंतच दवरलें. तें कांयच भायर काडलें ना. बेठींच बसूंक आयिल्ले भशेन बसलीं, हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो खबरी केल्यो आनी मागीर चा-पाणी जातकीर हळू हळू गणाभाऊच्या 90 वर्सांतल्यो खबरी सुरू जाल्यो. गणाभाऊची याद मात पक्की. खंयचीय खबर सांगतना तो दीस, तारीख, म्हयनो सगळें चुकऽ नासतना सांगतालो. तागेलें सगळें शिक्षण पुर्तुगेज भाशेंत जाल्ल्यान तो उलयतना चडशे पुर्तुगेजच शब्द ताच्या तोंडांतल्यान येताले आनी तें आयकून आमी सामकीं आमच्या आज्या-पणज्यांच्या काळांत पावलीं.

तो उलोवंक लागलो, आपल्या 13 व्या वर्सांचेर आवय कशी भायर पडली, 20-22 वर्सांचेर आपल्या खांदार संवसाराचें वजें कशें येवन पडलें... हें उलयता आसतनाच वल्लभान ताका मात्शी कोर्द दिली.

"गणाभाऊ, पयलीं तूं जेन्ना सिर्विसेक लागलो तेन्ना पगार कितलो आसतालो रे??"



गणाभाऊकय होच प्रस्न विचारिल्लो जाय आशिल्लो. वल्लभान हें विचारना फुडें गणाभाऊच्या दोळ्यांत एक वेगळीच चमक आमकां दिसूंक लागली. ताच्या आंगांत कितें संचारिल्ले भशेन तो व्होलतेराक तेंकून बशिल्लो तो सारको बसलो आनी ताच्या मुखार तो सगळो काळ आयलो. 1952-53 म्हळ्यार पुर्तुगेज राजवट. ताणें पळय एक पट सुरू केलो....... 50-60 रुपया पगारान आपणें कसो संवसार सुरू केलो आनी तातूंत घर चलोवन सगळ्या भयणींचे शिक्षण, दुयेंसां, तांचीं लग्नां, आपलीं प्रमोशनां अशी ताची गाडी सुरू जाली आनी तल्लीन जावन तो आपल्यालें सगलें आमच्या मुखार पितारूंक लागलो. तेन्नाचे ते पुर्तुगेज लोक, तांची मर्जी,ते कश्ट, त्रास, काडावडी, जिविताची चडटी-देंवती कोणाक तरी सांगची आनी कोणें तरी आपलें आयकुचें, तेंय बी आपल्या मनशांनी अशें त्या वयाच्या लोकांक खूब दिसता. कारण तेंच तांचें टॉनीक, तीच तांची जगपाची उमेद आनी तेंच तांचें अस्सल जगप आसतालें. नाटकीपणां, फटिंगपणां नासतालीं. फटिंगपणांनी पयसो करप म्हळ्यार व्हडलें पाप अशें त्या वेळार मानताले. घराण्याची अब्रू सांबाळूंकच तांणी आयुश्याचो चड वेळ काबार केल्लो.

जें कितें आसा तें आसा. ना जाल्यार ना. तातूंत दुख्खय ना. कितकें सरळ सादें जिवीत आशिल्लें तेन्नाचें! आनी कितले उगड मनाचे हे लोक ! कितेंच धांपून ना.

इतल्यांत भायर इतलो वेळ खेळटाली ती म्हजी नात भितर आयली आनी 'हॅपी बर्थडे केन्ना गे?' म्हणून विचारूंक

लागली. तिका आमी 'आजोबाच्या बर्थडेक वतात' अशें सांगून हाडिल्लें.

म्हजे नातीचें उलोवणें आयकून तो हांसलो. तो कितें समजुपाचें तें समजलो आनी आमकां सागूंक लागलो, 'आगो ह्या संवसाराचे रणधुमाळींत वाढदीस आनी खंयचे साजरे करतलो गो कोण? वाढदीस जावन वतकीर कळप, अमक्यालो वाढदीस जालो म्हणून! आतां तुमी हांगा आयलीं, पोटभर उलयलीं, सऽऽगळ्यो यादी काडल्यो...आनी वाढदिसाक आनी वेगळें कितें आसता? होच वाढदीस!''

आमकां खूब तेंपान आपल्यागेर आयलीं तें पळोवन तोय बी खूब खोशी जाल्लो. मनांतलें सगलें कोणा कडेन तरी उगडें करचें अशें ताका जाल्लें. म्हणूंक लागलो, ''आगो,हांव प्रत्येक दीस म्हजो मनांतल्या मनांत साजरो करतां, प्रत्येक क्षण हांव आनंदाण जगतां. वाढदीस वर्साक एकदांच येता.बाकीच्या दिसांचें कितें? हांव आज आसां, फाल्यांची कोण शाश्वती दिता? देवान जें दिलां आनी जितलें दिलां तातूंत आनंद मानप आनी ताचे आभार मानीत मानीत जगप.हांव खूऽऽब सुखी आसां गो, खूब सुखी आसां. म्हाका पेंशनय येता खूब.''

गणाभाऊक आतां फकत पेंशन येता. तितेल्याच पयशांनी तो आनंदीत आसा.

''कित्याक गो तो चड पयसो? चड पयसो म्हळ्यार विख्ख. पयसो ही गरज भागोवपा पुरतोच आसूंक जाय. चड पयसो झगड्यांक आमंत्रण दिता.''

असलेच विचार तो उलोवन दाखयतालो.

''आगो, हांव अजूनय कसलीच गुळी घेनां. सकाळीं स वरांचेर उठ्ठां आनी



पयलीं दोन ग्लास उदक पितां. मागीर थोडो हातपांयांचो व्यायाम करतां, थोडीं योगासनां करतां मागीर. आगो, हांव शिवराक जेवतां हां! नुस्तें सोडलें. ताका लागून बरो पासार जातां.''

खरेंच! तो म्हाका पयलीं परसय भुरगो दिसलो हे खेपे. तें भुरगेपण फकत भायल्या देखणेपणांचें न्हय तर हें तागेल्या विचारांचें, तागेले तृप्तीचें, ताच्या समाधानाचें. ह्या जन्मांत आनीक आनी तागेलें कांयच एक उरूंक नाशिल्लें. सगळें पूर्ण जिवीत जगून तो शताब्दी वटेन वाटचाल करतालो.

ताचे हे सगळे विचार आयकून आनी पळोवन आमींय मात्शीं घुस्पलीं. जिविताची खरी गुरूकिल्ली ताका केन्नांच कळिल्ली.

तो वल्लभा कडेन उलयता तें पळोवन हांवें हळूच तागेल्या धाकट्या चल्याक, कपिलाक म्हजे वांगडा भायर व्हेलो आनी मोटारींतलें सगळें सामान ताचे मजतीन भितर हाडून दवरलें.

मागीर गणाभाऊक आनी बायलेक दोगांकय बसयलीं आनी हाडिल्ल्यो भेटवस्तू,केक बी सगळें मेजारच दवरलें.

इतल्यांत गणाभाऊन उठून मेजा वेलो केक काडलो आनी दुसऱ्या धाकट्या मेजार दवरलो. म्हजे नातीक, रियाक म्हऱ्यांत घेतलें आनी ताच्या हातान केक कापलो. रिया सामकें खोशी जालें आनी रियान रोखडेंच ताका तोंडपाठ आशिल्लें बर्थडेचें पद संस्कृतांत म्हळें. 'जन्म दिनम् इहम् आयप्रिय सखें'. हें पद आयकून तर ताच्या दोळ्यांतल्यान दुखांच व्हांवंक लागलीं.

आमी सगळ्यांनी ताका साष्टांग नमस्कार घालो आनी ताच्या आशिर्वादा बरोबरच जिविताची खरी गुरूकिल्ली कितें ताचेर विचार करीतच पणजेची वाट धरली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं धा-साडे धांच्या अदमासाक म्हजो फोन वाजलो. काडून पळेत जाल्यार कपिलाचो, गणाभाऊच्या पुताचो फोन. कित्याक काय आतां आनी फोन? अशें मनांत म्हणीत हांवें विचारलें,'' कपिल कितें रें?''

दुसरे वटेन कपिल उलोवंक लागलो, ''मंगलताई, काल तुमी हांगाच्यान वतकीर बाबा सामको मनशांत ना. सगळो वेळ तुमच्योच खबरी करता आनी जो मनीस रातचो णव-साडेणव वरांचेर न्हिदूंक वता तो रात भर न्हिदूं ना आनी म्हाकाय न्हिदूंक दिंवना. ॲक्सायायट जावन. खूऽऽब खोशी जालो तो तुमी आयिल्ल्यान. अशींच मदीं मदीं येयात हां !''

हांव ताचें उलोवणें आयकत उरलें आनी म्हज्या तोंडांतल्यान आपशींच 'हा' आयलें.

खऱ्या अर्थान वाढदीस साजरो जाल्लो!!

●●●

मनरिजवण
मानसी
प्रेमानंद धाऊस्कार



गोंय विद्यापीठांत कोंकणी विशयांत 'एमए'चें शिक्षण येवपी मानसी प्रेमानंद धाऊसकार बिम्ब मासिकाचें पालवी संपादक जावन आसा. प्रसार माध्यमाचेर युट्युबाचेर शिक्षणीक व्हिडीयो तयार करता आसतनाच बिम्ब मासिक आनी भांगरभूंय दिसाळ्यांत कविता तशेंच लेख बरयता.

# जपानच्या 'रिंग वाँडरिंग'सिनेमाक 'भांगरा मोर' भेटोवन 52 वो इफ्फी उलगलो...!!



बांबोळे पठारा वयल्या श्यामाप्रसाद मुखर्जी इनडोअर स्टेडीयमार नामनेची चित्रपट अभिनेत्री ड्रिमगर्ल हेमा मालीनींच्या हस्तुकी ह्या महोत्सवाचें उक्तावण जाल्या उपरांत ह्या चित्रपट महोत्सवाचो पड्डो वयर सरलो.

'इफ्फी'.... इंटरनॅशनल फिल्म फेस्टीवल ऑफ इंडिया- भारतीय आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सव.. संवसारभरचे चित्रपट म ोगी ह्या महोत्सवाची वाट पळयतात. ह्या महोत्सवाची कार्यावळ थारिल्ली आशिल्ल्यान दर वर्साचें 20 नोव्हेंब्र ते 28 नोव्हेंब्र हें सप्तक चित्रपट मळा वयले लोक इफ्फी खातीर राखून दवरतात, इफ्फी म्हळ्यार ह्या लोकां पासत तिर्थयात्रा थारल्या.

गोंयांत इफ्फी आयलो 2004 वर्सा मोठ्या दबाज्यान. हय-ना, हय-ना करीत हो इफ्फी गोंयांत थिरावलो. गोंय हें आयच्या खिणाक तरी इफ्फीचें कायम थळ म्हूण मानतात. फुडाराक सांगू नज. पूण जे सर गोंयांत इफ्फीचें आयोजन जातलें ते सर ह्या महोत्सवा विशीं गोंयकारांक अप्रूप आसतलें. इफ्फीक लागून गोंयची फाम आंतरराष्ट्रीय मळार पावल्या. गोंयकारांक ताचो फायदोय जाला. तरी पूण आयोजनांत ल्हान-व्हड त्रुटी आसतल्योच..तेन्ना हुंदराच्या रागान घराक उजो कोण लायनात....

भारतीय आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सव गोंयांत आयलो 2004 वर्सा. ताका हांगा हाडलो त्या काळांतले मुखेलमंत्री मनोहर पर्रीकार हांणी. गोंय हें ह्या महोत्सवाचें कायम थळ जावंचें आनी गोंयांत चित्रपट संस्कृताय रुजवणा येवंची म्हूण पर्रीकारान बरीच खटपट केली आनी तांचे यत्न फळादीक जाले. आज पर्रीकार जरी आमचे मदीं नासले तरी तांणी पोसूंक घेतिल्लें हें इफ्फीचें बाळक फाटल्या 17 वर्सांत बरेंच गुटगुटीत जालां.

इफ्फी गोंयांत आयलो तेन्ना तो 35 वो चित्रपट महोत्सव आशिल्लो. ह्या वर्सा तो 52 वो आशिल्लो. म्हणटकच फाटलीं 17 वर्सां ह्या



महोत्सवाचें आयोजन गोंयांत घडटा आनी सप्तकभरचो हो उत्सव सरल्या उपरांत कवित्व दवरून वता. गोंयकार तशेंच देश विदेशांतल्या प्रतिनिधींनी इफ्फीच्या ह्या सप्तकांत वेगवेगळ्या आशय - विशयांचे,संस्कृतायेचे,विंगविंगड भाशांतले कितलेच चित्रपट पळयले. कितल्योच कार्यावळीक तांणी हजेरी लायली आनी तृप्त जावन ते गेले म्हणपाचें तांच्या तोंडावयले भाव सांगताले.हाचे वयल्यान हो 52 वो इफ्फी यशस्वी जालो अशें म्हणूं येता.

करोना काळांतूय इफ्फी यशस्वी

ह्या वर्सा चित्रपट रसिकांनी दोन खेप इफ्फी अणभवलो. फाटले वर्सा करोनाचे धामीक लागून 51 व्या इफ्फीचें आयोजन जावंक पावूंक नाशिल्लें. तशें तें धोक्याचेंच आशिल्लें. हे खेप इफ्फी ना म्हूण ह्या मळावयल्या कितल्याच लोकांची त्या वेळार तोंडा पडलीं हें सत. पूण इत्सा आसल्यार गरम वडे घांटार पावतात अशें म्हणटात. इफ्फी गोंयांत जावपाची आसता आनी गोंयच्या मनरिजवण संस्थेन ती तयारी दाखयली ना जाल्यार केंद्र सरकार कांयच करूंक शकना हें सत. म्हणटकच मनरिजवण संस्थेचे उपाध्यक्ष सुभाष फळदेसाय आनी तांचे कमिटीन हो भार पेलपाचो थारावन 51 व्या इफ्फीचें आयोजन ह्या वर्साच्या आरंभाक केलें आनी तें करोना धामीचीं सगळीं पथ्यां सांबाळून तडीक व्हेलो. सिनेरसिकांनी कसलीच कुरकूर करी नासतना ताका येवकारलो. तो यशस्वी जालो अशें हेच नदरेन म्हणूं येता.

मागीर रोखडोच 52 व्या इफ्फीची तयारी सुरू जाली. करोनाक लागून आयोजनाची वेवस्था सकयल वयर जाल्ली ती निटायेर घालपाक तसो वेळ जायच. पूण मनरिजवण संस्थेन स्वास घेवपाक उसरपत घे नासतना 52 व्या इफ्फीची तयारी सुरू केली आनी उपाध्यक्षांनी तोय भार तडीक व्हेलो. करोनाची धाम आसतनाय हे दोन महोत्सव एकाच वर्साक आयोजीत करून ते यशस्वी करून दाखयले म्हूण तांची तोखणाय जालीच. तांच्या वावराची दखल घेवन तांचो जाहीर भोवमानूय घडोवन हाडलो जो गरजेचो आशिल्लो. अशी वावराची दखल घेतल्यार घेतिल्ल्या परिश्रमाची चीज जाता हो मानवी सभाव!

इफ्फीचें आगळें वेगळें मनभुलायणें सप्तक

संवसारभरचे चित्रपट रसिक दर वर्सा नोव्हेंबर 20 ते 28 अशें सप्तक चित्रपट संस्कृतायेचो आस्वाद घेवपाक

राखून दवरतात. दरवर्सा हेर धर्माचे भावीक तिर्थयात्रेक भायर सरतात तशें चित्रपटाक देव मानपी चित्रपट भावीक जंय जंय चित्रपट महोत्सव आयोजीत करतात थंय वतात. तांचे पासत गोंय हेंय एक तिर्थस्थानूच थारलां. तेच पासत हे सगळे लोक मांडवी तिरा वयल्या ह्या पवित्र स्थळार दर वर्सा गर्दी करतात.

करोनाचें सांवट आसतनाय ह्याय वर्सा नोव्हेंब्राचे 20 वेर बांबोळे पठारा वयल्या श्यामाप्रसाद मुखर्जी इनडोअर स्टेडीयमार नामनेची चित्रपट अभिनेत्री ड्रिमगर्ल हेमा मालीनींच्या हस्तुकी ह्या महोत्सवाचें उक्तावण जाल्या उपरांत आभासी अश्या हायब्रीड पद्दतीन आयोजन केल्ल्या ह्या चित्रपट महोत्सवाचो पड्डो वयर सरलो. हे खेप कला अकादमीचे दुरुस्तीचें काम चालू आशिल्ल्यान हो इफ्फी पणजे आनी पर्वरीच्या आयनॉक्स ा पुरतोच मर्यादीत जरी उरलो तरी कांयच अडचण जाय नासतना तो सुटसुटीतपणान जालो.

ह्या इफ्फींत आंतरराष्ट्रीय विभागांत 73 देशांतले 148 चित्रपट दाखयले. तातूंत 12 संवसारीक प्रीमियर्स, सुमार 7 राष्ट्रीय प्रीमियर्स,26 आशियाई प्रीमियर्स आनी सुमार 64 भारतीय प्रीमियर्स जाले. फाटले वर्साचे इफ्फींत 69 देशांतल्यान इफ्फीक चित्रपट आयिल्ले जाल्यार हे इफ्फीक 95 देशांतल्यान 624 चित्रपट आयिल्ले.

ह्या चित्रपटांनी संवसारभरचे उत्कृश्ट अशें समकालीन आनी सर्वकालीक म्हणल्यार क्लासीक चित्रपट दाखयले. संवसारभरचे नामनेचे चित्रपट निर्माते, अभिनेते, तंत्रज्ञ, समिक्षक, तंत्रज्ञ, टिकाकार,अभ्यासक आनी चित्रपट रसिकांची ह्या महोत्सवाक गर्दी आशिल्ली. आमी भारतीय फकत बॉलीवूडच्या ग्लॅमरांतूच चड घुस्पतात देखून फकत हिन्दी सिनेमांतल्या वळखीच्या कलाकारांचेरूच इफ्फीचें यश जोखतात. पूण तें सत न्हय. देशांतल्या हेर भासांतले कितलेच दिग्गज लोक ह्या महोत्सवाक येतात. तांचे चित्रपट आमी पळोवंक ना म्हूण ते ते भाशेंतल्या चित्रपटांच्या दिग्दर्शकांक, कलाकारांक, लेखकांक आमी वळखनात. विदेशी क्लासीक चित्रपटवाल्यांक तर नाच ना. जेन्ना ह्या लोकांक आमी म्हणल्यार ह्या महोत्सवाक आयिल्ले वळखूंक लागतले, तांकां समजून घेतले, तांचे लागीं भासाभास करतले तेन्नाच हो चित्रपट महोत्सव खऱ्या अर्थान यशश्वी जावंक पावतलो.

इफ्फीचो उक्तावण सुवाळो हो सदांच उबगण हाडपी आसता. कित्याक ह्या सुवाळ्याक आयोजक चित्रपट कलाकारां वांगडा मिरोवन घेवपाची संद सोडिनात. त्या भायर मुखार बशिल्ले गर्देक पळोवन आपणें





कितलें उलोवंक जाय आनी खंय थांबूंक जाय हाचें भान आयोजकांक उरना. हाका लागून लोक उबगून थंय बशिल्ले आसतात.

ह्या उद्‌घाटन सुवाळ्याक गोंयचे राज्यपाल पी.एस.श्रीधरन पिल्लई, केंद्रीय म्हायती आनी प्रसारण मंत्रालय राज्यमंत्री डॉ.एल.मुरुगन, गोंयचे मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत, इफ्फी महोत्सवाचे संचालक चैतन्य प्रसाद, केंद्रीय मंत्री श्रीपाद नायक, जांकां ह्या चित्रपट महोत्सवांत भारतीय चित्रपट व्यक्तीमत्व पुरस्कार लाबला ती हेमा मालीनी आनी गोंय मनरिजवण संस्थेचे उपाध्यक्ष सुभाष फळदेसाय माचयेर हाजीर आशिल्ली. ह्या वेळार हेमा मालीनी हांकां भारतीय चित्रपट व्यक्तीमत्व 2021 हो पुरस्कार अनुराग ठाकूर आनी गोंयचे मुखेलमंत्री सावंत हांच्या हस्तुकी भेटयलो. ह्या पुरस्काराचे दुसरे मानकरी गितकार प्रसून जोशी ह्या वेळार हाजीर नाशिल्लो. ह्या सुवाळ्यांत सलमान खान आनी रणविर सिंग ह्या चित्रपट कलाकारांनी दोळे दिपकावपी अशी कार्यावळ सादर करून पुराय स्टेडियम गाजयलें. खास करून रणविर सिंगान लोकांचीं काळजां जिखलीं.

ह्या चित्रपट महोत्सवांत उत्कृश्ट चित्रपट पळोवंक म ळ्ळेच,पूण हेर कितल्योच उत्कृश्ट गजालीय अणभवूंक मेळ्ळ्यो. ह्या महोत्सवांत गोंयांत फिल्मी सिटी जावंची ही मागणी प्रकर्शान जाणवली. फाटलीं 17 वर्सां सावन गोंयांत इफ्फीचें आयोजन जाता आनी गोंयचें नांव संवसारभर पाविल्लें आसा. संवसारभरचे लोक तेच पासत गोंयांत शुटींगा पासत येतात. पूण गोंयांत तांचे पासत फिल्म सिटी अजून तयार जावंक ना. ताची गरज आसा. ते भायर शुटींगा पासत येवपी निर्मात्यांक सगळे सोपस्कार एकेच सुवातेर जाल्ले जाय हीय मागणी जाताली.

**सत्यजीत रे जीवनगौरव पुरस्कार**

फादर (1966), मेफिस्टो(1981) ह्या सारखे उत्कृश्ट चित्रपट दिवपी इस्तेवन स्झाबो आनी मार्टिन स्कॉरसेस ह्या दोन दिग्गजांक हे खेपे सत्यजित रे जीवनगौरव पुरस्कारांनी भोवमानीत केले. करोनाचे धामीक लागून ते हो पुरस्कार घेवंक व्यक्तीगत रुपान येवंक पावले नात पूण तांणी आपलें उलोवप धाडून दिल्ले.

जगप्रसिध्द भारतीय दिग्दर्शक सत्यजित रे हांची ओंदुच्यान जल्मशती आरंभ जाता. त्या निमतान हो पुरस्कार दिवपाचो थारायला जो सत्यजित रे जीवनगौरव पुरस्कार नावान वळखतले.

# गोंयच्या कोंकणी चित्रपटाक गर्दी

इफ्फीचें उक्तावण जालें आनी इफ्फीक आरंभ जालो तरी हे इफ्फींत गोंयच्या चित्रपटांची सुवात किंतें हेंच थारूंक नाशिल्लें.देखून गोंयचे निर्माते, दिग्दर्शक,कलाकार निर्शेल्ले. येदो व्हडलो आंतरराष्ट्रीय महोत्सव गोंयांत जाता आनी गोंयकारांक आपलें कर्तृत्व दाखोवंक मेळना हाचें दुख्ख महोत्सवांत आशिल्लें. तरी पूण ह्या महोत्सवांत कळावान काय जायना एक मराठी आनी चार कोंकणी चित्रपटांचें प्रदर्शन जालें. तातूंत ब्रिजेश काकोडकार हांचो 'गगन', हिमांशु सिंग हांचो 'कुपांचो दर्या', जितेंद्र शिकेरकार हांचो 'डिकोस्ता हावस' हांचो आसपाव आशिल्लो. पुराय लांबायेच्या चित्रपटाचो प्रिमियर जालो



तो जितेंद्र शिकेरकार ह्या गोंयच्या दिग्दर्शकान दिग्दर्शीत केल्ल्या कोंकणी चित्रपटाचो.हो चित्रपट गोंयची नामनेची समाजसेवक, उद्योजक आनी एका काळार हौशी रंगभुंयेर कलाकार म्हूण नामना मेळयल्ल्यो डॉ. प्रमोद साळगांवकार हांणी निर्माण केला. निर्माती म्हूण तांणी हे आदीं 'म रे पर्यंत फाशी' हो मराठी चित्रपट निर्माण केल्लो आनी आतां तांणी 'डिकोस्ता हावस' हो चित्रपट तयार करून गोंयांत चित्रपट निर्माते तयार जावंक जाय म्हणपाची देख घालून दिल्या. तांच्या ह्या कार्याची चित्रपट मळार तोखणाय जाता.

इफ्फीक ज्या उत्साहान आरंभ जाल्लो त्याच उत्साहान ताचो समारोप जालो. उक्तावणाक उमेद आसताच पूण समारोपाक उत्सुकताय आसता. ह्या इतल्या चित्रपटांतल्यान पयलो चित्रपट कोणाचो, जाका 'भांगरा मोर' फावो जातलो ? ही ती उत्सुकताय. ओंदुच्या महोत्सवांतल्या भांगरा मोराचेर म्होर बसली ती जपानी चित्रपट'रिंग वॉंडरिंग' ह्या चित्रपटाचेर. ह्या चित्रपटाचे दिग्दर्शक मासाकाझू कानेको हांणी तो समारोप सुवाळ्याक स्वीकारलो.

देशाच्या सामाजीक सद्‌सद्‌विवेकान आनी एकवटीत इतिहासाच्या पड्‌ड्या फाटल्यान लिपिल्ल्या झुजांच्यो यादी तांणी आपल्या ह्या चित्रपटांतल्यान चित्रायल्यात. तांकां ह्या पयल्या पुरस्कारा खातीर रु.40 लाख,मानचिन्ह आनी मानपत्र फावो जालें.ह्याच सुवाळ्यांत 'गोदावरी' ह्या चित्रपटांतले उत्कृश्ट भुमिके पासत जितेंद्र जोशी तशेंच स्पॅनीश अभिनेत्री अँजेला मेलिना हांकां तांच्या 'शार्लोट' चित्रपटांतले भुमिके पासत सर्वोत्कृश्ट अभिनया पासतचो पुरस्कार भेटयले.

हे इफ्फींत सर्त विभागांत एकूण तीन भारतीय चित्रपट आशिल्ले. तातूंत 'मी वसंतराव'आनी 'गोदावरी' हे दोन मराठी आशिल्ले. तातूंतल्या 'गोदावरी' चित्रपटांतले निशिकांत कामत हे भुमिके पासत जितेंद्र जोशी ह्या कलाकाराक सर्वोत्कृश्ट अभिनया पासत रुप्या मोर,र.10 लाख आनी मानचिन्ह तशेंच मानपत्र फावो जालें.

अशे तरेन हो इफ्फी दबाजान उलगलो.आतां आमी वाट पळोवंया फुडले इफ्फीची.

●●●




वाचन आनी लेखनाची आवड आशिल्ल्या डॉ.सुषमा अरूर सद्या गोंयांत दोना पावल हांगा वास्तव करून आसात. तांणी 'गजाली पोटसऱ्याच्यो' हें सर्पप्रेमी गुरुराज सनिल हांचें कन्नड पुस्तक कोंकणींत अणकारीत केलां.

केसरबाय माचयेर राज ठिवीन, थाटांत येवन बैसून एक फावटी प्रेक्षकां वयर गरुडा नदरेन पळोवन, संयोजकांक सुचना दिवन कार्यक्रम सुरू करताली. तिचे चमकदार ,तेजस्वी आनी खणखणीत आवाजाची जादू श्रोत्यांचेर मोहिनी घालपी. एका झपाट्यांत तिचो भव्य आवाज वयरचे तार सप्तका सावन खोल प्रतिध्वनी करत सकयल मंद्र सप्तकांत म ायका शिवाय हजार जणांक आयकूंक पडावतालो...

# गजाली

## एक अपूर्व उस्ताद आनी तांचे दोन अद्वितीय शागीर्दांलें

विसाव्या शेंकड्याच्या आदले काळांत गोंयच्यो दोन असाम ान्य गावप्यांनी एकाच गुरू कडल्यान, एकाच कालावधींत तालीम घेवन मुंबयचे मात न्हय, सगल्या भारतांतल्या हिंदुस्तानी संगीत क्षेत्रांत व्हड नांव कमयल्लें सगले जाणात. हांगेलें गायकी आनी व्यक्तिमत्वांत अजगजांतर फरक आशिल्लो.एकलेन गुरू सोदपाक आकाश -पाताळ एक केल्लो. दुसरेलें सुमधूर गायन आयकून, प्रत्यक्षांत गुरूनच शिश्या म्हूण स्वीकारलें. एक बहिर्मुखी आनी स्पष्टवक्ते , दुसरी, अंतम ुखी, शांत आनी समजूतदार शागीर्द. संगीतांत दोगंय एकापेक्षा एक प्रवीण! एकली विजेची व्हांवणी, आनी एक शांत कुशावती न्हंयेचें व्हाळप. एक फटकळ, दुसरी सहनशील अशी समजूत सार्वत्रिक आशिल्ली. तो महान गुरु आशिल्लो उस्ताद अल्लादियाखान साहेब, जयपूर -अत्रोळी घराण्याचे धुरंधर आनी तांची शिश्या म्हळ्यार सुरश्री केसरबाय केरकर आनी गान तपस्विनी मोगूबाय कुर्डीकार, एक गोंयांतल्या केरी गांवची आनी दुसरी



कुर्डीची.

### केसरबाय केरकार
(१८९२-१९७७)

देवदासी कुटुंबांत उपजल्ली केसरबाय ल्हान वयांतूच, म्हळ्यार 8 वर्साची आसतना आवये बराबर गुरूले सोदांत, संगीत शिकपाक कोल्हापुराक गेली. थंय किराना घराण्याचे उस्ताद करींखानसाहेबा कडल्यान 10 म्हयने शिक्षण घेतलें. उप्रांत गोंयां आयली. हांगा अशे कोणय संगीत शिकयतले नाशिल्ले. रामकृष्णबुवा वझे आनी भास्करबुवा बखले हे दोगय नामनेचे गावपी अदीं मदीं गोंयां येवन शिकयताले. हांचे कडसून थोडो काळ केसरबायन संगीत शिकप चालू दवरपाक साध्य जाल्लें. अशें तिजें 15-16 वरसां तुकड्यांत जावपी शिकवणी लेगीत बेजारून ती सातत्यान शिकयतल्या एका बऱ्या गुरूच्या सोदांत आसली.

तेच वेळार म्हळ्यार 1912 त जयपुर घराण्याचे उस्ताद अल्लादियाखान साहेब मुंबय आयिल्ले तेन्ना केसरबायन खूब

विनवणी केले उप्रांत खानसाहेब शिकोवपाक राजी जाल्ले. संगीततज्ञ बी.आर देवधर हांणी केसरबाय वांगडा घेतिल्ले संदर्शनांत खासा केसरबायन म्हणिल्लें, ‘अल्लादियाखान साहेबाली शिकवण कठीण आसताली, आज शिकिल्लें, फायथाय याद उरनासलें. प्रतीदीस ते राग करताले. तांणी फकत 9 म्हयने शिकयलें. उप्रांत तांची भलायकी बिगडली आनी ते उपचारा पासत सांगली गेले. परती तालीमेंत खंड पडलो, परती तुकड्यांत शिकवण सुरू जाल्ली.

केसरबायक अणभवान कळ्ळें, संगीत शिकचेंच आसा, तर अल्लादीयाखान साहेबा कडसूनच शिकवण घेवपाक जाय म्हूण. ती प्रयत्न करत उरली, तरी खानसाहेबान बिलकूल हयकार दिलो ना. तिका यश मेळ्ळें एका वरसा उप्रांत! तेंय बी वसिलो लावन. अल्लादीयाखान सायबान हे परिस्थितींतल्यान भायर पडपाक एक कठोर कोंत्रक्त / करारनामाक कबूल करपाक केसरबायक भाग पाडलें. आनी तिणें कबूल केलें. खानसाहेब सकाळ 8 ते -सांज 8 वरेक, मर्दी जेवण आनी थोडो विसव सोडल्यार सातत्यान शिकयताले. फांतोडेर ती स्वतालो रियाज करपी! तिका गुरू खुबच त्रासान लाभलेलो, तें लेगीत स्वताले हातान चूक वा अलक्ष जायनाशें काळजी पूर्वक ती वागपी. अदी मर्दी तिजो आवाज बसपी, पूण 6 म्हयन्यांत तिजे आवाजांत निनाद आनी कसोय आवाज फिरोवपाची शक्ती आयली. प्रत्येक राग परती परती म्हळ्यार शंबरां पेक्षा चड वेळा म्हण ताजेर प्रभुत्व हाडपाचे प्रयत्नांत ती आसपी.

सानपण पसून गुरुंले सोदांत तिणें घेतिल्लो त्रास आनी अल्लादीयाखानाले कठोर शिस्त आनी तालीमे मेरेन तिचें व्यक्तिमत्व परिपुर्णतावादी (perfectionist) जालें. सानपणांत तिचे आयुश्यांत अशें कसलें घडलें तेन्ना तिचो जात वा वेवसाय ह्या मुद्यार तिका कोणय उणेपण दखयलें वा हिणसायले आस्सूं फाव. असले परिस्थितींत स्वताक साबीत करपाचे आनी जगाक दाखवपाची दाट जिद्द तिचे मनांत उमगुंवप साहजीक आसपी. ह्या कारणान तिणें आपणालें मुखावयलें जिवीत ह्या मानदंडार जगलें म्हणयेत. तिचो स्वभावच धाडशी आसून कसलोय फाल्तुपण सहन करतली बायल बिलकूल न्हयशिल्ली. स्वताले जिवितांत केदनाय तडजोड केल्ली दिसून येना. तिका स्वतालो प्रचार वा प्रसिद्धीचो तिरस्कार आशिल्लो. पत्रकार आनी संघटकां वांगडा तिची कठोर वर्तणूक संगीत क्षेत्रांत जगजाहीर आसली. तशेंच तिचो रागीट सभाव, व्हडपण, अभिमान, मत्सर बुद्धी आनी घमेंडिची आख्यायिका खूब आस्सत.

गायन शिकपांत केसरबायंत आसपी चिकाटी,तिचें संगितांतलें खोल गिन्यान, तिची महत्वाकांक्षा तिचे चरित्रांतल्यान जाणवता. एक बुदवंत आनी कुशळ गावपी म्हूण तिका संगीत क्षेत्रांत मान आशिल्लो. ती प्रसिद्धी आनी यशाची पायरी चडिल्ली तरीय ती वेवस्थीत तयारी शिवाय मैफिल करी नासली. कारण तिचे रसीक प्रेक्षकांली गुणवत्ता वयरचे थरार आसताली .तिचेर सरस्वती आनी लक्ष्मी दोगांली कृपादृष्टी कायम आशिल्ली.

केसरबाय जेन्ना खुल्या आनी भारदस्त आवाजांत खयाल गाताली, तेन्ना मंद्र, मध्य आनी तार ह्या तिनी सप्तकांत ती, तानो सुरू करत, राग फिरायत , तबल्याचो ठेको बरोबरीन ‘सम’ मेरेन ये सर 40-45 सेकंड तिचो श्वास नियंत्रण अभूतपूर्व आसतालो. तिचो सुराचो चमत्कारीक डौल, आयकुंवपाक प्रेक्षक आतुरायेन वाट पळयताले. तिची आलाप प्रधान गायकी स्पश्ट, निरायास आनी लालित्यपूर्ण आसताली. विलंबीत खयाल तिची आवडती शैली, अशें संगीत तज्ञालें म्हणणें आसा.

केसरबाय माचयेर राज ठिवीन, थाटांत येवन बैसून एक फावटी प्रेक्षकां वयर गरुडा नदरेन पळोवन, संयोजकांक सुचना दिवन कार्यक्रम सुरू करताली. तिचे चमकदार ,तेजस्वी आनी खणखणीत आवाजाची जादू श्रोत्यांचेर मोहिनी घालपी. एका झपाट्यांत तिचो भव्य आवाज वयरचे तार सप्तका सावन खोल प्रतिध्वनी करत सकयल मंद्र सप्तकांत मायका शिवाय हजार जणांक आयकूंक पडावतालो... अशें संगीततज्ञ आनी संगीत समीक्षक मोहन नाडकर्णी हांणी बरोवन दवरिल्लें अस्स्सा.

1977चे सुमाराक सगल्या संवसाराचे वतीन अमेरिकेंतले नासा सावन वायेजर-2 म्हळिल्लें अंतरिक्षयान मळबार सोडलें. तें यान अजून अंतरिक्षांत घुंवत आसा. हें सांगचो उद्देश म्हळ्यार भारतांतल्यान केवल, केसरबायन म्हळिल्लें, ‘जात कहां हो’ ही भैरवीची 3.30 मिनिटांची टेप वेंचून काडन अंतरिक्षांत धाडिल्ली आसा. ह्या मुद्रणाचेर, ‘सुरश्री दशसहस्रेषु’ हें नांव घातिल्लें आसा. हाचो अर्थ, धा सहस्र वरसां मेरेन हें संगीत जीवंत आसपी म्हूण जात्ता. अशें केसरबाय हिचें गांणे अजरंवर जाल्लें. हिंदुस्तानी संगिताक दिल्ली गोंयची एक अनमोल देणगी म्हळ्यार केसरबाय !

# मोगूबाय कुर्डीकर
## (१९०४-२००१)

मोगूबायलो कुटुंबाचो जिवीत गोंयचे सांगें तालुक्यांतलें कुर्डी गांवचे सोमेश्वर देवळा भोंवतणीं, संगीत, नाच, नाटक, शिल्पकला, हातूंत वावर आशिल्लो. आवय जयश्रीबायक मोगूल्या आवाजांतले गोडसाणीची जाण तिचे बाळपणा पसूनच कळिल्ली. तिका मुखार शुद्ध गायन शिकोवपाक जाय ही चिंता तिचें जिवीत सोंपू वरेक आशिल्लेंच. प्रति दीस पालकी मुखार मोगून म्हणचे पदांत/ भजनांत एक नावीन्य दिसतालें तिका. तें आयकून आवय खोशी जात्ताली.

आवय जयश्रीबायक बरो गुरू सावन मोगूक संगितांत प्रशिक्षण दिवपाची एक व्हड आस्त आशिल्ली. तिका गोंयां भायर घडतल्या संगिताची जडण घडणाची जाण आशिल्ली. उत्तर हिंदुस्तानांत 'खयाल' हो गायनाचो प्रकार, ताची वाड, विकास आनी ते शैलींत शिकिल्ले गुरुजन गोंयांत येवन सरस्वतीबाय बांदोडकर, बबलीबाय असल्या कितल्या तरी कलावंतांक शिकयिल्लें बी तिका खबर आशिल्लें. हांणी घर-दार सोडून संगितांत परिश्रम करून नांव कमयल्लें ती जाणताली. हांची गजाली मोगूक केन्ना-केन्नाय आयकयताली. अशीच मोगूक बी संद मेळका अशें तिचो ध्यास आशिल्लो.

गोयां आयिल्ले बाळकृष्ण वझेबुवा कडसून स वरसांची मोगूक संगीत शिकोवपाक तिचे आवयन धरधरीत ताणून व्हेल्लें आनी तांणी फकत स म्हयने शिकयलेलें ही घडणूक मोगूबायन आपणाल्या चरित्रांत नोंद केल्लें आसा. उपरांत त्या काळांतले गोंयांतले नाम नेस्त तबलावादक लयभास्कर खाप्रूमामा पर्वतकर हांचें मार्गदर्शन सतत तिका मेळत उरलें. नंतर गोंयांतलेच चंद्रेश्वर भूतनाथ संगीत नाटक मंडळींत ल्हान मोगूक काम करपाक संद बी मेळ्ळी. पूण मोगून सानपण खूब त्रासांत काडलें. तिचे आठवे वर्सार तिची एकूच एक आदार आशिल्ली आई जयश्रीबाय क्षयरोगान सरली. पर्वतकरान तिका आश्रय दिवन मोगूक सातारकर नाटक मंडळींत प्रवेश मेळोवन दिलो आनी संगीत, नृत्य आनी अभिनयाचे तालमीत प्रवीण कलाकारां कडसून तिका प्राप्त जाल्लें. 'राम राज्य वियोग', 'पुण्यप्रभाव' आनी अण्णासाहेब किर्लोस्कर हांगेलें 'सौभद्र' ह्या नाटकांतलें तिजें पात्र आनी पदां अजरंवर थारलीं.

शांत सभावाच्या मोगूक जिवितांत खूब कितें सहन करका



पडलें. दुख्खां आनी निराशेन तिची फाट सोडली ना. पूण तिका जिवितांत व्हडली गावपी जावप ही एक जिद्द आशिल्ली म्हूण खयंचेय परिस्थितींत तिणें आपलो रियाज सोडलो ना. बाळुमामा पर्वतकर हांचे बराबर ती सांगली पावली आनी तिचें भाग्य बदल्लें. ह्याच गांवांत उस्ताद अल्लादीयाखान साहेब असले तिका गुरुश्रेष्ठ लाबले. तालीम सुरू जाल्ली पूण थोड्याच काळान लोकांले संकुचीत मनोभाव आनी सामाजीक निर्बंधनाच्या दडपणान गुरून येंवचें बंद केलें. पूण मोगूबायले चिकाटीन आनी तिचे मधुर संगितान शत्रु, मित्र जावंक वेळ लागलो ना! परती तालीम जोरायेर चालू जाल्ली.

पूण तितल्यांत बॉम्बेंत आसले केसरबायन अल्लादीयाखान साहेब हांणीच आपणाक शिकोवपाक जाय म्हूण हट धरन थंयचे गिरेस्त आनी नामनेस्त लोकांली वशिली लावन फक्त आपणाकूच शिकोवपाक जाय अशी एक परिस्थिती घडोवन हाडली आनी एक दीस खानसायबान मोगूबायलो निरोप घेतलो. मोगूबाय हैराण जाल्ली. तिजो आधार तुटून पडलो आनी ती सांगलींत एकटीच जाल्ली. ती परती कुर्डी आयली.अपणाल्या नशिबांत निरंतर गुरुकृपा ना कि कितें? अशें तिका दिसून ती खळनाथाक शरण गेली. मुंबय यो म्हूण गुरून सांगिल्लें, त्या वेळाक तिका कांय सुचना जालें.

मोगू जाणटाली, गोंया साकून भायर पडना जाल्यार तिची ध्येय पुर्ती जावंची ना. म्हूण सुमार वीस वर्सांची मोगूबाय आपले मावशेक घेवन मुंबय रवाना जाली. तिका आत्तां नवीन गुरू सोदचो

पडलो. नाइलाजान तिणें घराणें बदल्लें. विलायत हुसेन खानालो जांवय बशीरखाना कडल्यान प्रशिक्षण सुरू केलें. आग्रा परंपरे प्रमाण तिच्या नाजूक आवाजाक मर्दानी थाट सोबऽनासलो. जयपूर शैलींत तालीम घेतिल्लेक आग्रा घराणा शिकप खूब त्रासाचें जायत आशिल्लें. तशेंच थोड्या दिसान तालमींत खंड पडलो. कारण बशीरखान दिल्लीक रवाना जाल्ले आनी मोगू गुरू बिन रियाज करपाक लागली.

पूण कर्मधर्म संयोगान मोगून रावचे घरा फाटल्यानूच अल्लादीयाखान रावताले. तांणी यो-वत्तना मोगूलो रियाज आयकून तांचें मन चित्त- विचलीत जात्तालें. एक दीस रस्त्यार मोगू तांकां दिसली. तेन्ना गुरून विचारलें, ''तुजे आवाजाची म धुरसाण खंय गेली? हांवें घातिल्लो संस्कार विसरली कि कितें?''

तेन्ना मोगून जाप दिली, ''तुमी वाडिल्ल्या पंच पक्वानांची थाळी, तुमीच न्हय काडून घेतली? हांव कितले दीस म्हूण एकादशी व्रत करूं?''

खांसाहेब गोंदळ्ळे,उतरां सुचना जाल्लीं. पूण तांणी आश्वासन दिलें, तांचो भाव हैदरखानाक कोल्हापुरा सावन आफोवन हाडटां म्हूण. पूण मोगूबायेक दुबाव आशिल्लोच! मर्दीच तालीम बंद जाल्यार? हो व्हडलो प्रस्न आशिल्लोच! मोगूले जिवितांत असली परिस्थिती खूब वेळा येवन गेल्ली म्हण तिणें खात्री करन घेंवपाक म्हणलें, ''कसलेय कारणान तालीम बंद पडल्यार खांसाहेब स्वता येवन शिकोवंक जाय.'' अशें आश्वासन तिका घेंवक पडलें. आनी मोगूबाय परती जयपूर घराण्यांत आयली. हैदरखानसाहेबाली तालीम सतत 6 वर्सां अखंड चालू आसली.

एक सांजवेळाक मोगूबाय पूर्वी रागाचो आलाप घेत आसतना खानसाहेब परते तिजे आयुश्यांत आयले आनी परती शिकवण सुरू जाली.

खानसाहेब मोगूबायक गुपीत रितीन शिकयत आसात म्हूण कळून आयलें आनी केसरबायलो राग -कोपाक पारा ना उरलो. तिणें मोगूबायक प्रत्यक्ष व अप्रत्यक्ष रितीन त्रास दिवंक सुरवात केली.

अशी सुरवात जाल्ल्या विसाव्या शतमानांतल्या एका घराण्यांतल्या एका उस्तादाल्या दोन असामान्य शागीर्दांगेलें संगीत क्षेत्रांत एकतर्फी स्पर्धा, मत्सर आनी अहंकाराचो संघर्ष. सत आनी फटीच्यो गजाली भरभरून पातळ्ळ्यो. नाटककारांक आनी चित्रपट निर्मात्यांक भरपूर काणयो मेळ्ळ्यो, मराठींत अनेक लेख,



एक-दोन नाटकां, पुस्तकां, एक कादंबरी आनी एक चित्रपट अश्या वेगवेगळ्या माध्यमांतल्यान हांगेल्यो काणयों उजवाडाक आयल्यो.

मोगूबायलें गाणें आनंद दिवप, प्रत्येक मैफीलींत तिणें विणलेल्या गायनाची मांडावळ बेमीसाल आसपी. मोगूबायन अंतरमुखी जावन प्रस्तुत केल्ले प्रत्येक आलाप, प्रत्येक विस्तार श्रोत्यांक आयकून साक्षात्कार जात्तालो. ही तिच्या सृजनशील प्रयत्नांची प्रक्रिया अध्यात्मा दिकेन वाटचाल म्हण स्पष्ट दिसतालें. मोगूबाय एक सादी, घरेलू, घरगुती काम करत फिर्क्या ताने ( स्पिन)ची रियाज करपाची तिका संवय आशिल्ली. तिचो वावर केन्नाय गंभीर, मान सम्मानाचो आसपी. नम्र सभावाची, भायर-भित्तर अचुकताय दिसून येवपी अशें तिच्या विमर्शकांलें म्हणणें आसा..

मोगूबायल्या जिविताचेर एक नदर घातल्यार तिणें कितले कश्ट सोंसले, अडथळ्यां वयर मात केली, पूण ध्येया पासून ती केन्नाच विचलीत जाली ना. तिचे कठीण परिश्रम, एकचीत्त, नम्रता आनी सादेपण लक्षांत घेवन गुरूच तिचे दरवंट्यार सोदून आयिल्ले. कितलें प्रेरणादायीक सत आसा. मुखार तिका मान -सन्मान मेळ्ळो, पुरस्कार भरभरून मेळ्ळे पूण ती निगर्वी आनी मुखावेले पिळगेक स्फूर्त जावन, तिचें गायन अजरंवर जावन लोकांल्या मनांत कायमचें उरलां. तिची कन्या किशोरी आम ोणकरान तशेंच तिच्या अन्य शागीर्दान मोगूबायलो वारसो मुखार व्हेलो.

## उस्ताद अल्लादीयाखान साहेब
### (१८५५- १९४६)

उस्ताद अल्लादीयाखान साहेब म्हळ्यार हिंदुस्तानी शास्त्रीय संगिताचे, उंच पांवड्याचे उत्तमोत्तम गुरू म्हण येत. तांचे नितळ धवें धोतर, धवें खोमीस, ताचे वयल्यान बंडी, माथ्याक गुलाबी रंगाची पगडी आनी तांगेलें तेजपुंज तोंड पळयल्यार एक ऋशीमुनी शें दिसपी. तांच्या घराण्यांतले सगले सदस्य संगितांत माहीर आशिल्लो कारणान अल्लादीयाखान साहेब हांकां जन्मजात आनी तांचे नियमीत रियाजान त्या काळांतल्या ल्हान-व्हड राज्यांचे राजा, महाराजांलो तांकां राजाश्रय मेळ्ळो. देशभरांत तांची मेहफील आयकुवपाक रसीक प्रेक्षक उत्सुक आसताले आनी तांची खूब तोखणाय जात्ताली. दोन वर्सा नेपाळच्या दरबारांत, ताचे उप्रांत कोल्हापूर दरबारांत राज्यगायक म्हूण नेमणूक जाल्ली आनी शाहू महाराजाल्या मरणा उप्रांत ते मुंबय आयले.

त्या काळांत कितलेय व्हड गायक वा वादक आसल्यार बी कोणतरी गिरेस्त पोषक कलाकारांलें फाटबळाक आस्सूचें गरजेचें आसतालें. एक राजाश्रय वा लोकाश्रय जाय पडतालें. तशेंच कलाकारांक बरो गुरू अखंड शिकोवपाक मेळप हें दुर्लभ आसतालें. तांकां खूब कडेन आमंत्रण येवप वा म हफिलीक दुसदूसरे कडेन वचप, गायन म्हण म्हण आवाज बसपी, भलायकी सुदरवपाक सांगलींत रावतले साबार वैद्य हांचे कडेन सुमार अशे गवय्ये वखद-विरसताक येवपी. आनी वैद्यांक बी संगीत खूब आवडटालें. होळी आनी केन्नाय दोन -चार गवय्ये मेळटालें तर एक जोरदार मैफल जमताली. अशें एके फावटी खानसाहेब सांगली आयिल्ले तेन्ना तरनाटे मोगूबायल्या मधुर आवाजाक आकर्शीत जावन स्वताहून तिचे घरा येवन गुरू जाल्लेले प्रसंग त्या काळांत एक खाशेली घडणूक आशिल्ली. कारण संगीत क्षेत्रांत गुरुच्या सोदांत गांव गांव भटकतल्या गावप्यां संबंदी चड उल्लेख येता.

खानसायबांक आदी पसून गैरसमज आशिल्लो की केसरबायक आपणाली शैली पेलूंक जमचेंना अशें. आनी पयले फावटी तशेंच जाल्लें बी, गुरू आनी शिष्या दोगय नाखूश आसलीं अशें स्वता केसरबायन उल्लेख केल्लें आसा. सुमार वर्सां पयलीं खानसाहेबांन तीन म्हयने तिका शिकयिल्लें. दोगांय एकमेकांक दोश दीत उरलीं. मागीर तिका कळ्ळें की खानसाहेबा असले गुरू मेळप कठीण आसा म्हूण, तिणें नंतर खूबच प्रयत्न केलो. तांकां फोर्स बी केलो. पूण ते तिचे पसून पयसच धांवतालें. आखेरीक कलकत्ताचो एक कोट्याधिपती सेठ धुनीछंद (खानसाहेबांले घनीष्ठ मित्र) हांणी फट सांगून खानसाहेबांक मुंबय आफोवन हाडन केसरबायक तार्णे शिकोवपाक जाय, ना म्हळ्यार तांची इश्टागत तेन्नाच सोंपतली असो धाक घालना फुडें नाइलाज जावन खानसाहेबाक केसरबायेक शागीर्द म्हूण स्वीकार करपाक भाग पडलें. केसरबायल्याच उतरांतल्यान सागपाचें म्हळ्यार, तो कंत्राट/करारपत्र खानसायबान केल्लें, केसरबायल्या फंदा सावन भायर पडपाक म्हूण. पूण जाल्लें दुसरेंच. तिका तेच गुरू जाय आशिल्ले म्हूण तिणें सगले करार मान्य केले. तशेंच खानसाहेबान तिची शिकपाची आस्त लक्षांत घेवन शिष्या म्हूण गंडा बंधन बी केलें. (ही एक शिष्य स्वीकारपची एक विधी) ह्या वेळार खानसाहेबांलें वय 78 आशिल्लें.

दोन बायलां मदीं अडकल्ल्या दादल्याची हालत जाल्ली खानसायबांली! आपणाक लागून मोगूबायक अर्दार शिकवण सोडपाक भाग पडलें. तिका अन्याय जालो ही चिंता खानसाहेबाक सतत सतायताली. तिणें घराणा बदल्लो हें कळना फुडें, ते परते शिकोवपाक आयले. मोगूबायलें गंडा बंधन अजून मेरेन जाल्लें नासलें म्हूण केसरबायल्या पक्षाच्यान मोगूबायक गुरूच ना म्हूण आवाज उटकारयलो. तांचे मैफली दिसाक तिचे विरोधांत पेंफ्लेट वांटून आनी वणटीर चिकटायल्लो. उप्रांत खानसाहेबान माचयेर येवन प्रेक्षकांक आनी थंय जम्मील्यांक मोगूबाय आपणाली शिष्या म्हूण घोशीत करपाक पडलें.

ही गुरु-शिष्याली जोडी बापय आनी चलयेगेले मजगतींतली मायेची आसली. तांकां मोगूलीं दुकां,निरशेणीची जाणीव आशिल्ली, पूण तांचे हात बांदिल्ले आशिल्ले. मोगूबायक बी गुरूले मनांत जावपी कळवळ्यांची जाण आशिल्ली. खानसाहेबाल्या अंत काळांत मोगूबायलोच आदार आशिल्लो आनी तिणें गुरूल्या मोगान आनी आदरान सेवा केली.

केसरबाय आनी मोगूबायक दोगांकूय आसपी संगिता वयलो मोग आनी शिकची जिद्द जाणून खानसाहेबान वेगवेगळे आनी दुर्मीळ अशे राग शिकयले. दोगंय सतत उमेदीन वरान



वरां उत्साहान आनी सहनशीलतायेन तालीम करतालीं. म्हूण उस्तादान बी तेच उमेदीन शिकयल्लें आसा, हें तांचें चरित्र वाचनांतुल्यान जाणीव जात्ता. एक विशेष म्हळ्यार खानसाहेबांल्या शिष्यांले गायकींत सामकें तशेंच प्रतिरूप नासलें, प्रत्येकांले गायकींत वेगळेपण उठावन दिसप आनी ही खुबी अल्लादीयाखान साहेबांले शिकवणींत आशिल्लें म्हणतात, संगीततज्ञ बि.आर देवधर.

खानसाहेबांले गायकीची बुन्याद ध्रुपद-धमार शैली पसून सुरवात जाल्ली आनी ताचे उप्रांत खयाल पद्दत तांणी आत्मसाथ केल्ली. तांचे गायकींत छोटा ख्याल नाशिल्लें, पूण तांणी खंयचोय राग 20-25 मिनिटां वयर म्हणचे नासलें. तांची खासियत म्हळ्यार आलाप आनी बोलताना. श्रोतां खानसाहेबांलें सुंदर आलाप आनी बोलताना आयकून खूश पावताले कारण तांणी म्हणचो राग असामान्य, आनी तांची प्रस्तुतिकरण अद्वितीय आसतालें अशें संगीततज्ञालें अभिप्राय आसा.

उस्ताद अल्लादीयाखानसाहेबांलें व्हड योगदान म्हळ्यार -तांणी शिकोवन तयार केल्ली शिष्यमंडळी- भास्करबुवा बखले, केसरबाय, मोगूबाय, खानसाहेबांले बंधु हैदरखान, सुपुत्र मंजीखान आनी भुर्जीखान असले दिग्गजान हिंदुस्तानी संगिताचो प्रचार आनी प्रसार मध्य आनी दक्षिण भारतांत पसरिल्लेआसा. उप्रांत तांचे पसून तांचे शागीर्दान जयपूर घराण्याची गायकी अजरंवर केली आनी करत आसात. ही संगिताची परंपरा मुखार गान सरस्वती किशोरीताई अमोणकर आनी तांचे अनेकानेक शागिर्द आखेर पर्यंत जिवंत आनी सशक्त दवरतले अशी आस्त बाळगुंया!

●●●

आधार-


1. Pillars of Hindustani Music- B.R Deodhar (English Tr by S.D Deshmukh)
2. संगीत विमर्शक मोहन नाडकर्णीचे वेबसाईट
3. संगीत सरसी: प्रकाश बुर्डे:हांचे संगीतयान संपादकी- दो ज्योत्स्ना कामत आनी दो। सुषमा आरूर
4. गान तपस्विनी- कल्याणी इनामदार

ललित

काश्मिरी पावसकार



# गीतू

काश्मिरी पावसकार पेशान शिक्षिका जाल्ल्यान तांचो सातत्यान संपर्क येता तो विद्यार्थ्यांलागीं आनी नवनव्या कल्पना विश्वा कडेन. हाकाच लागून तांचे विचार एके वेगळेच गतीन साहित्यरुपांत परावर्तीत जातात. कांय वर्सां फाटीं त्यो बिम्बांत सातत्यान सदर बरयताल्यो. तांचें एक पुस्तकय उजवाडाक आयलां. बऱ्याच काळान तांचे साहित्य वाचप्यां मुखार येता ही वाचप्यां पासत खोशयेची गजाल.
पत्तो : शिवोली, बार्देस.
मो.: 9421192858

आयज लग्नाक अठ्ठावीस वर्सां पुराय जाल्यांत, तरी अदीं मदीं म्हजें मन कुळारच्यो भोंवड्यो मारता. तशें आमच्या ह्या भतग्रामांत सणां परबांचो घेऽ म्हूण पावस! देखून संद मेळटकीर हांव मुजरत कुळारा फावट मारून येतांच. पूण फाटलीं दोन वर्सां करोनाक लागून हें सगलें बंद पडिल्लें, ताका लागून म्हाकाच न्हय तर आमच्या वाड्या वयल्या सगल्या धुवांक केन्ना काय कुळार गांठता शें जाल्लें.

गांवचो नवो सोमार, लक्ष्मी पुजन, नवरातीचो धोलारो, शिगम्या नाटकां, वीरभद्र, घोडेमोडणी हें आमचें दायज आजुनूय सांबाळून दवरलां. तशेंच हांगा आतऱ्या पयऱ्यान घडोवन हाडिल्ले मनरिजवण कार्यक्रम तर विचारूच नाकात. चड करून कोजागिरी पुनवेक आनी लक्ष्मी पुजनाक बी घेऽ म्हूण सर्ती. हांगचो म्हाजन जितलो गडगंज तितलो कार्यक्रमूय गडगंज! दर वर्सा प्रमाण अंदूय लक्ष्मी नारायणाच्या म्हा प्रसादाक आपोवणें आयलें, तातूंत दोगूय भाचे म्हाजन म्हणटकच आग्रो चड. हांगा आदल्यो इश्टीणी भेटतात, खास करून गीता. हें 'गीता' म्हणल्यार आतांचें डॉ. गीता नागेश काकोडे आनी आदलें गीता मुकूंद कडकडे. वाड्यार सगलीं ताका मोगान 'गीतू' ह्या नांवान पाचारतात. देडाक सुमार मठांत वच जाल्यार म्हजे पयलीं बारांकूच थंय हाथरिल्ल्या जमखणार बसकण मारून देव दर्शनांत गुल्ला जाल्लें. थोडो वेळ वाट पळोवन हांवेंच ताका उलो घालो, तसो सदांचोच मुखामळा वयलो हांसो फुलोवन सोमतेंच म्हऱ्यांत आयलें. येवन म्हजे धुवे लागच्यान मॉबायलार आमचे फोटे काडून घेवन इश्टागत कॅमेऱ्यांत क्लीक करून घेतली. उपरांत गांठ भेट घेवन जातकच 'भुरगीं किते करतात?' बी सारके थारावीक प्रस्न



विचारून जाता थंय आसा उब्यांनीच आमी भुरगेपणाच्या विश्वांत केन्ना रमलीं आमकांच कळ्ळें ना.

मुखार शाळेंतली याद काडीत गीतान म्हणलें, 'तुका याद आसा मगो? आमी भोवन भोवन करंगटीचें बोट दाखोवन कितले तरी फावट वर्गा भायर वतालीं तें? तातूंत तुजो तर पयलो नंबर!' तें आयकून म्हाका हांसो फुटलो. ताका कारणूय तशेंच आसतालें. शिकपा परस खावपाचेर म्हजो चड जीव. बोल्सांतलीं तोरां, बोरां, चिंचारे, भाजिल्ली चण्या दाळ एक सारकी म्हाका खुणायताली. तर केन्ना केन्ना तायटाक दसोवन दवरिल्लो गोडा कुडको चाखून येता अशें जातालें. मागीर दोगां दोगां करून उठ-सूठ वर्गा भायर धांव मारप.

गीतू एक सारकें उलयतालें. अस्सल कोंकणींत आनी मदीं इंग्लीशींत. हांवूय कांय म्होंवाळ यादीं मदींच भरशीतालें. त्या तेंपार सरकारी शाळांनीं आतां सारकें गॅदरिगांचें व्हडलें प्रस्थ नासतालें पूण नाच गायनाच्यो कार्यावळी घेऽ म्हूण. तेन्नाचे नाचूय, चड करून राधा कृष्णाचे बी असले. गीताली गोडसाण जुस्त हात्यावरी, हेरां परस इल्लें लांब, तुकतुकीत कात, सरळ केंसां विणी, शिकपाक हुशार, तितकेंच सामकें मोगाळ. देखून राधेचो मान तागेलो आनी आमी सगलीं गोपी गोपिका. 'नको रे कृष्णा रंग फेकू चुनरी भिजते' ह्या फामाद टिपरी नाचाक आमची जोडी ज्या गोपी वांगडा आसताली ताच्या नांवान हेरांनी मागीर आमकां वर्सभर चाळोवन खावप.

वर्गांत चड करून आशी कुशीचीं भुरगीं आशिल्ल्यान आमची आमिजाद घट्ट आसताली. तशेंच मनरिजवणेचीं साधनांय उणीं आशिल्ल्यान रांदचे वाडच्यांनी, बावल्यांनी सारके खेळ बेस बरे रंगताले. परत गीतूक आनीक एक प्रसंग याद जालो तशें ताणें म्हळें, 'आमी एकदां मठा फाटल्यान वासूचे खोपींत चूल पेटोवन म्हसकां फुलांची भाजी करपाचो बेत केल्लो. चुली उजो सारको पेटना तें पळोवन विश्रांतीन नळी हाडून नेट्टान फूंक मारूंक सुरवात करना फुडें एक कीट मल्लांचेर पडून खोंपीक उजो पेटलो. देवा दयेन तेच दीस वासून नव्यान हाडिल्ल्या नळा पायपाचें उक्तावण करून आमी वेळ मारून व्हेलो. बरें, तितलेंच न्हय, सोमतोच तोप उबारून कुशीकच्या संध्यागेर व्हरून बरी मसाल्याची भाजी करून खाल्ली. इतलीं आमी निर्लज न्हय गो? तितल्यांत थंयच मठांत बोवाळपी वासुदेव आमचे नदरेक पडलो, तशीं आमी दोगांय पोट फुटसर हांसलीं. ह्या खेळांत सीमा आनी संध्या आमचीं मुखेली. दुसरे दिसा कोणागेर खेळप हें आदले दिसाच थारतालें. उब्यांनी कितलोसोच वेळ आमी खबरांनी सामकी गुल्ल. मदींच कोण कोण येवन आमकां 'गीतू' 'काश्मीर' करून हात लावन हटकून वतालीं.

आमचे परस गीतागेर गोरवां चड. तांगेर घराव्या तुपाचो सुरबूस वास नाकांत रिगतालो. शाळेंत ताणें सदांच तूप साखर लायिल्ली चपाती हाडप. ताका लागून 'गीता' म्हणल्यार गांवठी साजूक 'तूप' आनी ताचो सोबीत 'लूक' दोळ्यां मुखार येता. मदींच नागेशाली (घरकार) याद काडली. नागेश म्हाका म्हणटा, 'आमी यू एस वा दुबय या' बी म्हूण, पूण हांव ताका म्हाका दुबय परस दिवचलेच चार दिसांक धाड म्हणटां. इतलो कुळारचो मोग.

वेवसायान तें दोतोर आनी तातूंत बालरोग तज्ञ पूण न्हेसप सादेंच. देखून ताचें व्याक्तीमत्व दोळ्यांत भरता. भुरग्यांच्या रोगाचें अचूक निदान करपांत ताचो व्हड हात. पूण ताच्याच सांगातान आयच्या भुरग्यांचें शेणिल्लें भुगरेपणूय तें तपासून पळयता काय? असो प्रस्न म्हाका पडटा. निमणें वतना उगडासान माईक आनी मम्माक प्रसादाच्यो दोन जिलब्यो व्हेल्यो आनी हांव कुळारच्यो गोड यादीं मनांत घोळयत कुळारचे वाटेक लागलें.

•••



## विशेश कवनां



लक्ष्मणराव
सरदेसाय

केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारान सन्मानीत स्मृतीशेष लक्ष्मणराव सरदेसाय हे ज्येश्ठ मराठी कथाकार. मराठी वांगडाच तांणी कोंकणिंतल्यान कथा बरयल्यात.तांच्या 'पापडां कवळी' पुस्तकाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला.

### पर्वत म्हाकां जावंचें आसा

ते पडटात तेन्ना हांव वाडटां,
दिवन म्हजें बळ तांकां
एक दीस उबे करचे आसात
प्राणाची फूंक घालून
त्राण तांकां हाडचें आसा
पडटात ते पडूं दी खुशाल
पर्वतावरी हां थीर उल्लों
जाल्यार,
सगळे उबे रावतले गा
मोड येता
झाडां-पेडां हुमटून पडटात
कुसून तांचें सारें जाता
तातूंतल्यान कोंब फुट्टात
नवे रूख झेलयत आंगार
पर्वत मात थीर आसता
पर्वत म्हाका जावंचें आसा

### उसत..उसत

उसत...उसत
बोंद्रां उसत
आंगट्यो उसत
सांगशो उसत
उसत पेट्रूल
उसत पेटारो
रात दीस उसत उसत

मान कणली
कमर धल्ली
तरीय सारकी उसत उसत
पापये!जाली म्हातारी
तरीय कितलें उस्तितली?
जल्मभर गावलें ना तें
मेळपाची आस्त कसली?

व्हडलें बरें भाट आसा
भुरगीं आसात, नातरां आसात
धुवो आसात,सुनो आसात
सोदता अजून कितें पिशे,
बोंद्रां चिंद्रांत नशीब तुजें?

पूत तुजे पांच पांडव
कर्तुपाचे व्हडले दोंगर
तांचें नांव,नांव तुजें
फांकता भायर जसो परमळ

घोव तुजो गुणां-शिसो
लोक जाता सामको पिसो
तोखणाय ताजी करची सोडून
सोदता कितें...सोदता कितें?



### आमी सत्तेचे मानकरी

आमी सत्तेचे मानकरी
आमी अहंकाराचे पुजारी
आमी सुवार्थाचे उपासक
आमी दांभिकांचे कैवारी
आमी लाचाऱ्यांचे राखणदार
आमी दुश्टांचे वाली
आमी नश्ट्यांचे मोगी
आमी गुणेस्तांचे दुस्मान
कला आमची बटीक
ज्ञानी आमचे बंदे
स्वाभिमानाक आमी
चाबकान फोडून काडटले
जाय आमकां स्वातंत्र्य
सत्तेर येवपा पुरतें.
आमचीं मतां अमान्य तांकां
आमी भायर धांवडायतले
बडवचार स्वातंत्र्याचो

सभां मर्दी करतले
ताठ मान,ताठ कणो
असले मनीस खपचेनात.
बंदेपण करतल्यांक
आमी पैस करचे नात
आमचे लागीं येतल्यांच्या
गळ्यांत एक एक धोलकें
आमचें व्हडपण गायत तांणी
जळींमळीं हेडचें
आमची भास आमकां नाका
आमची भूंय आमकां नाका
दुसऱ्याची भास घेवन
व्हडले आमी जातले
.पुर्वज आमचे व्हडले व्हडले
कुशीक आमी उडैतले
जातपात'बळगें' आमचें
तांचेर आमी जियेतले
आमच्या व्हडल्यांक कुस्कुटावन
बळिश्ट आमी जातले
आमचे आड येतले तांकां
सदां आमी धोंसतले
सत्यान वागतल्यांक
चिड्डूमाड्डून मारतले.
फिरग्यांचें बंदेपण
केलें आमी जाल्यारूय
हड्डें फुडें काडून आमी
'जयहिंद' म्हणटले
आमचें उतर न्यायनीत
हेर सगळें अनितीचें
उद्घाटनां-समारंभ
आमचे लोक करतले
स्वतंत्रताय हाडली तांकां
परोपरीन छळटले.
लोक आमचे बंदे
आनी देव आमचे पांगी
बंदे आमचे हजरांनी
आमची पुजा करतले
आमी मेले जाल्यार-
पुतळे आमचे उभारतले
आमचें नांव अशे भशेन
अजरंवर उरतलें

काव्यफुलोर

संवसारांतली भोव आदली तशींच पिकाळ न्हंय म्हणून नील न्हंयंक नांव आसा. तिणें हाडच्या हुंवारांनी इटाळ माती येताली आनी हे मातयेक लागून तिचे तडीर कृशी आनी कृशी वरवीं नागरीकताय उबजाली. हे न्हंये भोंवतीं जायत्यो पुराण कथा रेंवडल्यात. तांतली एक ओसिरीस आनी आयसीसाची प्रेम कथा. ओसिरिसा वयल्या मत्सराक लागून ताचो भाव सेत ताच्या जिवाचे चोवदा कुडके करून उडयता. तांतलो एक कुडको ताचें शिश्न. हे काणयेक वेवेगळीं रुपां आसात. थोड्या रुपां प्रकार आयसिसाक ओसिरिसाचें शिश्न लाबता आनी तें सर्वय कुडके घडसून ताका जीव करता. थोड्या काणयां प्रकार ताका शिश्न मेळना. आयसिसाक केदींच मेळनातल्या शिश्नाची कविता ही. 2018 व्या वर्साच्या सुरविल्या म्हयन्यांनी एजिप्त देशाक म्हजी भेट जाल्ली. थंयच्या पिरमिडांचो इतिहास सम जूंक वचून नील न्हंयंक उठकी मारताना ही कथा आनी जायत्यो हेर कथा म्हजे मतींत शिजूंक लागल्यो. तांतल्या एकाक हांगा कवितेचें रूप दिलां.

# आयसीसाची निमणी आशा

नील न्हंयें -
उदकाक तुज्या जालीं
आट हजार वरसां.

लेकांक चुकल्ल्या लोकाची
तुंवें तान भागयलीय
आव्रां (हुंवार) धाडून भूंय पिकयलीय.

सेतान कातरून उडयल्लें
म्हज्या ओसिरिसाचें शिश्न
आजून तुज्या उदकांतल्या
सिस्रिच्या पोटांत आसा
आनी तुज्यांत भिजच्या योनींक
भिजोवन आसा.

नेंट्या बाळां लागीं
हांवें खबर काडली:

तुंवें आव्रां धाडून
पिकयल्ल्या योनींनी
रूक पालेल्यात
आनी हरयेका रुका भितर
ओसिरीस जीव जाल्यात.

तांची संतत तशीच वाडूं
आनी तुजे तडी वयल्या
हरयेका रुकाच्या फांट्यांनी
म्हज्या भरताराचीं
भुरगीं खेळूं.

शेकड्यां शेकड्यां थावन
म्हज्या शिश्नाचे सोदनेर
हांव काती जाल्यां
ओसिरिसाचे यादींची
माती जाल्यां.

हजारों वरसां जालीं -
म्हज्या देरान उडयल्ल्या
ताचे कुडीच्या कुडक्यांक
पुरून तांचेर हांवें
तेंपलां बांदल्लीं -
सरवां विसरल्यांत.

आतां तरी-
तेंपलांच्या गांवचो
भारताचो म्हान मनीस
आमच्या गांवाक पांवचे आदीं
तुजे सिस्रिच्या पोटांतलें
म्हज्या ओसिरिसाचें शिश्न
फार्टी दी.

मरचे आदीं
ताका मर्यादेची माती दितां
आनी ताचेर उबारल्ल्या तेंपलाचें
ताचेकरना उगतावण
करयतां.



**मेल्विन रोड्रीगस**
मंगळूर
मो. 09980136297

# बुडबुडे

हांवें वळून पळयलें
आनी समाजाक गैरसमज जालो...!

0

धडधडून थकलां हांव
काळीज सांगून रडटा
मागीर ताका मनोवंक
तुजें नांव सांगचें पडटा

0

चंद्रीम विचारता
'हालींसरां तुवें म्हजेर
कवनां करपाचीं सोडलीं?'
पिसो खंयचो
'तो जिणेंत आसतना
हाचेर कवनां करप
पिशेपणां व्हडलीं!

0

काल राती वेंगेंत ओडीत
ताणें म्हाका विचारलें
'एकार एक कवनां करूंक
जिणेंत अशें कितें घडलां?'
कशें ताका सांगूं आतां
हांव परत मोगान पडलां

0

हिशोबाक धरचे आसल्यार
जिणेंचे दोनूच खीण
एक ताचे बराबर
एक ताचे विण

0

तुजी कसली बिशाद
गर्वान उदेल्लो सुर्या लेगीत
सांज जातकच धारेक वता

0

म्हाका ना भेटपाचें
कारण तरी कसलें दिता!
खरो मोग आसल्यार
सपनांत लेगीत भेटूंक जाता !

फांतोडेच्या पारार
मिणमिणपी काळजांत
तेल तूं घालूं नाका
हांव पालवूंक सोदतां!

0

संवसार भरचो सुवास
एकठायलो जरी सगळो
ताच्या यादींचो
परमळूच वेगळो

0

ये! बेजार आयलो
तुज्या काळजांत
भोंवडावन हाडशी?

0

ताणें फकाणानींच म्हणिल्लें
'मोग करतां हांव तुजो'
हांवूच पिशें
मनार घेतलें

0

तुजे जिणेंचो हिशोब हांव मागना
म्हाका मात वजा कर
केंसांत मोगरीं माळ्ळीं
म्हूण कितें जाता
फुलूंक ताची वेंग जाय

0

लोक विचारता
कवनां कशीं सुचतात तुका
तुजें अनंव सांगूं काय ना
होच प्रस्न पडला म्हाका
आयज न्हिदपाचें नासले
पूण सपनांत
तो आयलो जाल्यार

फेस्ताचे फेरयेंत
काळजाक भोंवडावन हाडलें
पूण ना
तें , तूंच जाय म्हूण रडलें



**वादालूप डायस**
नुवें
मो. 8605942157



# पानगळ आनी चंवर

म्हजो पानगळ
तुवें घेतलो
तुजो चंवर
तुवें म्हाका दिलो ...

आतां हांव तुजे कडेन
आनी तूं म्हजे कडेन ...



**आर. रामनाथ,**
फोंडे, गोंय
मो. नं. 9850458763

काव्यचवर

# गुलाब

गुलाबाचें फूल  दिसता हेरांक सोबीत
म्हाका मात ताचेर सुचलेंना केन्नाच कवीत
तरी लागलें पिशें म्हाका ताचें अचकीत
जेन्ना कोण तरी जावन आयलो म्हजो मीत

'गुलाब' म्हणत ताणें घालो म्हाका साद
तेन्ना काळजांत म्हज्या झंकारलो मोगा नाद
आनी आवडनाशिल्लो जो म्हाका गुलाब
रोपो ताचोच एक रुजलो म्हज्या काळजांत

फुटले  ताका भाराभार फागूर
इश्टागत, विस्वास आनी मोगाचे
जुळून आयलें एक वेगळें नातें
रंगूच बदल्ले म्हज्या जिविताचे

म्हळें ताणें म्हाका, सभाव तुजो गुलाबाचो
देखून 'कांटोय ताचो जालो म्हज्या जिवाचो '
तेन्ना गुलाब  नासलें म्हजे पासत फूल
एक पवित्र मोगाची अजापीत अशी भूल

गुलाबाच्या गुलाबरंगान रंगली म्हजी जीण
अणभवले अणभवांचे हांवें हरेक खीण
नासले म्हजे जिणेंत आतां खंत आनी शीण
अशी कशी गुलाब जाली पुराय म्हजी जीण?
पयले भेटेंत, म्हणत गुलाब
जाणें म्हाका सादयलें
कांट्यां सयत ताणें म्हाका
जिणेंत अळंग वेंगायलें

मुखामळाचें  गुलाब जाणें म्हजें फुलयलें
धांय दिकांनी म्हाका परमळावन उडयलें
सुप्त उमाळे हे म्हाका उक्तावपाचे नासले
ही गुलाबी भावना सासणाचीं काय
उखलापी हें पारखुपाचें आसलें...

भंया-दुबावाक आतां कोंबरी फुटिल्ली
काळजांतलो म्हजो रोंपो आतां
सोदुनूय म्हाका सांपड नाशिल्लो
गुलाब..म्हणत ताचो सादय  येनाशिल्लो
गुलाबा सयत ताणें  रोंपोय हुमटिल्लो? .



**मानसी धाऊसकार**
पेडें, म्हापसा
मो.8788595022

# जगाची वाणी..

फुडल्यांन जोत वयता पाप्यांचें
फाटल्यान चुरचुरे लोकांचे
आयका रे भावानो तुमी ही काणी
समजतली तुमकां जगाची वाणी

मनीस मनशाक कापीत गेला
दुडवां खातीर शेण चाटीत गेला
चल्ल्या हांगां पयश्यां खातीर मारामाऱ्यो
भाव लेगीत घेवन  हातांत सुरयो

इल्लोसो पोर आयज पिता सोरो
कंडोम घेवन भोवपाक भिना गडो
घुवळी वखदांनी पोर बुडल्यात
बुडिल्ल्या संवसारांत वाट शेणल्यात

शीत-पेज आयच्या पोरांक पचना
शोरमां-कोला बगर दीस सोपना
मोटरसायकलींचो आयज फोग चल्ला
कोनश्या कोनशांनी पोरांचो मोग चल्ला

म्हारगायेन देशाक लायला उजो
कांदो लेगीत आयज जाला म्हारगो
देशांत वाडत चल्यात आतंकवादी
लोक सोसतात रावून ओगी-ओगी

मनशाची जीण आयज सवाय जाल्या
रंग, जात, धर्म, कात म्हारग जाल्या
गांधी बापू तुजो रे तो काळ गेलो
कान, तोंड, दोळे धांपपी माकड मेलो

मनीस आयज राकेसांक पुजूंक शिकला
देव लेगीत मनशांक भिवूंक लागला
शेणलो आमचो नकासो फुडाराचो
होच आशिल्लो निश्कर्श हे काणयेचो

फुडल्यान जोत वयता पाप्यांचें
फाटल्यान चुरचुरे लोकांचे
आयकली  भावांनो तुमी ही काणी
होलमली तुमकां जगाची वाणी
( मुसळ खेळाचो ताल लावचो)

**आकाश गांवकार**
फोंडे
7378760441




## जंगल शाळा

(आधुनीक काळाचें हितोपदेश)



# आगळी वेगळी नातलां परब!

देजेंब्राचे नातलां सुटयेंत, अमेरिका आनी इंग्लंडांतल्यान मायरा, आरूष, खुशी आनी मानव गोंयांत आयलीं. एल्मोन रणवीर, रायना आनी रेहाना हांकांय सुटयेंत लंडनाक व्हरपाचें थारायलें. नाताशा, अवंती आनी अनुष्काय आपापल्या पालकां वांगडा तांकां मेळ्ळीं.

बिंगो, लैतांव, चानी आनी मिट्टूक विमानांतल्यान लंडनाक व्हरपा पासत खाशेली मान्यताय मेळयिल्ली. सगळ्यांक त्या वर्साचीं नातलां लंडनाक मनोवपाचीं आशिल्लीं.

शिंयाळ्यांतल्या अशेच एका दिसा उज्याच्या धगा कडेन, गरम चॉकलेटीचे घोंट घेत तीं बशिल्लीं आसतना खुशीन एल्मोक विचारलें,"एल्मो, सांता क्लॉज खंयच्यान येता रे?"

"सांता क्लॉज फिनलँडांतल्या न्यूक म्हणटात त्या गांवांत रावता." एल्मोन सांगलें.

" एल्मो, नातलांच्या एक दिसा आदीं आमी न्युकाक वचून सांता क्लॉजाक एक खेप मेळूं येता? आमी ताका खूबश्यो भेयवस्तू भेटोवन अजापीत करुंया!" खुशीन आपले कल्पनेन उचंबळीत जायत म्हणलें.

एल्मोक खुशीची कल्पना आवडली आनी ताणें सगळ्या भुरग्यांक 'हेमलेज मल्टी स्टोअर' खेळण्याच्या दुकानांत सांता पासत भेटवस्तू विकत घेवपाक व्हेलीं. त्या स्टोअरांतली तीं तरा तरांचीं खेळणी आनी गेमी पळोवन सगळीं भुरगीं सामकीं उचंबळीत जावन गेल्लीं. तांकां कितें घेवं आनी कितें नाका अशें जाल्लें. तांणी थोडो वेळ शॉपींग करून भेटवस्तू घेतल्यो.

एल्मोन देजेंब्राचे 22 तारकेच्यो हेलसिंकी वचपा पासत विमानाच्यो तिकेटी काडल्यो. ती फिनलँडची राजधानी. हेलसिंकीच्यान न्युक वचपा पासत एल्मोन एक व्हॅन भाड्याक घेतली.

कांय वरांनी तीं न्युक पावलीं. थंय खूऽब्ब थंडी आशिल्ली आनी खूब्ब झेलूय पडटालो.

थंय एका दोंगरा माथ्यार एकसुरी अशी एक खोंपटी दिसताली. तिचे कडेन बोट दाखोवन एल्मोन म्हणलें,“ सांता क्लॉज थंऽय रावता.”

बिंगो, लैतांव, चानी आनी भुरग्यांनी तो दोंगर चडपाक आरंभ केलो. झणझणीत व्हांवपी वाऱ्याक आनी पडपी झेलाक लागून मिट्टूक उडूंक जम नाशिल्लें. ताणें बिंगोचे फाटीर बसून वचपाचें थारायलें. एल्मो आनी हेर जाण्टीं तांचे फाटोफाट चलूंक लागलीं.

जेन्ना तीं थंय पावलीं तेन्ना सांता क्लॉज सामको गडबडींत आशिल्लो. ताका संवसारभरच्या सगळ्या भुरग्यां पासत भेटवस्तू रेवडावपाच्यो आशिल्ल्यो.

आपल्या घरांत खुबशीं भुरगीं आनी जाण्टे लोक बिंगो, दुकुल्लो, चानी आनी किराक घेवन कळय नासतना भितर सरिल्लीं पळोवन सांता क्लॉजाक अजाप जालें. तरीय ताणें तांकां येवकारलें.

“ येवकार,येवकार माणकुल्यांनो,अशीं भितर येयात म्हजे हे सानुलेशे खोंपटेंत.” ताणें म्हणलें. पूण ती खोंपटी नाशिल्ली. तें एक व्हडलें घर आशिल्लें आनी तातूंत कितल्योच भेटवस्तू रंगरंगयाळ्या फोलींनी रेवडावन मांडून दवरिल्ल्यो.

“ अंकल सांता क्लॉज, हे खेप नातलां वेगळींच जातलीं.”खुशीन म्हणलें.

“दर वर्सा तूंच सगळ्यांक भेटवस्तू दिता. हे खेप आमी तुका कितल्योच भेटवस्तू भेटोवंक हाडल्यात.” नाताशान सांगलें.

भुरग्यांनी आपले पासत हाडिल्ल्यो वस्तू पळोवन सांता क्लॉजाक अजापभरीत खोस जाली. तरी ताणें आपल्या म्होंवाळ उतरांनी तांकां म्हणलें,“ माणकुल्यांनो,तुमकां इतले पयस साकून म्हजे पासत ह्यो वस्तू घेवन येवपाची कितें गरज आसली?”

“ सांता, तूं दर वर्सा नातलांक आमच्या घरां घरांनी येता. पूण हे वर्सा तुज्या घरा येवन आमकां तुका अजापीत करपाचें आशिल्लें.” आरुषान हांसत म्हणलें.

“व्हाव! कितलीं मोगाळ भुरगीं रे तुमी!” अशें तोंडभर हांसो हाडून सांता क्लॉजान तांकां म्हणलें तेन्ना ताचे पोले चेरी रंगावरीं गुलाबीच जाल्ले. मागीर तो किचनांत गेलो आनी ताणें तांबड्या आनी धव्या रंगाचो एक व्हडलो केक भायर हाडलो.

“ भुरग्यांनो, चलात आमी नातलांचो केक आतां कापुंया.” आपल्या हातांत सोबीत नटयल्ली सुरी धरीत ताणें म्हणलें.

तांणी केक कापली आनी दरेकल्यान एकेक स्लायस उखल्ली. केक सामको सुरबूस आशिल्लो. उपरांत सांता परत एक खेप किचनांत गेलो आनी कांय स्नॅक आनी ज्युस घेवन आयलो. सगळ्या भुरग्यांनी तशें जाण्ट्यांनी आनी बिंगो, लैतांव, चानी तशेंच मिट्टूनय ते रुच्चीक स्नॅक्स आनी ज्युस फस्त केलें.

मागीर अकस्मात सगलीं झेमपाक शीं लागलीं आनी एकेक करून सगलीं न्हिदून पडलीं. बिंगो, लैतांव, चानी आनी मिट्टू हांणीय ते स्नॅक आनी ज्युस घेतिल्लो तेय लेगीत न्हिदले.

जेन्ना तांकां सगल्याक जाग आयली तेन्ना ती देजेंब्राची 24 तारीक म्हणल्यार नातलांची परब आशिल्ली.

“आरे, सांता क्लॉज खंय रे?” एल्मोन आपले दोळे चोळीत विचारलें. सांता क्लॉज तांकां थंय खंयच दिसलो ना. तें व्हडलें घरूय पुरायेन खालीं जाल्लें. आतां त्या घरांत एक्लूय भेटवस्तू नदरेक पडऽ नाशिल्ली. तीं त्या घराचेर नदर भोंवडायता आसतनाच एल्मोक थंय दवरिल्ली एक चीट सांपडली. तातूंत बरयल्लें:



मोगाळ भुरग्यांनो,

तुमी सगलीं न्हिदून पडलीं ताचें कारण म्हणल्यार हांवें तुमकां जो ज्युस दिल्लो तातूंत हांवें जादवाचे थेंबे घाल्लो. तुमचे कडेन अशे तरेन हांवें नाडींगपणां केल्लो पासत हांव तुमची माफी मागतां. हांवें जर अशें करूंक नाशिल्लें जाल्यार तुमी म्हाका थंयच्यान हालुंकच दिवंचीं नाशिल्लीं. म्हाका संवसारभरच्या भुरग्यां पासत भेटवस्तू भेटोवंक वचपाच्या नेमाक पाळो दिवपाचो आसलो.

भुरग्यांनो, इतल्या पयसुल्यान तुमी म्हजे घरा सोबीत सुंदर अश्यो कितल्योच भेटवस्तू घेवन आयिल्लो पासत हांव तुमचे काळजा सावन उपकार आठयतां. तुमी हाडिल्ल्यो त्यो वस्तू हांव गरजेवंत भुरग्यांक वांटपा पासत म्हजे वांगडा हांव घेवन गेलां. तांकां नक्कीच त्यो आवडटल्यो. हांव फुडल्या वर्सा तुमच्या घरा तुमकां मेळूंक येतलों. तो मेरेन गूड बाय.

तुमच्या मोगाचो,
सांता क्लॉज

सांता क्लॉजान बरयिल्ल्या त्या काळजाक स्पर्श करपी सुंदर पत्रान भुरग्यांक खूब बरें दिसलें. तरी सांता क्लॉजाचो निरोप घेवपाक तो थंय ना म्हूण तांकां वायटूय दिसलें.

''ताणें इतले बेगीन वचूंक फावो नाशिल्लें.'' रेहानान म्हणलें.

'' तो जर वचूंक नाशिल्लो जाल्यार संवसार भरचीं सगलीं भुरगीं रडचीं नाशिल्लीं?'' रणविरान बरो विचार मांडत म्हणलें.

''एल्मो, आमी सांता क्लॉजा वांगडा आमचे फोटो घेवंक जाय आशिल्ले!'' रायनान म्हणलें.

''तुमी सगळीं न्हिदेक पडचे आदीं हांवें म्हज्या मोबायलाचेर सगल्यांचो एक फोटो घेतला आं!'' एल्मीन खोशी उक्तायत सांगलें.

''ग्रेट!!''मायरा आड्डलें. सांता क्लॉजाक मेळिल्ल्याची याद म्हूण ताचे वांगडा घेतिल्लो फोटो ताका जायच आशिल्लो.

'' हे खेप नातलांची परब एक आगळीच थारली.'' त्या घरांतल्यान भायर सरता आसतना सगल्या भुरग्यांनी म्हणलें. मागीर सगलीं नातलांची परब मनोवपा पासत लंडनचे वाटेक लागलीं.

●●●

**मूळ : दत्ता दामोदर नायक (इंग्लिश)**
**कोकणी अणकार : मानसी धाऊसकार**

# पिलूचो मोबायल

माकडाचो पिलू हालीं
सामकोच मस्तो जाल्लो
शाळेंत वचऽ नासलो
अभ्यासय करी नासलो

कोलो बुद्दीन भोलो
पिलूक शिकयतालो
पाकडापापाकडे सदां
कागाळ करतालो

कागाळ करून लेगीत पिलू
कसोच सुदर नासलो
तिडकी भरशी पिलूक कोलो
कुटली मारतालो

पाकडापापा गावांत
नाल्ल पाडूंक वतालो
पाडो करून येतना ताणें
पिलूक मोबायल हाडिल्लो

पूत आपलो हुशार म्हणून
पाकडापापा तोखेतालो
पिलू मात मोबायलाचेर
गेमीर गेम खेळटालापापा मारी
उडकी
झाडार
पिलू विडिओ काडटालो
शाळेंत वचून माकडुल्यांचे
रंगीत फोटे काडटालो

पावट्ट करून काडलो फोटो
कोल्यान तें पळयलें
सणसणीत दिवन सोंडार
पिलूचो पोलो फुलयलो



ते दीस तिडकीन पिलूक
कोल्यान शाळेंतल्यान काडलो
तेन्ना मात पाकडापापान
कपलार हात मारलो

मोबायलाचं दुयेंस हें
मनीस घेवन आयलो
पाकडापापालो पिलू मात
दुयेंसांन भंगलो

पाकडापापा पुताक
हिसपा भायर तोखेलो
ताणेंच आपल्या पिलूचो
फुडार इबाडलो...

# अपुरबायेचो सोंसो

सोश्या तुजे कान
विलोदाचें पान
रुपाक तुज्या तोखेतात
भुरगीं आमी ल्हान

फाट तुजी गुबगुबीत
मलमलीत ल्हव
चिड्डीमुड्डी करी ना तुजी
आड्यावेलो दंव

भिवं नाका पळोवं नाका
वांकडी करून मान
सोश्या तुजे कान
विलोदाचें पान

असो कसो पिसो सोंसो
कोण म्हणची ना
कासवा वांगडा सर्त हारलो
याद काडची ना

धांवतल्यांनी खेळांत तुका
सदांच दितलीं मान
सोंश्या तुजे कान
विलोदाचें पान

मळार वचून खेळून खेळून
जालां रे हांव जाम
सोंश्या सोंश्या म्हजें एकूच
करतलो रे काम ?

न्हिदपा खातीर तुजे फाटीर
दवरूं रे हांव मान ?
सोंश्या तुजे कान
विलोदाचें पान





# कुकी म्हजो

मामा घरा आसा माऊ
आत्या घरा आसा बुकी
आमगेर मात अपुरबायेचो
सोबीत बरो कुकी

इल्लीशी पोटली कसो
कुकीक हाडलेलो
दिसतालो मुट्टुलोसो
बाबू देड म्हयन्याचो

पप्पाय जाता भुरगो आतां
कुकी शिवाय जायना
पप्पा ऑफीसाक वतकूच
कुकीक सूख लागना

कुकी आमचो शिटूक
खट्ट जाल्यार भोकता
म्हाकाय केन्नाय भुक्क करता
काडूंक गेल्यार नाखटां

घुश्शा ताका घालूंक गेल्यार
मान्ने भर नाचता
न्हातकूच फॅना वाऱ्याक
खाटीर म्हज्या न्हिदता

कुकीक हाडचे आदीं पप्पा
कुतूक भितालो
कुकीच्या मोगान पप्पा
भियेवंक विसरलो

पप्पा वांगडा गाडयेन भोंवतना
सोंडी भायर काडी ना
कुकी म्हजो गाडयेन
केन्नाच मुती करी ना



**उदय म्हांबरो**
सावय वेरें
मो. 9420766769

# जात्रेंतलें पुस्तक



सकाळींच भुरगीं घरांत जमलीं. आजो सांगपाक लागलो आपल्यो गजाली- तेन्ना हांव शशी तसो हुशार आनी मस्तो भुरगो. भुरगे तेन्ना चड वर्सांचेर शाळेंत वताले. पयले यत्तेक आमी वीस भुरगे. गोंय आदल्याच वर्सा मुक्त जाल्लें पुर्तुगेजांचे राजवटिंतल्यान. हांव शिकपाक फुडें. वर्गांत हांव पयलो येतालों. पूण यत्ता चवथीचे परिक्षेंत हांव बद्द आयलों आठवो. पयलो श्रीकृष्ण, दुसरो एकटो सदांच दुसरो येवपी, तिसरो चवथो अशे कोण कोण आयले आनी सातवो जेरोन. तो मोटेलो. ताच्या फाटल्यान आठवो हांव. तशी कळोवणी शाळेचे वण्टीर दसयल्ली. पूण म्हाका ताचें कांय पडलेलें नासलें.

चार दिसांनी सगळ्या वर्गांच्या भुरग्यांक शाळेंत आफयलीं. ते दीस बक्षीस समारंभ आसलो. गांवचो एक व्हडलो मनीस जो मुंबय आसलो आनी आदोगाद जाल्लो, तो अध्यक्ष आसलो. ताच्या हातांतल्यान बक्षिसां दिल्लीं. बक्षिसां बरीं बरीं पुस्तकां. आमच्या वर्गांतल्यांक पयल्या क्रमांकाचें दिलें, दुसऱ्या क्रम ाकाक दिलें. तेन्ना म्हाका सट्ट जालें. आरे म्हाका बक्षीस ना.... म्हाका पुस्तक ना ..... पुस्तक मेळूंक ना म्हण हांव खंती जालों. म्हाका थंयच भुरग्यां मदीं रडपाक येवपाक लागलें.

दोन दिसांनी म्हाका कळ्ळें आमच्या मास्तरान म्हजो पयलो नंबर दुसऱ्याक दिलो. तो भुरगो खंय मास्तराच्या घरचें काम करतालो.

दुसरेक तो भुरगो थोडे दीस शाळेंत आयलो आनी दिवाळे उपरांत त्या बाबड्यान शाळा सोडली. ताका आपल्या बापाय वांगडा कामाक वचपाचें पडलें. म्हाका वायट दिसलें. तो केन्ना वाटेर मेळ्ळ्यार हांव ताका हडकितालों.

दुसरेक हांव पयलो येतालों. चडश्या परिक्षांनी गणितांतले पन्नास पयकी पन्नास गूण म्हाका मेळ्ळ्यात म्हण दुसरेचो म्हजो गुरुजी म्हजेर खोशी जाल्लो. ताणें तिसरे चवथेच्या व्हडल्या भुरग्यां वांगडा म्हाकाय सहलीक व्हेलो. मुरगांव बंदरार. म्हाका हें बक्षिसा परस व्हडलें आसलें. थंय व्हडल्यो बोटी पळयल्यो आनी दाबोळे विमानतळार विमानां पळोवपाक व्हेले, आनी भुरग्यांक खास पळोवपाक दवरलेल्या विमानाक हांवें तेन्ना हात लायलो.

थंडेच्या दिसांनी आमच्या गांवांत जात्रा आसली. म्हजो बाप्पा थंय वचपाचो आसलो. हांवें ताका पुस्तक हाडपाक सांगलें. काणयांचें आनी एक पांयजेल सुर्याचें. सुर्य सात घोड्यांच्या रथार बसलेलो. जात्रेक खाज्यांच्या, खेळण्यांच्या मांडा वांगडा पुस्तकांचोय म़ांड लागतालो. तातूंत काणयांचीं, चडशें जादुंच्या गोष्टींचीं, भगवतगितांचीं, मराठी नाटकांचीं, चित्रबोध, कृष्णांचीं, शिवाजीचीं चरित्रां, अशीं जायतीं रंगीत पुस्तकां मांडलेलीं आसतालीं. भुरग्यांक त्या पुस्तकांचें नवल आसतालें. भुरग्यांच्या चोम्यांत हांवूय थंय गणयतालों. भुरग्यांनी तीं विकतीं घेतलीं ना तरी तीं पुस्तकां भुरगीं उगडून पळयतालीं.

म्हज्या बाप्पाक वाचूंक कळनासलें. तरी ताणें आपल्या लागीं आसलेले सगळे पयशे मोडले आनी म्हाका भेट हाडली. सुंदर पुस्तक-जादुचो पोपट, आनी वांगडा केरोसिनाचो दिवो. तो चकचकीत पितुळचो आसलो. लांब सोबीत. कापडाची वात घालून तो बरो पेट्टालो. रातच्या काळखांत सुर्य कसो तो म्हज्या पुस्तकांचेर उजवाड घालतालो. हांव म्हजीं पुस्तकां वाचतालों. अभ्यासाचीं आनी काणयांचीं. मागीर पुस्तकांच जाल्लीं म्हजीं सांगाती, शाळेंतल्या सांगात्यां भशेन.

•••

# गिरगिरें घुंवता सुर्र...

म्हाका हस्तकलेची आवड. म्हजो व्हडलो भाव शिवा आकाश दिवो करतालो. हांव ताका मजत करतालों. फोली जाय त्या आकारान कापप, काळे लाखेचे फोलींचे कांटे करप, मदली नक्षी करप. मागीर खळ लावन ती आकाश दिव्याक दसोवप, पयलीं कोंड्याचे बडयेचो आकाश दिव्याचो सांगाडो वा नखेत्राचो आराखडो करचो पडटालो. पयलीं म्हाका कळनासलें. भाव करता तें पळोवन पळोवन हांव शिकलों. मागीर हांवूच आकाश दिवो रंगीत फोलींनी सजयतालों. मदल्या निवण्यार पणटी दवरतालो. आकाश दिवो दोरयेक बांदून तो उंच कोंड्याचे बडयेर वा घरा लागच्या झाडार चडयतालो. तो वयर वयर चडटकूच आकाशांत गेल्ल्या वरी दिसतालो. मदली पणटी पेटतना तो सोबून दिसतालो. रंगीत नकशेचो.

ते पयलीं हांव लाखेच्या रंगीत फोलींच्यो कलावस्तू करतालों. घडी घालून केल्ले हारशे, पंखे, घर, बोट, विमान अश्यो असल्योच वस्तू करून हांवें दुसरेच्या वर्गांत व्हेल्ल्यो. ताचे वांगडा चित्रकलेचो कादेर्न आसलो. तेन्ना म्हज्या गुरुजीन म्हजी फाट थोपटायल्ली. माडाचे पाचवे चुडटे पासून मुदी, वक्ल, फुलां हांव करपाक लागलों. ते वेळार कठीण आसलें तें चुट्टेचें गिरगिरें करप. तेंय हांव करतालों. तें गिरगिरें घेवन हांव धांवतालों. फाटल्यान गिरगिरें घुवतालें. घुर्र.... घुर्र..... करून.... सुर्र..... सुर्र..... करून. कांय ल्हान भुरगीं बोटांत चुडटांच्यो मुदयो आनी दोळ्यांर वक्लां घालून झेतान मिरयतालीं. कांय भुरगीं बोंड्याचें किटकिटें करतालीं. हांवूय तांच्यांत आसतालों. तेन्ना ल्हान मडाच्या बोंड्याक व्हिर लावन किटकिटें करताले. व्हिरानीच तें घुस्पावन घुंवडायताले.... किटी किटी.... किटीकिटी.......

म्हाका आजुनय जाण्टेपणांत सपनां पडटात – हांव भुरगो शशी.... गिरगिरें घेवन धांवतां आनी बडबडटां.......

चुडटेचें गिरगिरें
घेवन धांवलें दावखुरें
बोंड्याचें किटकिटें
पळयत रावलें बिटबिटें
दावखुरें, बिटबिटें
दोगांय गेलीं फेस्ताक
गिरगिरें चोवन
अजाब जालें मेस्ताक

फेस्ताक म्हणल्या बराबर याद जाली. आमच्या गांवच्या दिवजांचे जात्रेक गिरगिरीं विकपाक येतालीं. एक वर्स हांवें लाखेच्या रंगीत फोलींचीं गिरगिरीं केलीं. तांकां कोंड्याचे ल्हान दांडे लायले. दांड्याक पातळ फोलीचे नक्शेन रेवाडायलें. रंगयाळीं गिरगिरीं केळीच्या गब्याक तोपलीं. मागीर तीं गिरगिरीं वाऱ्यान घुंवपाक लागलीं....... आनी म्हाका सांगपाक लागलीं..... चल जात्रेक.... खूब खूब भुरगीं वाट पळयतात गिरगिऱ्याची.... हांव ल्हान भुरगो... केळीच्या गब्याक लायिल्लीं गिरगिरीं रथ कसो घेवन ... हांव जात्रेच्या व्हड माटवांत पावलों. सवाय गिरगिरीं... रोकडींच खपलीं.

दुसऱ्या वर्सा हांवें धा बारा गिरगिरीं केलीं. पूण विकपाक व्हेलीं नात. तीं वाड्या वयल्या ल्हान भुरग्यांक आनी म्हज्या इश्टांक भेट दिली. तीं घेवन भुरगीं धांवत रस्त्यार गेलीं. जात्रेच्या माटवांत पावलीं. गिरगिरीं थंय खोशयेन घुंवपाक लागलीं.... फिरफीर... फिरफीर.... मागीर तीं गिरगिरीं एका वाड्या वयल्यान दुसऱ्या वाड्यार अशीं अख्ख्या गांवांत घुंवपाक लागलीं.

●●●



# मळबांतल्यो उडयो

म्हज्या ल्हानपणांत आमच्या गांवच्या मळबांतल्यान विमान चुकून आनी केन्नाय वतालें. जेन्ना वतालें तेन्ना आमकां भुरग्यांक मजा येताली. 'हें पळय विमान, हें पळय विमान' असो बोवाळ जातालो. शेवणीं मात पांखां फडफडायत उडटना दिसतालीं. आमकांय मळबांत उडचें अशें दिसतालें. हांव तर जमनीर पांयांनी उबो रावन मेकळ्या मळबांत उडयो मारतालों. मान वयर पावच नासली. वयर उडपाची ही इत्सा आमी भुरगीं आमचे पतंग वयर मळबांत हुबोवन भागयतालीं.

दिवाळेची सुटी पडटकूच पतंग करपाची उमेद फुरफुरताली. एक पातळ रंगीत फोल, एक ल्हान सुताची बिस्टीन आनी सुके चुडटेचे दोन- तीन व्हीर इतलेंच पुरो जातालें.

ते दीस हांव पतंग करतना शेजारचें लता आयलें. तें बारीक पळयतालें. हांवें तांबडे फोलीचो एक चौकोन कापलो. हांवें त्या चौकोनाक जाय तेदो व्हीर घेवन ताचेर सूत गुठलावन धनुश्य कसो आकार केलो. मागीर दुसरो व्हीर फोलीच्या मापान कापून तो कागदाच्या चौकोनार दवरलो. ताचेर तें धनुश्य मांडलें. मागीर ते दोनूय व्हीर खळ लावन फोलींत लांबचे लांब दसयले. पतंगाक सकयल ल्हान शेंपाडो लायलो. मागीर दोनूय व्हिरांक मदीं वयर सकयल सूत बांदलें. त्या सुताक मदीं पासर गांठीन लांबचे लांब सूत बादलें.

ती सांजवेळ आसली. लतान सागलें,-'सगलीं भुरगीं पतंग घेवन शेतांत गेल्यांत.' ते बराबर आमीय आमचो पतंग घेवन धांवलीं. वाटे वयल्यान उबयतना जेन्ना पतंग रस्त्याक तेंकतालो तेन्ना लता ताका वयर दवरतालें आनी हांव सुताचें पोंत धरून धांव मारतालों.

शेतांत सात जाणांचे पतंग आसले. कोण हुबोवपाचो



यत्न करताले, कोणाचो वयर हुबतालो तर कोणाचो लगोरयो मारताले. सोमनाथाचो लांब पाख्याटाचो पतंग वयर हुबनासलो. म्हजो पतंग ल्हान आसलो तो वाऱ्यार सोडटांच उबलो आनी वाऱ्याच्या नेटार वयर वयर गेलो . हांव बिस्टिनेचो सूत सोडपाक लागलों सरसर, पतंग फरफर उडत रावलो. तो वयर वयर वाऱ्याक पावलो. मागीर धोलत रावलो, नागोबा कसो! मागीर सूत लताकडेन दिलें.

सोमनाथाचो पतंग हुबनासलो. ताचो लांब शेपाडो हांवें ल्हान केलो. तसो तो हलको जावन फरफर वयर सरलो. दुसरो पतंग लगोट्यो मारतालो. ताच्या एका कानांत तण बादलें आनी ताचो तोल सारको जावन तोय भरभर वयर उडून म्हज्या पतंगाकडे धांवपाक लागलो. सोमनाथाच्या पतंगाचें सूत घट. तो पतंग म्हज्या पतंगाचें सूत कापीत म्हण म्हाका भंय दिसलो. पूण तशें जालें ना. हेरांचे पतंग मात ताणें कापले. पतंग तुटून पयस गेलो. आमी धांवले धरपाक.

फुडें आंब्याच्या झाडांक ताचें सूत घुसपल्लें आनी तो उंच उबत उरलो. केन्नाय लगोट्यो मारुंक लागलो.

दुसरें दीस आमोरेर आमी पतंग घेवन गेलीं. शेतांत मेजून धा पतंग हुबताले. रंग रंगयाळे.. तांबडे पाचवे, हळदुवे अशे. तातूंत भर म्हूण एक चलो आयलो व्हडलो तांबडो पतंग घेवन. ताचें सूत घट अशें प्लास्टीक रिलाक गुठलायलें. ताणें सूत सोडीत वाऱ्याच्या नेटार वयर पतंग सोडलो. ताणें पतंग बरोच सजयल्लो. तो पतंग आमच्या परस उंच गेलो . आमोरी जातकूच ताणें दोन कागदी कंदील मेणवात पेटोवन ते पतंगाच्या सुताक बांदले आनी तेय वयर सोडले. रंगीत पेटपी कंदील वयर वयर वचपाक लागले. आमी मात काळोख जालो म्हण आमचे पतंग कवळ्ळे. रात जाली तेन्ना ताचो पतंग दिसनासलो. फकत रंगीत चकचकीत कंदील दिसताले.बरीच रात जाय मेरेन तो रावलो. गांवचे लोकय पळयताले.

तो तरणाटो सुधीर. मागीर ताचे कडेन हांवें इश्टागत जोडली. ताका मळबांत सोरगे सोडपाचे आसले. मागीर एका म्हयन्यांत दोन सोरग्यां खातीर ताणें दाट फोली आनी बारीक सरी हाडली. सरी वाटकुळी करून मदीं तशीच सरी बांदली. वाटकुळे सरये वयर फोली लावन मिटर भर उंचायेचें घुमट कशें गोल गोल केलें. सरयो गमान दसोवपाक हांवें हातबोट लायलें .

दुसरे दीस आमोरेर दोनय सोरगे घेवन आयलो. ताचे वांगडा ताचो इश्ट आनी हांवय आसलों. ताणें सोरगे उसोवन ते उबे धरले. मदले सरयेक बांदलेल्या केरोसीनाच्या कपड्याक...गोदव्याक उजो लायलो. तो पेटलो आनी ताचो धुंवर सोरगांत गॅस कसो भरलो. त्या धुंवरांत सोरगो वयर वयर उकलपाक लागलो आनी तो वयर मळबांत गेलो. तो काळखांत लखलखतालो, चकचकतालो. तो देवळाकडच्या शेता वयल्यान, माड, न्हंय हुपून मागीर दोंगरा वयल्यान पयस पयस गेलो. दुसरोय तसोच काळखांत नखेत्रां लागीं हुबलो, लखलखत लखलखत! ल्हान व्हड भुरग्यांच्यो कुलाट्यो..... कुलाट्यो मळबांत सादल्यो....

# घर जालें सिनेमा हावस

त्या वेळार आमच्या गांवांत लायट पावूं नासली. मागीर ती आमच्याच घरांत कशी पावतली? घरांत रातचे वेळार थाणे वयलो दिवो पेट्टालो दोन तीन केरोसीनाचे. तशें घरांत काळोखच चड आसतालो! दिसाची लेगीत घरांत कुटुऱ्यांनी खेळपाक मजा येताली.

म्हाका एक युक्त सुचली. आमगेर एक चांदी कोराचो बॅटरी दिवो आसलो. फुडें बल्ब आनी भितर दोन बॅटरी. तो बॅटरी दिवो म्हज्या व्हडल्या भावाचो ... शिवाचो. हांवें वल्बाचो होल्डर दाराच्या दरवंट्यार घट्ट केलो. ताका बॅटरींतलो बल्ब लायलो. वायरी बॅटरीक लायल्यो. ते बराबर तो बल्ब चक्क करून पेटलो.

तो बल्ब आमी मदीं मदीं पेटयताले पालयताले. आमोरेर तो दारावेलो बल्ब हांव पेटयतालों. दारांत घरांत उजवाड जातालो. हो म्हाका नवो उजवाड आसलो. आमच्या घरा तर नवो उजवाड ! लखलखीत! वाड्यावेलीं भुरगीं पळोवपाक आमगेर येतालीं आनी हाव झेनझनसो.

ते उपरांत एक वर्स गेलें. म्हाका आनीक एक युक्ती येवजली. हांवें आनी म्हजो इश्ट सरीन पांयजेलाचे ल्हान ल्हान पारदर्शी कवचे हारशे जमयले. ते बरे धुले, पुसले. पितुळच्या केरोसिनाच्या दिव्यान ताचेर काळी काजळी घातली. ते काजळीचे काडयेन चित्रां काडलीं. प्राण्यांचीं, मनशांचीं आनी कसलीं कसलीं! मागीर घरांतल्या भितरल्या बाकार एक पेट दवरली. पेटे वयर दोन दांडे उबे केले. ताका बाप्पाचें नवें धवें पुडवें लायलें आनी पड्डो केलो - सिनेमाचो.

सगळी तयारी जातकच हांवें आनी हरीन सांजेचो सिनेमा जातलो म्हण वाड्या वयल्या भुरग्यांक सागलें. हें सांगणें पेरगांव डूम डूम अशें वाडोभर जालें. भुरगीं जमलीं, जमनीर मांडी घालून बसलीं.

सिनेमाचो पयलो खेळ सुरू जालो. हांव फिल्मां कशीं हारशाचीं चित्रां धरतालों. हरी ताचेर बॅटरी दिव्याचो उजवाड घालतालो. तो उजवाड आनी चित्र पड्ड्यार पडटालें. तीं चित्रां नाचतात कशीं आमी हालयताले. वांगडा विवेदन करताले.

दुसरे दीस खेळाक आमी फिल्माचे कुडके मेळयले. तशेच ते दिसा  सावन दोन खेळ करपाचें थारायरलें आनी खेळ सुरू केलो. ल्हान भुरग्यां वागडां शेजारचीं कांय बायलां आनी आवयो आयल्यो.

पड्ड्या वयल्या चित्रांत सोंसो धांवतालो आनी कांसव  फाटल्यान चलतालो. काणी  बरी चल्ली. निमाणें कांसव जिखलो. मागीर वेगळे वेगळे प्राणी आनी मनशांय दिसलीं. आमचें निवेदन चलतालें. मनशांच्यो आनी प्राण्यांच्योय काणयों जाल्यो. हारशाच्या चित्रां उपरांत पिल्माचे कुडके पड्डयार हालताले, नाचताले. निमाणी गर्दी पळोवन हांवें म्हज्या दोनय हातांचो उपेग करून ताचे वेगळे वेगळे आकार करून उडपी कावळो, म्यांव करपी माजर, भुकपी सुणो अशे तरेकवार प्राणी दाखयले.

सिनेमा पळोवन भुरगीं खोशी. तांच्यो ताळयो, भुरग्यांच्यो आवयो खोशी! घर भुरग्यांनी भरून  आमचें घर खरेंच सिनेमा हावस जालें.

### *दिवो सपनांत*

भुरगेपणांत म्हाका खूब सपनां पडटालीं. दिवो आनी पुस्तक तर परत परत येतालीं. पुस्तक बापायन हाडलेलें. जात्रेतले पुस्तक म्हज्या हट्टा खातीर आनी दिवो पितुळचो केरोसिनचो उजवाडा खातीर... त्या उजवाडांत पुस्तक वाचपाक म्हजो दिवो जातालो जादुचो दिवो.  म्हजो दिवो म्हाका उठोन जागयतालो आनी म्हणटालो, ‘तूं चित्ता तें जातलें. तुजे सांगातान पुस्तक आसा. ताचो सागांत धर. वाच खूब खूब .मागीर हांव खऱ्यांनी उठ्ठालों. फांतोडेर लेगीत केरोसिनचो दिवो पेटयतालों.... आनी वाचतालों.  पुस्तकांतल्यो काणयों वोडून व्हरताल्यो म्हाका आपल्या वांगडा..... भोंवडावन हाडटाल्यो.

त्याच दिसांनी भोंवतें वाचनालय आमच्या गांवांत आयलें. तें म्हज्या आवडट्या गुरुजीकडें पावलें, ताचेकडे पुस्तकांचीं पेट,  पेट भरुन पुस्तकां. कांय दिसांनी दुसरी पेट येताली. तातूंत नवीं पुस्तकां. हांव आतऱ्या पयऱ्यान गुरुजीकडे वचून पुस्तकां हाडटालों, जादुचो हारसो, जादुचो सोंसो , झाशीची राणी, गुलबकावली, पंचतन, हितोपदेश, पांडव प्रताप, चांदोबा, विज्ञान प्रयोग ...... अशीं जायतीं पुस्तकांनी म्हजें विश्व व्हडलें केलें. म्हाका शाणो केलो. पुस्तकांनी म्हजें भुरगेपण घडयले. त्या भुरगे मनां खातीर अजुनूय म्हाका जिवीत सोबीत दिसता .

भुरगेपणांत हांव करामती करीत रावलों आनी ल्हानपणांतच कलाकार जालों , निर्मीती जालों. तशेंच फुडें फुडें पुस्तक वाचून बरोवपी... लेखक जालों दिव्या भशेनच म्हजें जिवीत. झगझगीत चिंतप.. तें म्हाका मार्ग दाखयता. हांव भुरगेपणांत कविता करपाक लागलों. त्या दिसाची कविता म्हाका याद जाता..

सानुल्या पुस्तकांत म्हज्या
चित्रां कविता पानापानार
यो म्हणटा  आमी नाचुया
हात गुथून चार

•••

**तुकाराम रामा शेट**
बेती-वेरे,
मो.7588446660

ललित

मिलिंद भरणे





# मागीलदार...

पयर हांव दिवाळे दिसा म्हज्या सोयऱ्यांगेर गेल्लों. तांणी नवें घर बांदलां आनी त्या नव्या घरांत आयल्यार तांकां सात आठ म्हयने जाल्यात आसतले! हांव दोन फावटीं पावलां तांगेर! पूण घराची रचना म्हाका तितली खबर ना. रांदचे कुडींत म्हाका एक बंद दार दिश्टी पडलें. सहजूच म्हणून तांचे चलयेक हांवें विचारलें,'हें तुमचें मागीलदार' काय म्हणून. त्या बदलाक ताणें म्हळें, 'मागीलदार म्हणजे कितें?' हो प्रस्न आयकून म्हाका अजाप जालें आनी चितलें तेन्ना लक्षांत आयलें, आतां फ्लॅट सिस्टमांत रावपी भुरग्यांक मागीलदार कशें खबर आसतलें? म्हज्यो तर कितल्योशोच यादी मागीलदारा कडें जोडिल्ल्यो आसात. म्हज्या आजोळचें घर तर सामकें अयस पयस. बलकांव, ताचे भितरली बसपाची कूड. हांगाच्यान वयर माळयेक सोंपणां गेल्यांत. मागीर भितर वतना दाव्यान काळखाची कूड. ताका 'फिंचात कूड' अशें म्हणटाले. ते कुडींत बायलो बाळंत जाताल्यो. पयलींच्या घरांनी अशो बाळंतीच्यो कुडी आसताल्यो. मागीर भितर वासरी आनी ताका तेंकून देवाचो जागो. वेगळी देवा कूड ना तर वासरेच्या एका पोंताक देवाचो जागो आसतालो. आज सुद्दां हें घर आसा. वासरेचे दावे वटेन रांदची कूड आनी भायर फुडें मागीर चोवकी. रांदचे कुडींत वांटपाचो रगडो आसा. चोवकेचे मदीं सोबीत शें आंगण आनी आंगणांत व्हडली तुळस. तशेंच दावे वटेन व्हडलें न्हावपाचें मान्ने आनी त्या मान्न्यांत बांय. बांयचे वयर उगडें आसा. ना जाल्यार पावसाचें उदक बांयंत कशें वतलें? तशेंच वासरेंतच्यान माळयेर वचपाक सोंपणां आसात. ह्या घराक दोन माळयो आसात. वासरेचे उजवे वटेन आनी माळयेच्या मुळाक म्हजे आज्जेची कूड आशिल्ली. आतां आजी ना. पूण ती कूड आसा आनी आज्जेच्यो यादीय आसात. चोवकेर उजवे वटेन तीन कुडी आसात. चोवकेर उजवे वटेन जमनीक एक बुराक आशिल्लो. तातूंत मुसळ घेवन भात कांडप किंवा पापडांची पिठी धोडावप अशें चलतालें. मुसळ बरें शिशाचें काळेंच आशिल्लें आनी मुळाक ताका पितूळची पट्टी मारताले, लाकूड वाट लागूंक फावना म्हणून! चोवकेच्यान नीट गेलो काय मागीलदार लागता. मागीलदारच्यान दावे वाटेन संडास आनी उजवे वटेन गोरवांचो गोठो आशिल्लो. पयलीं संडास भायर आसताले आनी संडासाक कुमांव म्हणटाले. तेन्ना म्हज्या आजोळा गोरवां आशिल्लीं. आतां नात. त्या घराचें म्हाका सगळ्यांत चड कितें आवडटालें म्हणशात तर मागीलदार. कित्याक तर त्या मागीलदारच्यान भायर जाय तेन्ना धांव मारूंक मेळटाली. फुडल्यान कोण तरी आसतालेच! तेन्ना दोळो चुकोवन भायर वचपाची वाट म्हणजे मागीलदार. फाटल्यान घरा भायर मानकुराद आंबो आशिल्लो. माया म्हयन्यांत दनपारां जाणटेल्यांचो दोळो चुकोवन ते आंबे पाडपाक, फातरावपाक एक वेगळीच उमेद येताली. तेन्नाच्यानूच म्हाका झाड पिके आंबे खावपाची रूच लागली. आजूय हांव झाड पिकेच आंबे खातां. बाकीचे तणांत पिकयल्ले म्हणा वा आलायते रसायनांनी पिकयल्ले म्हणा म्हाका खांवकूच जमनात. तशेंच फाटल्यान घराच्या मातशे फुडें शेजाऱ्याली पेर आशिल्ली. झाडार चडून तीं पेरां कोणाक कळनास्तना काडून खावंक, वर्णन करूंक शकना असलो आनंद मेळटालो. हीं पेरां काडूंक मागीलदारच्यानूच वच्चें पटटालें. तशेंच त्या तेंपा वयले विंगड विंगड खेळ कोयणे बाल म्हणात, लगोऱ्यांनी आसूं, गड्ड्यांनी, बियांनी अशे तरेकवार खेळ आमी दनपारां खेळूंक लागताले. आनीक खेळूंक जर वतलो




तर सगळ्यांचो दोळो चुकोवन वच्चें पडटालें. खंयच्यान वतलों तर मागीलदारच्यान. फुडल्यान गेलो जाल्यार तापोवणी पडटाली. आमकां ल्हानपणांत ओर्द आशिल्ली, सातां पयलीं घरांत येवंक जाय. सातच्या आंत घरांत..... आमचो खेळ तर आठां पयलीं केन्नाच सोंपऽ नाशिल्लो. तेन्ना घरांत कसो येतलों? आज्जेक फुलां माळचीं पडटालीं. रांदचे कुडीनचें जनेल बडोवप आनी हळू आवाजान आज्जेक उलो मारप म्हणजे मागीर आजी मागीलदारचो आडामो काडून दार उगडून म्हाका घरांत घेताली. तशेंच फाटल्यान पोरसूं आशिल्लें. थंय विंगड विंगड तरांचीं रंगयाळ्या फुलांचीं झाडां आशिल्लीं. तशेंच चिकू, बिंबल, निरपणस आनी मोठ्या लिंबाचें झाड आशिल्लें. परिक्षेच्या दिसांनी जाय तेन्ना त्या पोरसांत वचप, अभ्यास करप आनी परत मागीलदारच्यान भितर येवप अशें आसतालें. पावसा तेंपार त्या पोरसांत तवशीं, भेंडे, चिटकी तशेंच पोरसानच्यान घरार दुदी चडयताले. कोणाक कळनास्तना मागीलदारच्यान हळूच पोरसांत वचून माटवा वयल्यो पिंपऱ्यो खावंक एक सर्ग सूख मेळटालें. म्हजी आवय म्हणा किंवा घरानचो कोणूय आसूं दी, ताका जर घरांत तापयलो जाल्यार हुमशेहुमशेवन रडपाचो जागो हें पोरसूंच आसतालें. मागीलदार उगडून पोरसांत वचप, थंय दुकां गळोवन मागीर सारको जालो म्हणजे परत घरांत येवप अशें हांवें तरी कितलेच खेपो केलां. गांवांत रातचीं नाटकां कितलींच जातालीं, कोणाक कळऽ नासतना घरांतल्यान मागीलदारच्यान भायर सरप आनी आज्जे कडसून दार उगडून मागीर परत रातच्या दोनाक तिनाक घरांत भितर सरप. आनी नरकासूर पळोवंक तर रातचें भायर वचप हें आसतालेंच! तेंय बद्द सकाळीं पांचांक संक मागीलदारच्यान भितर सरप आनी कोणाक कळऽ नासतना हे सगळे उद्योग करप हातूंत जें सूख, जो आनंद मेळटालो तो खंयचेंय व्हडलें गेर्र जिखपा परसूय मोठो अशें म्हाका दिसता. आजच्या भुरग्यांच्या हें नशिबांत ना हाचें म्हाका दूख आसा. अशें हें आमचें मागीलदार आनी तातूंत घुसपल्ल्यो म्हज्यो ह्यो यादी...!

( हें घर म्हणजे म्हज्या आजोळचें घर, शिवोले आसा. म्हजें भुरगेपण शिवोले गेलां.)

•••

स्पंदन

मानसी
प्रेमानंद धाऊस्कार



गोंय विद्यापीठांत कोंकणी विशयांत 'एमए'चें शिक्षण घेवपी मानसी प्रेमानंद धाऊसकार बिम्ब मासिकाचें पालवी संपादक जावन आसा. प्रसार माध्यमाचेर युट्युबाचेर शिक्षणीक व्हिडीयो तयार करता आसतनाच बिम्ब मासिक आनी भांगरभूंय दिसाळ्यांत कविता तशेंच लेख बरयता.

हे कवितेच्या माध्यमांतल्यान कवी दोन सभावगूण आमचे मुखार दवरता. मेणवात आपूण जळटा आनी सगळ्यांक उजवाड दिता पूण शेवटाक जळून सोंपता. तिचो हो त्यागी, परोपकारी सभाव. पूण कवी सांगता परोपकार करपा वांगडाच आपणेंय आपलें जिवीत सोंपय नासतना रावूं येता.



# काळजाच्या मळबार सात रंग उदेवं !

कोंकणी साहित्य दिसान दीस फुलत आसा. कितलींच पुस्तकां उजवाडाक येतात. कविता तर चडूच येतात. पूण सगळ्योच कविता आनी काव्य संग्रह नदर ओडून घेतात अशें ना. पूण कांय कविता अश्यो आसतात, ज्यो वाचतना काळजांत सातरंगी इंद्रधोणू उदेवंक लागता. तुमकां कल्पना आयली आसतलीच..! हो इंद्रधोणू कोणाचो..? हय, जो कवी मागता इंद्रधोणू उदेवं म्हूण तोच म्हज्या काळजांत उदेला आनी ताचे सात रंग हांव तुमचे सामकार दाखोवंक पळयतां. नामनेचे कवी बाब उदय म्हांबरो हांचो हो कविता संग्रह. हो संग्रह बिम्ब प्रकाशनान उजवाडाक हाडला .

उदय म्हांबरो हें नांव कोणांक खबर ना अशें ना. कारण तांणी कोंकणी काव्य मळार तशेंच आमच्या दर एकल्याच्या काळजांत, 'मनशाच्या सोदांत' आनी 'हय सायबा' ह्या कविता संग्रहां वरवीं एक खाशेली आगळी-वेगळी अशी सुवात सुगूर केल्या. आनी हालींच तांचो प्रकाशीत जाल्लो 'इंद्रधोणू उदेंव' ह्या कविता संग्रहांतल्यान तर तांणी आमच्या जिवितांत सकारात्मकतायेचो इंद्रधोणू फुलयला. ह्या पुस्तकाच्या प्रकाशना वेळार प्रकाशक दिलीप बोरकार हांणी आमकां सांगिल्ले प्रमाण खरें म्हणल्यार इंद्रधोणुवाक रंग आसच नात. ताका रंग दिवपी तो माणकुलो थेंबो आनी तीं आश्वासक सकारात्मक किरणां. तशेंच आमच्या जिवितांत हो थेंबो आसता तो आमच्या मनांत. जेन्ना मन खंती जाता, निर्शेता वा वायट मार्गार वचपाचे वाटेर आसता तेन्ना आमकां गरज आसता त्या सकारात्मक किरणांची, जीं आमची जीण हयकारी वाटेन व्हरतात. आमच्या मुखामळार हांसो फुलोवन जिवितांतलीं आव्हानां स्विकारून ताचेर मात करपाचो आत्म विश्वास आमचे भितर रुजयतात.

आनी हीं किरणां म्हणल्यार उदयबाबांचो इंद्रधोणू उदेंव !

हो उदयबाबांचो सुरवेक सांगिल्ले प्रमाण तिसरो कविता संग्रह. आनी बिम्ब प्रकाशनाचें हें 157 वें पुस्तक. इंद्रधोणू जरी सप्तरंगी आसलो तरीय उदयबाबान जो इंद्रधोणू आमकां भेटयला तातूंत कवितारुपी 51 किरणां आस्पावल्यांत. तांणी 51 वेगवेगळे सकारात्मक रंगाचे संदेश आमचे जिणेंत भरशिल्यात. तशेंच हें पुस्तक तांणी भौ. संजीव वेरेंकार हांकां ओंपलां आनी मुदयेर थीक कशी डॉ. अनुजा जोशी हांची प्रस्तावना ह्या पुस्तकाक लाबल्या.

ह्या कविता संग्रहांतल्यो सगळ्योच कविता कितें ना कितें सांगत आसतात. वेगवेगळ्या मानवी मुल्यांचो वेध घेतना ह्यो कविता दिश्टी पडटात. तशेंच साद्या सोंप्या उतरांनी जिणेचो सखोल अर्थ लेगीत ह्यो कविता सांगून वतात. खंयच कोणाकूच दुखय नासतना नकारात्मक मानवी वृत्तींचेर बडी मारपीय खुबश्यो देखदिण्यो कविता आमकां सांपडटात.

म्हाका ह्या वेळार तातूंतल्यो कांय वेंचीक कविता घेवन म्हज्या मनांत तातूंतल्यान कसले कसले रंग उदेले तें तुमचे मुखार दवरपाचें आसा.

हातूंतली एक कविता म्हळ्यार 'बुनयाद'. हांगा कवी एका घराचें प्रतीक घेवन एकंदर आमच्या जिणेंतली खरी बुनयाद घट्ट आसा काय ना हो विचार मनांत रुजयता. तशेंच हांगा तो चार वणटीनी घर जायना तर एकामेकाच्या सांगातान, मोगान, निर्मळ सभावान आनी एकवट आशिल्ले सुवातेक घर म्हणटात आनी हीच आमचे जिणेंतली खरी बुनयाद म्हणपाचें आमकां सांगतात.

'तोंडाक खिळी' ही कविता हांवें एके वेगळे नदरेंतल्यान अणभवली. हांगा कवी एका दाराचें प्रतीक घेवन कशे तरेन ताच्या निर्जीवपणाचो फायदो घेवन ताका बंद करून आनी ताका खिळी घालून जो अच्छेव, अन्याय, अत्याचार जाता हे असले भ्रश्ट विचारसरणेचेर उजवाड घालता. हांगा म्हाका तें दार म्हणल्यार एक अस्तुरी अशें दिसता आनी तिका दुर्बळ समजून तिच्या तोंडाक खिळी घालपी एक भ्रश्ट समाज दिसता जो अजून आदले रूढी आनी परंपरेक वेंगावन बसला. पूण हें दार आतां बंद उरचें ना आनी ताका आमी खिळी घालूंक दिवची नात! कारण काळ बदल्ला आनी समाजान जितलेय फावट खिळी घालपाचो प्रयत्न केलो तरी अस्तुरी तितलेच फावट शिक्षणाच्या आनी आत्मविस्वासाच्या बळग्यार ती उगडपाक सक्षम आसा आनी आसतली ही हयकारी वृत्ती 'तोंडाक खिळी' हे कवितेंतल्यान हांवें अणभवली. खरेंच ही एक सुंदर कविता.

सैमाच्या माध्यमांतल्यान कवीन आमच्या अंतस्करणांत सकारात्मकताय जागोवपाचो भोव प्रभावी यत्न केला तातूंतल्यो कांय देखी घेवंच्यो जाल्यार..

***'माड' ही कविता पळोवया..***

जिवितांत ध्येय गांठप हें केन्नाच सोंपे आसना. पूण ह्याच ध्येयाक जर मनीस आपलो श्वास आनी ध्यास करीत जाल्यार मात ताच्या वांट्याक येवपी खर अरिश्टांचेर लेगीत मात करपाची क्षमता ताचे भितर येता म्हणपाचें कवी माडाच्या रुपकांतल्यान आमकां सांगता. माड रेंवटांत वाडलो तरी आडसरां आनी नाल्लांतलें उदक आटना, तें गोडूच आसता. माड कितलोय वयर मळबांत गेलो तरी ताचीं मुळां मातये भितर खोलूच वतात अशें कवी सांगता. फुडल्या वळींतल्यान कवी आमकां कसलेंय अरिश्ट आनी अडचणी आयल्यार माडावरीं सुर्याचो वेद घेयत वयर वचूंक जाय म्हणपाचें सांगता.

***'माडाक कोणूय आड आयल्यार***
***माड आपली दिशा बदलता***
***वाकडो तिकडो जाता***
***पूण तरीय सुर्याचेच दिशेन फुडो करता'***

हो सूर्य म्हणजेच आमचें ध्येय. त्या ध्येयाक केन्नाच मावळूंक दिवं नाकात ही हयकारी वृत्ती माड ही कविता आमकां भेटयता.

ह्या काव्य संग्रहांतली 'बेनुल्ल' हीय कविता आमकां खूब कितें शिकोवन वता.

***'विचारांक लागिल्ली बेनुल्ल***
***म्हाका बेणपाक जाय***
***मात विचारांची बेनुल्ल बेणटाना***
***धारेचें किल्लाकांतनें***
***हांतांतलें सुटूंक फावना***
***मन रगतबंबाळ जावंक फावना'***

आमी झाडाची बेनुल्ल काडटना समजा हातांतलें किल्लकातनें पांयार पडलें जाल्यार रगत येता. तशेंच

आमच्या मनांत आमी हेरांचे विचार बेनुल्ल कशे घेवन वाडयतात. तेय विचार काडून उडोवप गरजेचें. पूण तशें करतना आपलें मन मात दुखावपाक, जखमी जावपाक फावना अशें कवी सांगता.

'हरयाळी'

हरयाळी ही कितली नाजूक आसता पूण तिचीं मुळां मात सामकीं उरफाटीं! जाणें कोणें हरयाळी तोडपाचो वा हुम टुपाचो प्रयत्न केला ताका हें बेस बरें अणभवलां आसतलेंच. दिसपट्टे जिणेंत दिसपी ही हरयाळी मात कवीन तिका सकारात्मक दिश्टीकोनान कशे तरेन तोखेली ती पळोवया.. जिवितांत त्रास करपी आनी फांदयो कापपी खुबशे लोक कुराड घेवन आसतले पूण कवी म्हणटा तांणी तसो यत्न केल्यार पासून जमनींत उरिल्ल्या पाळांनी परत परत जीव धरचो इतलें स्वताक मनशान सक्षम करूंक जाय. वाह! कितलो सुंदर विचार आनी ताचे परस चड कितली सुंदर ही कविता!

'ओंवळां' हीय ह्या कविता संग्रहांतली एक कविता, जी रुपकात्मक तरेन आमच्या मुखार येता. ओंवळांचें रुपक घेवन कवी सांगता, मनशान ओंवळां वरीं आपलो सभाव दवरलो जाल्यार तांच्या सांगाताक निर्जीव, कडक अशे फातर आयले जाल्यार लेगीत तांकांय परमळ सुट्टा. मनशां भितर असोच गूण आसूंक जाय जो दुश्टांक लेगीत आपल्या सांगाताक दवरून बदलता.

आतां दिसपट्टे जिणेंत लेगीत ज्यो वस्तू आमी वापरतात तातूंतल्यान लेगीत हयकारी वृत्ती आमी कशी आपणावची हाची देख दिवपी कविता म्हणल्यार..

'मेणवात आनी सत्री'

हे कवितेच्या माध्यमांतल्यान कवी दोन सभावगूण आम चे मुखार दवरता. मेणवात आपूण जळटा आनी सगळ्यांक उजवाड दिता पूण शेवटाक जळून सोंपता. तिचो हो त्यागी, परोपकारी सभाव. पूण कवी सांगता परोपकार करपा वांगडाच आपणेंय आपलें जिवीत सोंपय नासतना रावूं येता. ते पासत तो सत्रेचें उदारण दिता. सत्री पावसांत स्वता भिजून आमकां सुके दवरता आनी उपरांत आपूण लेगीत सुकता. कवी आमकां सांगूंक सोदता, आमची जीण आमी सत्रे वरी जगची. हेरांक आदार दीत स्वताचें अस्तित्व वगडावन बसचें न्हय. एके मेणवाती वरी पिशेपणां करचीं न्हय. तरी लेगीत म्हजे मनांत एक विचार येता, त्यागी मेणवातीची सर सत्रेक येता व्हय..? मेणवात काळोख पयस करपी. समाजांतलो काळोख पयस करूंक जळून सोंपले बगर उजवाड फांकना. देखून म्हाका दिसता मेणवात त्यागी वृत्तीची आनी सत्री वेव्हारी.

'व्हाणो'

ही माणकुली कविता वाचतकीर तर सामकी थेट काळजांत रोमता. ताचें कारण म्हळ्यार तातूंतलीं समाजाक मारिल्लीं त्रोसां. समाजाक कोणाच्या तरी व्हाणेक हळशीक लागल्या म्हणपाचें जाणवता. आपल्या सभावा प्रमाण समाज हेरांच्यो व्हाणो तपासता. पूण आपली व्हाण मात ताका दिसना जंय हळशीक लागल्या.

*'हळशीकेची घाण*
*येता म्हणून*
*सगल्यांचीं जोतीं*
*हांवें तपासलीं*
*म्हज्यो व्हाणो मात*
*तपासल्यो नात...'*

प्रत्येक मनीस हेरांची कुतां काडपाक फिशाल आसता, दुसरो खंय, कसो आनी केन्ना चुकला हें तांकां बेस बरें सांगपाक जमता, पूण आपलो सभाव मात तांकां झळकना. तांचो सभाव हेरांच्या दोळ्यांतलें कुसळ सोदपी पूण आपल्या दोळ्यांतल्या मुसळा कडेन आडनदर करपी जाल्ल्यान लोकां विशीं उखलापे आनी दुश्ट विचार बाळगुपी हे वृत्तीक ही कविता वास्तवीक सत्याचो हारसो दाखयता.

'नरकासूर' हे कवितेंत तर कवी कोडू सत्य आमचे मुखार हाडटा. नरकासुराच्या नांवान लोंकां कडल्यान पयशे मागून जल्लोश करपी आनी तांचो इबाड करपी त्या मनशांक तो नरकासुराचे वंशज म्हणटा आनी हातूंत हांवूय सहमत आसां. संस्कृतायेच्या नांवार ही घडपी एक अधोगतीच म्हणूं येता. पूण तेच पयशांचो उपेग जर गरजेवंता खातीर करीत जाल्यार समाजाक फायदो जाता.

अश्यो ह्यो उदय म्हांबरो हांच्यो कविता शाणेपणाच्यो गजाली रंगयत आमच्या जिवितांत इंद्रधोणवाचे रंग फुलयता आनी सोबीत समाज फुलोवपाक उर्बा दिता.

●●●

एकपात्री

अविनाश कुंकळकार



अविनाश कुंकळकार काव्यधन, ह्या कोंकणी काव्य संग्रहांतल्यान वाचकां मुखार आयिल्लो अविनाश कुंकळकार हो सातत्यान कविता रचता. बालसाहित्याची निर्मणी करता आनी नाटकां,एकपात्री एकांकी बी बरोवन तांचें मंचन करता.

***( एक मनीस हातांत कांय मातयेचे बुडकुले घेवन येता आनी जमनीर आपटून फोडटा... )***



# बुडकुलो

हय! फोडटलों, फोडटलोंऽ फोडटलोंऽऽ... वाड्यार आसात तितलेय मातयेचे बुडकुले हांव फोडटलों... कित्याक म्हणजे...? वाड्या वयले सगळे लोक म्हाका बुडकुलो म्हणून चाळयतात. हें कितें जालें? हांव बुडकुलो, हय? कसलो बुडकुलो? रांदपाचो? काय उदक तापोवपाचो? हें कितें नाका जाल्लें..! आयचे, कालचे हे येदेशे पोर म्हाका बुडकुलो म्हणटात... अक्कल नाशिल्ले... नालायक, आवय-बापायन मातूय देख दिवंक ना हांकां...? दळडिरे खंयचे... हांव म्हणटां, म्हाका बुडकुलो कित्याक म्हणूंक जाय... हय, मानतां हांव... म्हजें पोट मातशें भायर सरलां... हां हयवय, बरेंच सरलां! म्हणून कितें, बुडकुलो? तोवूय बी मातयेचो बुडकुलो? म्हजें पोट मोटें आसा, ताका हांव कितें करूं... कितलेशेच दोतोर केले, भगत केले, घाडी सुद्दा केले. तरी पोट भितर वचना, ताका हांव तरी कितें करुं? हालींच एका दोतोरा कडेन गेल्लों, जाल्यार दोतोर म्हणटा, तुज्या पोटांत आसा फातर, आनी दुसरो म्हणटा, माजर रडटा खंय भितर... कितलींशींच वखदां केलीं, पोट भितरच वचना. लोकांक विचारल्यार लोक म्हणटात आसा तशेंच... हें म्हण लोकांचें उलोवप कितें...? रस्त्यार भोंवपाक लेगीत लज दिसता. भुरगे मात नदरेक पडूंक दिनात. दिसलो रे दिसलो, म्हणटात, आयलो बुडकुलो... ह्या पोटाक पळयल्यार जगणेंच नाका दिसता! कोणूच आपली चली दिवंक तयार ना. देखून आजून हांव आंकवार आसां... लग्ना बगर संवसाराक गोडी येता रे बाप्पा...? हे बाप्पा... आरे ती विडी मागीर ओड. पयलीं म्हाका सांग, हांव कितें इतको वायट दिसतां रे...?

ना मरे? मागीर ह्या नालायक भुरग्यांक हें कशें कळना तर..! म ावशे, आगे मावशे, खंय गे वता, नावशे...? राव गे मातशी, आयक तरी... तुमगेर मातयेचो बुडकुलो आसा न्हय गे...? जाल्यार म्हाका एक सांग... कितें हांव त्या तुमच्या मातयेच्या बुडकुल्या सारको दिसतां गे...? सांग गे मावशे... मागीर हे भुरगे म्हाका बुडकुलो म्हणून कित्याक गे चाळयतात? हांव म्हणून मनीस न्हय गे...? म्हाका म्हणून मन ना गे? म्हज्या मनाक म्हणून दुखना गे मावशे?... रड नाका कितें? रड नाका तर कितें करूं? तुजी चली आसा मगे... लग्नाची? आगे, आगे मावशे, राव गे... आयक गे... गेली...! पळयलां, पळयलां न्हय तुमी लग्नाचो आनी चलयेचें नांव काडिना फुडें कशी धांव मारता ती! म्हाका म्हूण लग्न जावपाचो हक्क ना..? सुखाचो संवसार करपाचो हक्क ना...? ना... ना म्हाका तो हक्क ना... म्हजो हक्क ह्या म्हज्या पोटान हिसकावन घेतला. लोक कश्ट करतात ह्या पोटाक लागून. आपलें पोट भरपाक...

पूण हांव कश्ट भोगतां ह्या म्हज्या भरिल्ल्या पोटाक लागून... आतां पयरचीच गजाल... सांगपाक पासून लज दिसता. पूण कितें करतलों, सांगले बगर रावूं नज... पयर हांव गेलों दोतोराक मेळपाक. म्हाका पळयतांच दोतोर म्हणपाक लागलो, कितल्यावो म्हयनो चलता...? आंबट बी खावचेंशें दिसता...? पांयांक सूज बी आयल्या? म्हज्या पोटाक पळोवन दोतोर म्हजी धजा मारूंक लागलो. म्हाका राग आयलो... पूण, करतलों कितें? पासियेंस काडून ओग्गी रावलों... आनी म्हणलें... 'दोतोर, हें पोट तुका दिसता न्हय तें गॅसान फुगलां... हांचेर कितेंय वखद दियात भितर वचूंक... जाल्यार म्हणटा... 'सोरो पियेवन पियेवन तुज्या पोटांत शेळो जाला आसतलो! तूं एक काम कर. एक जितो थिगूर पोटांत घाल. म्हणजे तो थिगूर तुज्या पोटांतलो सगळो शेळो खातलो. आनी मागीर तुजें पोट जिरतलें..!' आतां तुमीच सांगात, ताका कितें दोतोर म्हणपाचें...? सोऱ्याचो एक थेंब घेवपी न्हू हांव... तरी म्हणटा, शेळो जाला आसतलो..! नक्की कितें जालां तें पळयना हे दोतोर... हें जालां आसतलें, तें जालां आसतलें... आनी दिलें वखद... गुणाक पडलें तर पडलें... ना जाल्यार चार दिसांनी परतून यो... आनी समज कोणा एकल्याक सोरो पियेवन जालो शेळो आनी ताणें दोतोराचें आयकून पोटांत जितो थिगूर घालो आनी त्या थिगरान पोटांतलो शेळो खाल्लो... पूण त्या थिगराक परतून भायर कसो काडप...? गरोवन?... तें कितेंय जावं, तुमी उपकार करून म्हाका आनीक बुडकुलो म्हणू नाकात सामको बेजार आयलो बुडकुलो हो शब्द आयकून. आनी जर चुकून सुद्दां कोण म्हाका बुडकुलो म्हणटा तर ताच्या घरांतले सगळे बुडकुले फोडटलों. आनी ताचोय बुडकुलो फोडटलों...कितें... कितें बुडकुलो...? कोण... कोण तो दळडिरो, हळशीक खंयचो! राव तुजो फोडटां आतां बुडकुलो. राव, थंयच राव... ( फाटल्यान धांव मारता. )

।। सोंपता ।।

●●●

मानाचें पान
मंजुषा शेणवी तळावलीकार



# अणिवक संवयांची अजापीत करपी ताकद

Atomic habits - Tiny changes,
Remarkable results by -James clear

फाटलीं कितलींच वर्सां शिक्षिकेच्या पेशांत आशिल्लीं **मंजुषा शेणवी तळावलीकार** मानसशास्त्राच्योय अभ्यासक आसात. भुरग्यांचें मानसशास्त्र समजून घेवन तांकां योग्य दिकेन व्हरप ही तांची मोख. तांकां वाचनाची आवड आसाच, तेच वांगडा समिक्षा, कविता आनी ललित लिखाण हातूंत तांकां रुची आसा. साहित्य अकादेमी तशेंच हेर संस्थांच्या चर्चासत्रांतूय तांचें योगदान आसा.

जेन्ना आमकां आमच्या व्यक्तित्वाच्या खंयच्याय गुणाचो, खुबीचो अभिमान, तोखणाय दिसता तेन्ना ताका निगडीत कसलीय संवय आसता ती सांबाळपाक आम कां आंतरीक प्रेरणा आपसुकच येता. देखीक आमकां जर आमच्या केंसांचो अभिमान आसा जाल्यार ते सांबाळपाक गरजेची आसा ती संवय लावन आमी घेतात.

मनीस हो सामाजीक प्राणी. उत्क्रांतीच्या इतिहासांत तो सम ुहांत रावन आयिल्ल्यान ताका एकलो रावप हें कशेंच जमना. आपल्याक चारचोवगांनी तांच्या गटांत आस्पावन घेंवचें ह्या खातीर तो सदांच धडपडत आसता. ते खातीर समाजाचे सगले नेम तो वेवस्थीत पाळपाक सोदता, स्वताक बऱ्यो संवंयो लावपाक सोदता. नित्यक्रमान आमी जशीं वागतात तें आमकां संवंयेचेर पडटा आनी तातुंतल्यानच आमचें व्यक्तित्व थारता. पूण ह्यो संवंयों आमकां कश्यो जातात? ताचे फाटलें विज्ञान कितें? आनी त्यो आमकां कशे तरेन लाबदायक आसतात? हाचेर आमी चड विचार करपाक वचनात. जर संवंये फाटलें विज्ञान वो गणीत आमी समजून घेतलें तर आमकां वायट संवंयों वो व्यसना पासून पयस रावपाक निश्चित मजत जातली आनी जाय तशी संवंय स्वताक लावन आमच्या मेंदवाचो वापर आमी बरे तरेन करपाक शकतलीं.

त्याच विशयाचेर एक उपेगी अशें पुस्तक ॲटोमीक हॅबीट्स नामनेचो लेखक जेम्स क्लियर हांणी बरयलां. तें न्युयॉर्क टायम्स बेस्ट सेलर वळेरींत आस्पावता. संवसारभर 50 लाखां वयर ह्या पुस्तकाच्या प्रतींचो खप जाला. ते भायर लेखक जेम्स क्लियर हे एन्टरप्रुनर मॅगझीन, टायम मॅगझीन, वॉल स्ट्रीट जर्नल आनी सीबीएस धीस मॉर्नींग हांचेर सातत्यान लिखाण करतात, तशेंच नामनेच्या कंपनींत कॉर्पोरेट उलोवप करपाकूय तांकां आमंत्रीत करतात.

ॲटोमीक हॅबीट्स ह्या पुस्तकांत लेखक जेम्स क्लियर हांणी बऱ्यो आनी कार्यक्षम संवंयीं कश्यो आपणावप आनी वायट वो अकार्यक्षम संवंयी कश्यो मोडप हाचे बद्दल विस्तारान आनी वैज्ञानीक पद्दतीन मांडलां. त्याच पुस्तकाची वळख आज आमी करून घेंवया.

### जिणेंतल्या बारीक बारीक बदलांनी फरक पडटा

ऑलिंपीक खेळांत जावपी सायकलीचे सर्तींत 1908 ह्या वर्सा मेरेन इंग्लडाक फकत एकूच भांगरा पदक मेळिल्लें. तांचें ते सर्तींतलें सादरीकरण इतलें वायट आशिल्लें की नामनेचे सायकल निर्माते आपले सायकलीची विक्री उणी जायत म्हूण तांकां आपली सायकल विकपाक लेगीत तयार नाशिल्ले. म्हूण इंग्लडान आपल्या पंगडाचें सादरीकरण सुदरावपा

NEW YORK TIMES BESTSELLER

Tiny Changes,
Remarkable Results

Atomic
Habits

An Easy & Proven Way
to Build Good Habits
& Break Bad Ones




James Clear

खातीर डॅव ब्रॅयल्सफोर्ड हांकां नेमले. डॅवान सतींत वांटेकार जावपी खेळाडूंचे पद्दतींत आनी वापर जावपी सायकलींत ल्हान ल्हान बदल केले. देखीक सायकलीचें सीट वेगळे तरेन डिजायन केलें, घर्शण उणें करपाक टायरांचेर आल्कोहॉल सारयलें, सायकल चलोवप्यांक लायटीचेर गरम उरपी कपडे घालपाक लायले, पांयांची दूख कमी जावपाक कसलें वखद बरें पडटलें हाचेर अभ्यास केलो. इतलेंच न्ही तर विशाणुंचो संसर्ग उणो करपाक हात वेवस्तीत धुवपाची पद्दत शिकोवपी एक दोतोर लेगीत नेमलो. तशेंच रातीं न्हीद सारकी पडची म्हूण वांटेकारांनी न्हिदपाक कसले तरेच्यो गादयो आनी उर्शी वापरपाच्यो हें लेगीत थारायलें. हाचो परिणाम 2008 च्या ऑलिंपीक खेळांत दिसलो, जंय तांणी 60 प्रतिशत भांगरा पदकां मेळयलीं.

हे पद्दतीचें कोश्टक अशें- जर आमी वर्सांतल्या दर दिसाक एक प्रतिशत प्रगती केली जाल्यार वर्सा शेवटाक आमची 37 प्रतिशत प्रगती जातली. हाचे उरफाटें म्हणल्यार जर आमी दर दिसा 1 प्रतिशत अधोगती केली जाल्यार आमी वर्सा शेवटाक शुन्याचेर पावतलीं

आमी वर्सांतल्यान एक फावट जंक फुड खालें म्हूण कांय फरक पडना. पूण दर दिसा इल्लेंशेंच खालें जाल्यार ताचो आमचे भलायकेचेर खूब फरक पडटा. आनीक एक देख म्हणल्यार लॉस एंजालिसा कडल्यान न्युयॉर्काक वचपी वैमानिकान आपले विमानाची दिका फकत 3.5 डिग्री दक्षिणेक घुंवडायली जाल्यार तो न्युयॉर्का वाट्याचो वॉशिंग्टन डिसीक पावतलो. कोंकणींत एक म्हण आसा, 'वेंताक चुकल्यार वांवाक चुकता' ती हांगां ज्युस्ताक ज्यूस्त लागू पडटा.

**प्रगती कशी आसता ?**

जर तुमी 26 डिग्री तापमान आशिल्ले एके कुडींत, टेबलाचेर थाळयेंत घालून एक झेलाचो खडो दवरला आनी कुडींतलें तापमान वाडोवपाक लागले, सत्तावीस.. अठ्ठावीस.. एकोणतीस.. तीस..एकतीस. तरीय लेगीत तो झेलाचो खडो वितळना. पूण जेन्ना तापमान 32 डिग्री जाता तेन्ना अकस्मात तो खडो

वितळपाक लागता. फकत एकूच डिग्री तापमानांत वाड जाता पूण बदल मात व्हड घडटा.

परिवर्तनाचे खीण अशेच फाटले कांय तेप घडिल्ले क्रियेचे परिणाम स्वरुप आसतात जे एका खिणांत ठळक स्वरुपांत दिसपी बदल घडयतात. संवसारांत ह्यो देखी आमकां सगळ्याक दिसतात. कॅन्सराचें दुयेंस 80 % जाय मेरेन जायते फावट चड कांयच त्रास करना. पूण फुडले कांय दिसां भितर सगळे कुडींत पसरपाक लागता. कोंड्याचें झाड 5 वर्सां मेरेन मुळांतल्यानच वाडटा आनी फुडल्या 6 सप्तकां भितर 9 फूट मेरेन जमनी वयर वाडटा.

संवयेचेंय बी तशेंच आसता. कांय तेंप मेरेन त्यो कांयच परिणाम दाखयनात. पूण अकस्मात एके नवे पातळेचेर आमकां पावयतात. दरेके संवयेंचें बीज हें एक ल्हानसोच निर्णय आसता. पूण नेमान ताची पुनरावृत्ती केल्यार ती संवंय वाडटा आनी घटमूट जाता.

### उद्देशा कडेन न्ही तर यंत्रणे कडेन लक्ष दियात

उद्देश हो आमी मेळोवपाक सोदपी परिणाम आनी ते मेळोवपा खातीर करपाक लागपी यंत्रणाच आमकां थंय मेरेन पावयता. देखीक जर तुमी संगीतकार आसात तर तुमचो उद्देश पदाक नवी चाल लावप. पूण ती लायतले जाल्यार तुमकां मेहनत घेवंची पडटा, जातूंत संगीतार्चे ज्ञान गरजेचें आसता, कितल्योश्योच चाली लावन पळोवंच्यो पडटात. तातूंतली बरीशी चाल सोदून जाणकार रसिंकां कडल्यान प्रतिक्रिया घेवंची पडटा, मागिरूच तातुंतल्यान एक बरी चाल आशिल्लें पद तयार जाता. ते खातीर पदाक चाल लावपाचो उद्देश साकार जातलो जाल्यार थंय मेरेनचो प्रवास खूब म्हत्वाचो आसता. म्हूण चड वेळ उद्देशाचेर घालोवंचे परस थंय मेरेन पावपाचे यंत्रणेंत घालयल्यार आपसुकच उद्देश साध्य जाता.

### उद्देशाचेर चड लक्ष केंद्रीत केल्यार कांय समस्या उद्भवपाक शकतात

• समस्या 1 – जिंकपी आनी हारपी हांचो उद्देश एकूच आसता: दरेकल्या सर्तकाचो उद्देश सर्त जिंकपाचोच आसता. दोगांयचोय जर उद्देश एकूच आसा जाल्यार जैतिवंताक हारप्या पासून फरक करपाक उद्देश कारणीभूत ना असोच ताचो अर्थ जालो. जैतिवंत हो सातत्यान यंत्रणेंतल्यो बारीक बारीक गजाली सुदारावपाचेर भर दीत आसता म्हूण ताका हारप्या परस वेगळे परिणाम मेळटात.

• समस्या 2 – उद्देश मेळोवप हो फकत खिणयाळो बदल आसता:

जर तुमी तुमची रूम घाण जाल्या आनी तुमी ती निवळ करपाचो उद्देश दवरून काम सुरू केलें आनी सगलें जाग्यार घालें तर ते दिसा पुरती तुमची कूड निवळ जातली. पूण तुमकां जर काडिल्ल्यो वस्तू परत जाग्यार दवरपाची संवय ना जाल्यार दोन दिसांनी ती परत आशिल्ली तशीच घाण जातली. तुमी जर यंत्रणां बदलली ना जाल्यार तुमकां तेच तेच परिणाम मेळटले.

• समस्या 3 –उद्देश तुमचो आनंद मर्यादीत करता:

कसलोय उद्देश दोळ्यां मुखार आसलो काय तो मेळऽ मेरेन आमी आनंदा पासून स्वताक वंचीत दवरतात. आमचें सगलें लक्ष उद्देशाचेर केंद्रीत आशिल्ल्यान तो उद्देश साध्य जाय मेरेन आमी जें कितें करतात तातूंत आनंद घेवपाचें बिलकूल चिंतनात.

• समस्या 4– उद्देश हो दीर्घकालीन प्रगतीक मारक आसता:

जेन्ना आमचें सगळें लक्ष खंयच्याय उद्देशाचेर केंद्रीत आसता तेन्ना तो उद्देश साध्य जातकच आमचे कडेन करपा सारकें कांयच उरना आनी ते खातीर आमी परत आपले फाटले संवयीचेर वतात. देखीक आमी परिक्षे खातीर अभ्यास करपाच्या उद्देशान सकाळीं पांचांक उठपाचें थारायलें जाल्यार परिक्षा जातकच आमी आशिल्लीं तशीं सुशेगादीन उठपाक लागतलीं.

### अण्विक संवयेची यंत्रणा
### (atomic habit system)

वायट संवयांची पुनरार्वृत्ती जाता ती आमकां बदलपाक नाका आसता म्हूण न्ही, तर आमचे कडेन ती बदलपाक यंत्रणा नासता म्हूण जाता. अण्विक संवय म्हणल्यार एक ल्हानसो बदल, इल्लोसो लाव, 1% सुदारणा. जशे अणू हे खंयचे वस्तुचें मुळावें तत्त्व तशेंच अण्विक संवय म्हणल्यार

व्हड सुदारणेचें मुळावें तत्व. सुरवातेक जरी आमकां आमचे दिसपट्टेंतले क्षुल्लक फरक जाणवले नात तरी फुडें वचून ते इतले वाडटात आनी आमचे वागणुकेंत परिणामकारक बदल घडोवन हाडटात. म्हणतात न्ही थेंब्या थेंब्यांनी तळें सांचता.

आमच्यो संवयो हें आमचे आत्मसुदारणेंतलें चक्रवाढ व्याज. दिसाक फकत आमी एकच प्रतिशत वागणुंकेंत सकारात्मक बदल घडयलो जाल्यार दीर्घकालीन ताचो खुबच फ़ायदो घडटा. संवयो म्हणल्यार दुधारी तलवार. त्यो आमचे वटेनूय काम करतात वो आमच्या विरुध्दय काम करतात. ते खातीर त्यो बारकायेन जाणा जावन घेवप गरजेचें आसा. आमचे कसलेय बरे संवयेचें फळ आमकां रोकडेंच फावो जायना तर ते खातीर मात्सो धीर धरप गरजेचें आसता.

आमच्यो संवयो आमच्या व्यक्तित्वाक घडयता आनी व्यक्तित्व आमच्यो संवयो घडयता-

आमच्यो संवयो बदलप दोन कारणांक लागून कुस्तार आसता-

1. आमी चुकीच्यो गजाली बदलपाचो प्रयत्न करतात.

2. आमी चुकीचे पद्दतीन आमच्यो संवयो बदलपाचो प्रयत्न करतात.

सभावांत बदल घडोवपाक गरजेचे अशे तीन थर-

पयलो थर म्हणल्यार परिणाम बदलप.आमी जर आम कां जाय ती निश्पत्ती निश्चित केली जाल्यार आमची संवय बदलूंक शकता. देखीक वजन देंवोंवप, पुस्तक उजवाडावप.

दुसरो थर म्हणल्यार प्रक्रिया बदलप - देखीक व्यायाम ाचो नवो नित्यक्रम थारावप, सुरळीत कार्यप्रवाहा खातीर लिखाणाचें टेबल निवळ करप.

आनी तिसरो आनी खोल थर म्हणल्यार तुमचें व्यक्तित्व बदलप - देखीक तुमच्यो धारणां, दिश्टीकोन, आत्म-छबी बदलप, स्वता बद्दलचे समज बदलप. आमच्यो चडश्यो धारणां, भावार्थ, पुर्वग्रह ह्याच थराक निगडीत आसतात.परिणाम हे आमकां जें कितें मेळटा तें, प्रक्रिया हें आमी जें कितें करतात तें आनी व्यक्तित्व हें आमी जाचेर विस्वास दवरतात तें.

चडशे जाण आपल्यो संवयो बदलपाक पयलो थर वापरतात. म्हणल्यार तांकां जो कितें परिणाम मेळोवपाक जाय ताचेर लक्ष केंद्रीत करून संवयो थारायतात. ते खातीर तांच्यो संवयो परिणाम-आदारीत आसतात. पूण हाचे उरफाटें जर आमी तिसऱ्या थराचेर म्हणल्यार व्यक्तित्व-बदल आदारीत संवयो लायल्यो जाल्यार आमकां चड लाब जावंक शकता.

व्यक्तित्व बदलपी दिश्टिकोणांत आमी स्वता कोण जावपाक सोदतात हाचेर लक्ष केंद्रीत करून सुरवात करतात. देखीक दोन व्यक्ती सिगाराचें वेसन सोडपाक सोदतात. जेन्ना पयले व्यक्तीक कोणूय सिगार ओडपाक दिता तेन्ना तो म्हणटा, ''थँक्यु. हांव सिगरेटीचें वेसन सोडपाचो यत्न करतां.''

पळोवपाक गेल्यार ताची जाप चूक ना. पूण ताचे जापेंतल्यान समजता, तो अजून मानून चलता, तो सिगरेट ओडपी पूण आतां तें वेसन सोडपाचो यत्न करता.

दुसरे व्यक्तीक जेन्ना कोणूय सिगरेट दिता तेन्ना तो म्हणटा, ''थँक्यू, हांव स्मोकर न्ही.''

जापेंत इल्लोसो फरक. पूण हे जापेंतल्यान ताचें अख्खें व्यक्तीत्व बदलता. सिगरेटीचें वेसन हें ताच्या जिविताचो आनी व्यक्तित्वाचो पयलीं एक भाग आशिल्लो. पूण आतां ना हो ताचे आत्मधारणेंत घडिल्लो बदल. तो स्वताक आतां सिगरेटीचें वेसन आशिल्ली व्यक्ती समजना. आनी ताच्या व्यक्तित्वांत घडिल्लो होच फरक ताका सिगरेटीचें वेसन मुळा सावन सोडपाक आदार करता.

आमचे दरेके कृतीक आमची धारणा कारणीभूत आसता. देखीक लोकशायेची यंत्रणा स्वातंत्र्याचे आनी सामाजीक समानतायेचे यंत्रणेचेर आदारिल्ली आसता. जी वागणूक स्वताच्या व्यक्तिमत्वाक विसंगत आसा ती चड काळ तिगना. आमी जर आमचो समज आनी धारणा बदलली ना जाल्यार आमकां आमची संवय बदलप कुस्तार पडटा.

कॉलोराडोचो एक नामनेचो वेवसायीक ब्रायन क्लार्क हाचो संवय बदलपा फाटले जिणेंतलो एक प्रसंग. ताका ल्हानपणा सावन नाकटां चाबडावपाची वायट संवय आशिल्ली. मातशें लेगीत टेन्शन जालें काय तो हात तोंडा कडेन व्हरून नाकटां कुरतडटालो. अशें करून ताणें आपल्या हाताची दशा करून घेतिल्ली. एक दीस ताणें ती संवय सोडपाचें थारायलें. आनी चार दीस जाणिवपुर्वक हात तोंडा कडेन व्हरपाचो आडायलो. नाकटां मातशी वाटडकच ताणें सलुनांत मॅन्युक्युअर करून घेतलें. तें करतकच ताचे हात बरे दिसपाक लागले.

मॅन्युकुरीश्टान लेगीत ताच्या हातांची तोखणाय केली तेन्ना ताका आपल्या हाताविशीं अभिमान दिसलो. ते तशेच उरपा खातीर तो नेमान हाताची आनी नाकटांची काळजी घेवपाक लागलो आनी ताची नाकटां चाबडावपाची संवयूय सुटली.

हें अशें घडपा फाटलें कारण म्हणल्यार जेन्ना ताची संवय ही ताच्या व्यक्तित्वाचो भाग जाली तेन्ना ती दवरपाक ताका आपसूकच आंतरीक प्रेरणा मेळपाक लागली.

जेन्ना आमकां आमच्या व्यक्तित्वाच्या खंयच्याय गुणाचो, खुबीचो अभिमान, तोखणाय दिसता तेन्ना ताका निगडीत कसलीय संवय आसता ती सांबाळपाक आमकां आंतरीक प्रेरणा आपसुकच येता. देखीक आमकां जर आमच्या केंसांचो अभिमान आसा जाल्यार ते सांबाळपाक गरजेची आसा ती संवय लावन आमी घेतात. वागणुकेंतलो खरो बदल म्हणल्यार व्यक्तित्वांतलो बदल. देखून आमी आमची मोख व्यक्तित्वांत बदल घडोवपाची दवरपाक जाय. देखीक, मोख पुस्तक वाचपाची न्ही तर वाचक जावपाची वो मोख पद गावपाची न्ही तर गायक जावपाची दवरपाक जाय.

आमची वागणूक आमच्या व्यक्तित्वाचें प्रतिबिंब जावन आसता. संशोधनांतल्यान सिध्द जालां, जी व्यक्ती आपल्या व्यक्तित्वाच्या खंयच्याय पैलूचेर विस्वास दवरता ती त्या विस्वासाक घटाय दिवपाक पोशक अश्यो गजाली आपसूकच करता. आपली वळख वो आपलें व्यक्तित्व आनी स्व-प्रतिमा साबांळपा खातीर तिका आंतरीक प्रेरणा येता आनी ते भशेन वागणूक करता. आपल्या व्यक्तित्वाच्या विपरीत वागणें ती सदांच टाळपाक सोदता. आपल्या व्याक्तित्वांत सकारात्मक बदल घडपाक जाय जाल्यार मनशाक सदांच आपल्यो समजुती, धारणा सुदारीत रावपाची गरज आसता.

आमचें व्यक्तीत्व बदलपा खातीरची दोन पांवड्यांवेली प्रक्रिया-

1.आपल्याक कसले तरेची व्यक्ती जावपाक जाय तें पयलीं थारावपाचें

2.ल्हान ल्हान जैतांनी तें स्वताकूच पटयत रावपाचें

आमच्या बारीक सारीक संवयांतल्यानूच आमचें व्यक्तीत्व घडटा. आमी पूर्वनिर्धारीत समज, धारणा घेवन जल्मल्लीं आसनात. दरेक समज मागीर तो स्वता बद्दल लेगीत आसूं, तो आमी शिकिल्लो आनी आमकां अणभवांतल्यान संवयेचेर पडिल्लो आसता.

देखीक आमी जेन्ना दर दिसा लिखाण करतात तेन्ना आमी सर्जनशील व्यक्तित्वाक मुर्त स्वरूप दितात वो आमी जेन्ना खेळाचो सराव करतात तेन्ना आमी खिलाडी व्यक्तित्वाक मुर्त स्वरूप दितात.

तुमी तुमचें जें किर्ते व्यक्तीत्व आयज मेरेन समजतात ताचे तुमचे कडेन पुरावे आशिल्ल्यान तुमी ते सत मानतात वो ताचेर विस्वास दवरतात. देखीक पावस पडटना लेगीत तुमी व्यायाम करपाक जिमांत गेले जाल्यार तुमी तुमचे भलायकेची काळजी घेवपा कडेन बांधील आसात हाचो तुमचे कडेन पुरावो जाता. जितले चड पुरावे तितलो तुमचो समज घट जाता. ते खातीर तुमी जे कोण स्वताक समजतात तें बदलपाक जाय जाल्यार तुमी जी किर्ते कृती करतात ती बदलपाची गरज आसता. तुमच्यो संवयो तुमचे व्यक्तित्वांत परिवर्तन करतात आनी तुमचें व्यक्तीत्व तुमचे संवयांत बदल घडयता.

**● संवयांचो आमकां इतलो कित्याक फरक पडटा ?**

आमचे व्यक्तीत्व कशे भशेन आसतलें तें, आमी कसल्यो संवयो वेंचतात हाचेर निंबून आसता. स्वता बद्दलचे समज बदलपाची ताकद आमचे कडेन आसता. आमच्यो बऱ्यो वायट संवयो आमकां जाय तशें आमचें व्यक्तीत्व घडोवपाक मजत करतात. आमकां जे तरेची व्यक्ती जावपाक जाय तेंय घडोवपाक मजत करतात. ताकाच लागून आमी बऱ्यो संवयों कश्यो घालून घेवपाक शकतात हें समजुवप भोव गरजेचें.

**● चार सोप्या पांवड्यांनी बऱ्यो संवयों कश्यो लावन घेवप?**

1898 त एडवर्ड थोर्नडीक ह्या नामनेच्या मानसशास्त्रज्ञान संवयांचेर अभ्यास करपा खातीर मांजरांचेर एक प्रयोग केलो. ताणें मांजराक एका बॉक्सांत दवरलें. तातुंतल्यान भायर सरतलें जाल्यार ताका खिळी उगडपाक खंयच्याय लिवराचेर दावकूल मारपाची, दोरी ओडपाची अशी किर्तेय तरी कृती करची पडटाली. दार उगडलें जाल्यार मांजराक भायर येवपाक आनी खावपाक मेळटालें. जायतीं मांजरां घेवन ताणें हो प्रयोग



केलो. निश्कर्शांत ताका अशें दिसलें, पयलेच फावट तांकां भायर सरपाची पद्दत सोदून काडपाक चड कळाव लागतालो. एक फावट तांकां समजलें काय तीं शिकून घेतालीं आनी फुडले दरेक फावट तांकां भायर येवपाक कळाव उणो उणो लागतालो.

प्रयोगाच्या शेवटाक ताणें अशें मत मांडलें, जे कृतीचें आमकां समाधानकारक परिणाम मेळटात त्यो कृती आमी परत परत करतात आनी जे कृतीचें आमकां मना सारके परिणाम मेळनात त्यो कृती आमी उणे प्रमाणांत करतात वो करपाच्यो टाळटात. तांच्या ह्या संशोधनांत आमकां आमच्यो संवयो कश्यो आनी कित्याक घडटात हाची जाप मेळटा.

**● आमचो मेंदू संवयों कित्याक लावन घेता ?**

संवय हें परत परत केल्लें वागणें वो कृती जी आमचे अंगवळणीक पडिल्ली आसता. संवयों लावन घेवपाची क्रिया ही प्रयोग आनी त्रुटी (trial and error) ह्या त्तत्वाचेर आदारिल्ली आसता. जसो चड चड सराव जाता तसतश्यो उपयुक्त हालचाली वो कृती प्रबळ जातात आनी निरुपेगी कृती लुप्त जातात. जी कृती आमकां परत परत करपाची आसता ती गजाल आमचो मेंदू आपचलीत करून दवरपाक पळयता. आमच्यो संवयों म्हणल्यार एक आपचलीत उपाय जो आमच्या मेंदवाक गरज नाशिल्लो ताण उणो करता. ते खातीर संवय करून घेतल्यार मेंदवाचें काम उणें जाता आनी ताचेर नाका तितलो ताण पडना. मेंदवाचें कार्य उणें जाल्ल्यान तो ती उर्जा सांबाळून दवरून म्हत्वाच्या कामांत वापरूंक शकता. संवय ही आमी समस्या सोडोवपा खातीर भूतकाळांत वापरिल्ले पद्दतीची याद. ती याद दवरून आमी आमची तसलेच प्रकारची समस्या आदले परस कमी काळांत सोडोवपाक शकतात. देखून संवय ही आमी आमच्या अणभवांतल्यान शिकिल्ले मानसीक शॉर्टकट अशें आमी म्हणूंक शकतात.

संवय करून घेवप हें भोव उपेगाचें. कारण आमचें सावचीत मन (Conscious mind) एक वेळार एकेच गजालीचेर लक्ष केंद्रीत करपाक शकता. ते खातीर आमचो मेंदू आमच्या सावचीत मनाचें लक्ष सगल्यांत गरजेच्या आनी म्हत्वाच्या कार्याचेर अदीक केंद्रीत करता. ते खातीर संवयों आमचे स्वातंत्र्याक मर्यादा घालना तर स्वातंत्र्य निर्माण करता.

**संवये फाटलें विज्ञान**

आमकां जर खंयचीय संवय लावन घेवपाक जाय जाल्यार ती प्रक्रिया चार पांवड्यांनी विभागूंक येता. ते चार भाग म्हणल्यार - सुचोवणी (cue), वान्सा वो जबर इत्सा (Craving), प्रतिसाद (Response), मोबदलो (Reward).

1.सुचोवणी - खंयचेंय वागणें सुरू करपाक सुचोवणी ही मेंदवाची कळ दामता. ते वागणुकेंतल्यान मेळपी मोबदलो कितें आसपाक शकता हाची म्हायती ती मेंदवाक धाडटा. हाचे फाटल्यान आमचे उत्क्रांतीचो इतिहास कारणीभूत आसा. आमचे पुर्वज उदक, खाद्य, संभोग ह्या मुळाव्या मोबदल्याचो अंदाज लावपी (Primary reward) सुचोवण्यां कडेन लक्ष दिताले. आधुनीक काळांत आमी पयशे, नामना, ताकद, तोखणाय, प्रतिशठा, इश्टागत, मोग ह्या सारख्या दुय्यम मोबदल्याचो (secondary reward) अंदाज लावपी सुचोवण्यां कडेन लक्ष दितात. जरी ह्यो दुय्यम गजाली आसल्यो तरी त्यो अप्रत्यक्ष रितीन आमचें अस्तित्व आनी

प्रजननांत सुदारणा करपाक नक्कीच मजत करतात.

2.वान्सा वो जबर इत्सा - दरेक संवये फाटली ती प्रेरणाशक्त जावन आसता. कांय प्रमाणांत प्रेरणा वो इत्सा ना जाल्यार कृती करपाक आमकां कांय कारण दिसना. देखीक आमकां मनरिजवण करीन दिसना जाल्यार टिवी चालू करपाची गरज दिसना. दरेक वान्सा ही व्यक्तीच्या मनाची भितरली अवस्था बदलपाचे इत्से कडेन जोडिल्ली आसता आसता. व्यक्तीचे विचार, भावना आनी उमाळे हेय खंयचीय सुचोवणी वान्से कडेन परिवर्तित करता आनी दरेक व्यक्तीची वान्सा ही वेगवेगळी आसता. सुचोवण्यांचो अर्थ लायलो ना जाल्यार त्यो अर्थशुन्य आनी मनीस ज्या सुचोवण्यांतल्यान प्रेरीत जातात तेन्नाच तांकां वान्सा जाता. पूण एकेच तरेच्या सुचोवणीचेर सगलेच जाण प्रेरीत जातलेच म्हूण ना.

3. प्रतिसाद - जी संवय आमी लावन घेतात ती म्हणल्यारच प्रतिसाद, प्रतिसाद हो एक विचार, एक कृती आसता. प्रतिसाद मेळटलो कांय ना हें तुमी तें वागणें करपाक कितले प्रेरीत जाल्यात आनी वागण्या कडेन संबंधीत कितलो विरोध वो घर्शण आसा हाचेर निंबून आसता.

4. मोबदलो - प्रतिसाद दिल्यारूच मोबदलो मेळटा. म्हणल्यार मोबदलो म्हणटात ती संवयेची अंतीम मोख. जेन्ना हो मोबदलो आमी हेरतात तेन्नाच मेंदवाक सुचोवणी दितात. वान्सा ही मोबदलो मेळपाची जबर इत्सा आनी प्रतिसाद ही मोबदलो मेळोवपाक केल्ली धडपड वो हालचाल.

आमी मोबदल्याच्या फाटल्यान पडिल्ले आसतात हाका दोन उद्देश आसतात- एक म्हणल्यार तो आमकां आमची वान्सा भागोवपाचें समाधान दिता आनी दुसरें म्हणल्यार खंयच्यो कृती भविश्यकाळांत याद धरपा सारख्यो आसून आमकां फायद्याक पडटल्यो हें मोबदलो आमकां शिकयता. आमचो मेंदू हो मोबदलो हेरीत आसता. आनी मोबदलो हो संवयेंचें वाटकूळ पुराय करता. आमचें वागणें हें ह्या चार पांवड्यांचेर खंयूय उणें पडटा जाल्यार ताची आमकां संवय जायना. सुचोवणी, वान्सा, प्रतिसाद आनी मोबदलो हे चार पांवडे न्युरोलॉजिकल फिडबॅक लूप तयार करतात जें आमकां आपचलीत संवय तयार करतात. ह्या वाटकुळाक हॅबीट लूप म्हणटात.

कांय देखी -

देख1. सुचोवणी - तुमच्या मोबायलाचेर संदेश आयिल्ल्याचो बीप वाजता -

इत्सा - तुमकां कोणें आनी कितें संदेश आयला हें पळोवपाची उत्सुकताय आनी जबर इत्सा जाता-

प्रतिसाद - तुमी तुमचो मोबायल हातांत घेवन तो संदेश उगडून वाचतात-

मोबदलो - तुमची जिज्ञासा आनी इत्सा पुराय जाता-

देख 2. सुचोवणी - तुमी काळखा कुडींत भितर सरतात-

इत्सा - तुमकां कुडींतलें सगलें दिसपाक जाय आसता.

प्रतिसाद - तुमी लायटीचो बटन चालू करतात-

मोबदलो - तुमची पळोवपाची इत्सा पुराय जाता-

वागणुकेच्या बदलाचे चार नेम -

बऱ्यो संवयों कश्यो लावन घेवप?

बऱ्यो संवयो घालून घेवपाक चार नेम आसात

पयलो नेम - संवय ही स्पश्ट रितीन करात.

दुसरो नेम - संवय ही आकर्शक रितीन करात.

तिसरो नेम - संवय सोपी जाता अशी करात.

चवथो नेम - संवय समाधान दिवपी अशी करात.

खंयचोय उद्देश हो मनशाच्या सभीवक वागण्याच्या आड गेलो जाल्यार तो कसोच फळादीक जावपाक शकना.

1. पयलो नियम - संवय ही स्पश्ट रितीन करात.

मनशाचो मेंदू हो फुडाराची तेळणी करीत, अंदाज लायत आसता. तो निरंतर सरभोवतणची म्हायती भितर घेवन ते म्हायतीचें विश्लेशण करीत अर्थ लायत आसता. जेन्ना आमी खंयचीय गजाल नियमितपणान अणभवतात तेन्ना आमचो मेंदू ते गजालींतले म्हत्वाचे मुद्दे आनी बारकावे समजून घेता आनी सुसंगत वो समर्पक सुचना ठळकपणान लक्षांत घेता आनी ती म्हायती फुडाराक वापरपाक सांबाळून यादींत दवरता. ते म्हायतीच्या आदाराचेर फुडें दिसपी सुचोवण्याच्या निश्पत्तीचो अंदाज तो चड विचार करनासतना लावपाक शकता. हेच प्रक्रियेक संवय म्हणटात. जसजशी संवय जडटा तसतशी ती कृती आमच्या अजागृत मनाच्या नियंत्रणांत येता

आनी नकळत घडटा. कांय तेंपान तर आमच्यो त्यो कृती इतल्यो नकळत घडटात की त्यो आमकां समजय लेगीत नात. देखीक खंयच्याय जाग्यार आमी चावी दवरतात तें इतले सहज घडटा की आमी ती केन्ना दवरल्या हे लेगीत आमकां याद उरना. त्या खातीर खंयचीय संवय आमकां बदलपाक जाय जाल्यार आमी पयलीं ते कृती बद्दल जागरूक जावचें पडटलें. नवी संवय घालून घेवपा खातीर आदली संवय स्पश्ट रितीन समजुवची पडटली. जर आमची खंयचीय संवय आमी लक्षांत घेतली ना जाल्यार ती बदलपाक वो सुदारपाक कांय संभव उरना. तें करपा खातीर कांय पद्दती समजून घेवया.

## निर्देश करून मोठ्यान उच्चारप (Pointing and calling)

जपानची रेल्वे वेवस्था ही संवसारांत सगल्यांत उत्कृश्ट अशी समजतात. थंय एक पद्दत आसा. जेन्ना ट्रेन चलता तेन्ना तांचे कर्मचारी हे दरेके वस्तू कडेन बोट दाखोवन मोठ्यान सुचोवणी उच्चारतात. देखीक जेन्ना ट्रेन सिग्नला कडेन पावता तेन्ना सिग्नला कडेन बोट दाखोवन मोठ्यान उच्चारतात - सिग्नल पांचवो आसा. ट्रेन स्टेशना वयल्यान भायर सरता तेन्ना ते मोठ्यान ताची ज्युस्त गती सांगतात. जेन्ना ट्रेन सुटपाची जाता तेन्ना ते वेळापत्रका कडेन पळोवन ज्युस्त वेळ सांगतात. अशें करतकच दरेक बारकावे दिसून येतात आनी आमी ते बद्दल सावचीत जातात. हे पद्दतीक Pointing and Calling म्हणटात आनी ही चुको कमीत कमी करपा खातीरची एक सुरक्षा पद्दत जावन आसा. हे पद्दतीक लागून चुको जावपाचो दर 85% वयल्यान 30% इतलो देंवला अशें दिसून आयलां. संवयों बदलपा फाटलें आनीक एक आव्हान म्हणल्यार आमी कितें कृती करतात ताची जागरुकताय दवरप. ही पद्दत इतली प्रभावी जावपा फाटलें कारण म्हणल्यार आमची जागरुकतायेची पातळी असावचीत संवयें वयल्यान सावचीत पातळेचेर पावता.

## संवयांचें गणना-पत्रक

संवयां बद्दल जागरुकताय हाडपा खातीर आनीक एक पद्दत म्हणल्यार संवयांचें गणना-पत्रक दवरप. सकाळच्यान सांज मेरेन आपूण कितें करता त्या सगळ्या कृतींची एक वळेरी करप. तातूंत, केन्ना उठटा, तोंड धुता, न्हाता, च्या पिता अश्यो बारीक सारीक संवयों बरोवन दवरप. सगळी वळेरी तयार जातकच त्यो एक-एक वाचून ती बरी, वायट काय व्हडलो फरक न पडपी तटस्थ (neutral) संवय अशे वांटे घालप. तशें पळोवपाक गेल्यार संवयो ह्यो बऱ्यो आनी वायट अश्यो आसच नात तर त्यो कार्यक्षम आनी अकार्यक्षम अश्यो आसतात. ज्या संवयांक लागून तुमकां जाय तसलें व्यक्तीत्व प्रबळ जाता त्यो बऱ्यो संवयों आनी ज्या संवयांक लागून तुमच्या व्याक्तित्वाक संघर्श उपरासता त्यो वायट संवयों अशें म्हणू येता. तर बऱ्या वो कार्यक्षम संवयां मुखार (+) चिन्ह घालात, वायट वो अकार्यक्षम सवंयां मुखार (-) हें चिन्ह आनी तटस्थ संवये मुखार (=) हें चिन्ह घालात. मागीर जेन्ना जेन्ना कार्यक्षम संवयांची पुनरावृती जातकच स्वताचीच तोखणाय करात आनी अकार्यक्षम वो वायट संवयांची पुनरार्वत्ती जाल्यार स्वता कडेनच मोठ्यान उलयात आनी स्वताक जागरूक करात. देखीक तुमकां जर वजन देवोंवपाक जाय आनी तरी आसतना तुमी पिझ्झा खालो जाल्यार म्हाका वजन देवोंवपाक जाय आसतना हांवें पिझ्झा खालो जो म्हजे भलायकेक हानीकारक आनी हांवें तो परत खावपाक नजो अशें आप-उलोवणें केल्यार आमी स्वताचे ते संवयें बद्दल जागरूक जावं येतात.

## नवीं संवय लावपाची उत्कृश्ट पद्दत

2001 वर्सा ग्रेट ब्रिटनाक एक संशोधन जाल्लें जातूंत 248 लोक वांटेकार आशिल्ले, जांकां व्यायामा संबंदीत बऱ्यो संवयो लावपाचेर प्रयोग केल्ले. तर तांणी ह्या लोकांचे तीन पंगड केले. पयलो पंगड नियंत्रण पंगड आशिल्लो जांकां ते कितलो व्यायाम करतात ताचो फकत हिशोब दवरपाक सांगिल्लो. दुसऱ्या पंगडाक व्यायामातल्यान भलायकेक मेळपी लावा बद्दल म्हायती दिवपी तशेंच व्यायाम करपा बद्दल प्रोत्साहन दिवपी वाचन करपाक सांगिल्लें. तशेंच तांणी कितलो व्यायाम करतात ताचो हिशोबय दवरपाचो आसलो. तिसऱ्या पंगडाकूय दुसऱ्या पंगडा भशेन प्रोत्साहन दिवपी वाचन करपाक दिल्लेंच, ते भायर तांकां आनीक एक गजाल करपाची आशिल्ली ती म्हणल्यार तांणी त्या आठवडो भरा खातीरचें व्यायामाचें वेळा-पत्रक तयार करपाक सांगिल्लें.

प्रयोगा उपरांत जेन्ना निश्कर्श काडलें तेन्ना सम जलें पयल्या आनी दुसऱ्या पंगडांतल्या 35 ते 38 % व्यक्तिनी सुमानाक एक फावट तरी व्यायाम केलो आनी तिसऱ्या पंगडांतल्या 91% व्यक्तीनी सुमानांतल्यान एक वेळ तरी व्यायाम केल्लो. म्हणल्यार पयल्या दोन पंगडां परस तिसऱ्या पंगडांतल्या दोबराद व्यक्तिनीं व्यायाम केल्लो दिसून आयलें. संशोधकानी ताचो 'कार्यवाही संकल्प' (implementation intention) असो उल्लेख केलो. म्हणल्यार जेन्ना एखाद्रे व्यक्ती कडेन कृती केन्ना आनी खंय करपाची हाचो आराखडो (कार्यवाही संकल्प) आसता तेन्ना ती कृती वो संवय आमची निश्चित रितीन घडून येता. वेळ आनी जागो हें संवय घडोवन हाडपी एक मोठी सुचोवणी जावन आसता.

**संवयेची माचय –**

**संवय सुदारपा खातीरचें सोपें नियोजन :**

फ्रेंच तत्वगिन्यानी डेनीस डिडेरोट हाणें गरिबींतच दीस काडले. पूण 1765 त जेन्ना ताची चली लग्नाची जाली तेन्ना ही परिस्थिती बदल्ली. जालें अशें, ताचे चलयेचें लग्न करपाक ताचे कडेन पयशे नाशिल्ले. पूण तो एनसायक्लोपिडीयाचो सह-संस्थापक आनी बरोवपी आशिल्लो. रशियेची राणी कॅथरीन द ग्रेट हिणें जेन्ना ताचे अर्थिक परिस्थिती बद्दल आयकलें तेन्ना तिणें ताका मजत करपाचें चिंतलें. तिणें डिडेरोटांचें वैयक्तीक वाचनालय 1000 पौंडाक विकत घेवपाचो प्रस्ताव ताका दिलो, जो ताणें मान्य केलो. आनी अकस्मात तो पयशेकार जालो. ताणें आपले चलयेचें लग्न दबाज्यांत केलें. आनी स्वता खातीरूय म्हारग आनी अप्रतीम असो कोट घेतलो. तो घालतकच ताका इतलो आनंद जालो की बाकीच्योय गजाली ताका आपल्या कोटाक सोब सारक्यो घेवपाचो मोह जालो. आपल्या कोटाच्या राहणीमानाक सोब सारक्यो वस्ती ताणें विकत घेतल्यो आनी घरूय सजयलें. अशें करून एके वस्तूक सोबोवपाक दुसरी वस्त हाडली. एके गजाली खातीर दुसरी विकत घेवपाचे मनशाचे असले म ानसीक प्रवृत्तीक 'डिडेरोट इफेक्ट' अशें नांव पडलां आनी तो लोकां मदीं सर्रास दिसून येता. आमी नवें कितें करपाचें तें चड करून आदीं कितें केलां ताचेर आदारून थारायतात. खंयचेंय वागणें हें अलिप्त अशें घडना. दरेक कृती नवे कृती खातीर एक सुचोवणी आसता. देखीक आमी हात धुवपाक बेसीना कडेन वतात. हात धुवन, हात पुसपाक वतात तेन्ना आमकां याद जाता घाण जाल्लो तुवालो उमळपाक घालपाची, तो घालपाक गेल्ले आसतना याद जाता कपडे धुवपाचो पावडर हाडपाची. अशें करून एकाचेर आदारीत दुसरी अशी एका फाटल्यान एक कृतीची सांखळी तयार जाता. दरेक कृती ही फुडले नवे कृतीची सुचोवणी दिवन वता.

**प्रेरणे परस सरभोवतणचें वातावरण**

**चड प्रभावी आसता –**

अमेरिकेच्या मॅसेच्युसेट्स हांगासरल्या एका हॉस्पिटलांतली एक दोतोर एन् थोर्नडिक हिणें हॉस्पिटलांत आहार आनी खाणाच्या संवयेंत एक बदल हाडपाचो थारायलो. थंयचे कर्मचारी आनी पेशंटांक मेळूंक येवपी लोक हे थंयच्या कॅन्टिनांत कितें ना कितें विकत घेताले. तांणी वस्तु दवरपाचे जागे बदल्ले. कॅश काउंटरा कडेन दवरिल्ल्या फ्रिजांत पयलीं फकत सोडाच आसताल्यो. तातूंत तांणी उदकूय दवरलें. बाकीच्याय जाग्यांनी उदकाच्यो बाटल्यो दवरल्यो. म्हणल्यार कॅन्टिनांत सोडा परस उदकाच्यो बाटल्यांचो आंकडो वाडयलो. तीन म्हयन्या उपरांत सोडाची विक्री 11.4% देंवली आनी उदकाची विक्री 25.8% चडली म्हणपाचें दिसलें. मागीर तांणी खाणा बद्दलूय जाग्याचो तसोच बदल केलो आनी जंक फुडा परस भलायकेक उपयुक्त अशें खाण चड मेळटा अशी येवजण केली. आनी लोकांक कितें विकतें घे तें सांगऽ नासतनाच तांचे खाणाचे संवयेतूय बदल केलो. लोक वस्तु कितें आसा हाचे परस ती खंय आसा हाचेर ताची निवड करतात. देखीक आमी रांदचे कुडींत गेल्लीं आसतना आम कां सगळ्यांत पयलीं वो लागीं चिप्सां पॅकेट दिसलें जाल्यार आमी तेंच पयलीं तोंडांत वडयतलीं. ताच्या वाट्याक केळीं दिसलीं जाल्यार तीं पयलीं खातलीं. सरभवतणचें वातावरण मनशाच्यो संवयो घडोवपाक अदृश्य रितीन कारणीभूत आसतात.

2. दुसरो नेम – संवयो आकर्शक करात

कोट्यांनी वर्सां रानांत शिकार करून आनी खाण पुंजावन जियेवपी मनशाच्या मेंदवाक मीठ, साकर, चरबीयुक्त खाण

खावपाची संवय जाल्ली. तीं खाणां मेळपाकूय तांकां खूब कुस्तार जातालें. देखून जेन्ना मेळटालीं तेन्ना परत केन्ना मेळटलें हाचो भरवंसो नाशिल्ल्यान ते हाडबडीत खाताले. आयज मनशाक मीठ, साकर वो चरबीयुक्त खाण जाय तितलें, जाय तेन्ना मेळटा तरीय आमचो मेंदू आदले संवये प्रमाण तें खाण खावपाक सोदता. आधुनीक काळांत तसल्या खाणाची आमकां चड गरजूय ना. वयल्यान तें भलायकेक हानीकारक. पूण आमच्या मेंदवाची वान्सा फाटल्या पन्नास हजार वर्सांत मात लेगीत बदल्ली ना. आनी ताचोच फायदो आयचे खाद्यउद्योग वेवसायीक घेतात. मनशाक उत्क्रांतींतल्यान चलून आयिल्ले अंतरप्रेरणेक लागून मनीस भलायकेक वायट आशिल्लें खाण रुचीन खाता. आनी तसल्या गिरायकाक आकर्शित करपी खाद्यां तयार करपाची मोख दवरून खाद्यउद्योग वेवसाय चलतात.

मनशाच्या मेंदवांतल्या डॉपेमीन ह्या न्युरोट्राम्समीटराचें प्रमाण मेजून आतां वैज्ञानिक, मनशाक जावपी जबर इत्सा केन्ना उत्पन्न जाल्या ताचो माग लावपाक शकतात. आमच्यो संवयो ह्यो डॉपेमीन-चालनेन मेळिल्लो प्रतिसाद. आमच्यो चडश्यो संवयो वो व्यसनां देखीक सोरो पिवप, सिगरेट ओडप, अंमली पदार्थ सेवन करप, जंकफूड खावप, ऑनलायन गेम खेळप, सोशल मिडीया वापरप ह्यो सगळ्यो डॉपेमीनाची चडांत चड पातळी जाय जाल्ल्यान घडटात. आमच्यो बाकीच्योय मुळाव्यो संवयो देखीक उदक पिवप, खावप, समागम, सामाजीक बांदिलकी हेंवूय बी डॉपेमीना कडेनच संबंदीत आसात. आमकां जेन्ना डॉपेमीनाची पातळी वाडोवपाक जाय दिसता तेन्ना आमकां हें सगळें करपाची वान्सा जाता.

**सामाजीक नेमांचें पालन -**

मनशाच्या उत्क्रांतीच्या इतिहासांत आमचे पुर्वज हे सदांच समुहांत रावन आयिल्ले आशिल्ल्यान एकमुळो रावप वो समाजांतल्यान भायरावप हें मरणख्यास्ती इतलीच ख्यास्त आशिल्ली. आनी आपल्या समुहांतल्या वांगड्या सारख्योच संवयो वो वागणूक तो आपणायतालो. आपल्या समुहांतल्या तीन प्रकारच्या व्यक्तीच्या संवयांचें तो अनुकरण करपाक सोदतालो. आपल्याक लागसरच्याचें, भोवसंख्यांकाचें आनी ताकदवान व्यक्तीचें. आमी जेन्ना कशें वागप हाचे बद्दल शेर्त नासतात तेन्ना आमी आमच्या लागसरचे वो चडांत चड भौस कितें करता हाचेर नदर मारतात आनी तेच प्रमाण करतात. देखीक आमी एमेझोनाचेर कितेंय विकतें घेवपाक वतात तेन्ना थंय लोकांनी बरयिल्ल्यो प्रतिक्रिया पयलीं वाचतात आनी चडांत चड लोकांक मानवल्ली गजालूच विकती घेतात.

तेच वांगडा आमी सदांच जैतीवंत व्यक्तीचेंच अनुकरण करपाक सोदतात. देखून तर जायरातदार सदांच नामनेचे व्यक्तीकूच घेवन आपल्या उत्पादनाची जायरात करतात.

3.तिसरो नेम - संवय सोपी करात

नवी संवय लावन घेवपाक कितलो वेळ लागता ?

जायते फावट आमी आयकलां आसतलें एखाद्री संवय लागपाक ती आमी 21 दीस करची पडटा. पूण कितले दीस करता ताचे परस कितले फावट वो कितली वारंवार करता हें चड म्हत्वाचें. येवजणे परस आचरण म्हत्वाचें.

**कमीत कमी म्हेनतीचो नेम**

आमची उर्जा खूब किमती म्हूण आमचो मेंदू ती कमीत कमी वापरून जाता तितली वांचोवपाच्या यत्नात आसता. ते खातीर आमी कसलीय गजाल कमीत कमी म्हेनत करून मेळोवपाक सोदतात. देखून आमची संवय इतली सोपी आसपाक जाय जी आमी करीन दिसना तेन्ना लेगीत करपाक जाय. तें करपाक सगळ्यांत प्रभावी पद्दत म्हणल्यार परिसर येवजण. जपानी लोक ते बाबतींत फिशाल आसतात. कमीत कमी वेळांत आनी म्हेनत घेवन चडांत चड काम करून काडपा खातीर आपल्या फॅक्टरीनी ते खासा रितीन मांडावळ करतात. कसलीय गजाल करतना ती करपाक सोंपी पडली, तातूंत लागपी वेळ आनी उर्जा वांचली आनी कमीत कमी म्हेनत घेवन ती करपाक मेळ्ळी जाल्यार आमी कमी कश्टान चड उत्पादन मेळोवपाक शकतात. देखून तुमचो परिसर अशे तरेन दवरात की फुडारांत लागपी सगळ्यो कृती करपाक सोंपें पडपाक जाय.

आमचो 24 वरांचो दीस एकेक खिणान तयार जाल्लो आसता आनी दरेक खिणाक आमी कितें ना कितें तरी कृती करतात. त्यो ल्हान-सान गजाली एकठांवन पुराय दीस

घडिल्लो आसता. त्या खातीर दरेक ल्हान-सान संवय ही आमचे दिसभरचे म्हेनतीक  निर्णायक आसता.

**दोन मिनिटांचो नियम**

तुमी जेन्ना एखाद्री नवी संवय सुरू करतात तेन्ना ती सुरवातेक दोनच मिनटां वयर आसपाक जायना. म्हणकच ती सुरवात करपाक सोंपी पडटली. देखीक तुमी व्यायाम करपाचें मनार घेतलें जाल्यार सुरवातेक फकत दोनच मिनटां करात. मागीर एकदा संवय जातकच ल्हवल्हव वेळ वाडयात.

4.चवथो नेम – संवय समाधानकारक करात

आमकां जेन्ना खंयचोय अणभव समाधानकारक मेळटा तेन्ना ती कृती परत परत करपाक आमकां आवडटा. देखीक आमी हात धुवपाच्या साबणाक जर बरो वास येता जाल्यार आमकां हात धुवपाक आवडटा.

च्युइंग गम ही 18 व्या शेंकड्यांतल्या बाजारांत उपलब्ध आशिल्ली. पूण 1891त जेन्ना रिगले (Wrigley) हांणी रुचीक, आनी रसाळ फळांच्या सुवादाची च्युइंग गम्स तयार केलीं  तेन्ना त्या क्षेत्रांत नवी क्रांती हाडली. तांचें फुडलें पावल म्हणल्यार तांणी ताची जायरात, 'तुमचें तोंड निवळ दवरात आनी रुच ताजी टवटवीत करात' ह्या उतरांनी केली तेन्ना ताचो खप प्रचंड वाडलो. तोंडांत रुचीक रसाळ सुवाद आनी ताजे टवटवीत दिशिल्ल्यान तें उत्पादन वापरपाक लोकांक समाधान मेळपाक लागलें आनी तो अणभव मेळोवपा खातीर ते चडांत चड ताचो वापर करपाक लागले. अशे तरेन 'रिगले'ही संवसारांतली सगळ्यांत पयली आनी व्हडली च्युइंग गम कंपनी जाली.

रिगलेची ही गजाल वागणूक बदलाच्या एक म्हत्वाच्या नेमाची गवाय दिता. तो नेम म्हणल्यार  जी वागणूक मोबदलो (reward) वो समाधान दिता ते वागणुकेची पुनरावृत्ती जाता आनी जी गजाल रोकडीच ख्यास्त दिता ती टाळप जाता.

तात्काळ आनी विलंबीत मोबदल्या मदली विसंगत

जनावरांचें विश्व हें तात्काळ मेळपी मोबदल्याचेर आदारीत आसता. तीं कितेंय कृती करतात ताचो परिणाम तांकां तात्काळ दिसून येता. देखीक एक वाग हरणाच्या फाटल्यान लागलो जाल्यार एक तर तें हरण ताची शिकार जातलें ना तर तें पळून वचपाक येसस्वी जातलें. म्हणल्यार परिणाम कितें जावपाचो आसा तो कांय खिणा भितर समजता.

पूण अर्विल्ल्या काळांत समाजांत रावपी लोकां मर्दीं आयज केल्ले कृतीचो वो निवडिल्ल्या पर्यायाचो परिणाम रोकडोच मेळटाच म्हूण ना. पूण मनशाचो मेंदू विलंबीत मोबदल्या खातीर उत्क्रांत जावंक ना. उत्क्रांतीचो इतिहास इतलो व्हड आसा, ताचे मुखार फाटलीं 500 वर्सां विलंबीत मोबदल्याचेर आदारीत सामाजीक जीण आमी जियेतात  तो काळ सामको ल्हान तशेंच 500 वर्सांचो काळ हो उत्क्रांती खातीर सामको उणो.  आमचो मेंदू ते खातीर अजून तरी तयार जावंक ना.

वर्तन- अर्थशास्त्रज्ञ हे प्रवृत्तेक वेळेची विसंगती म्हूण संबोधतात.  जो मोबदलो आमकां रोकडोच आनी निश्चित मेळटा तीच कृती फुडारांत  करपाची शक्यताय चड आसता. पूण हाकाच लागून आमच्या बऱ्या वर्तनाक बाधा येता. देखीक धुम्रपानाचें व्यसन आशिल्ल्यांक सिगरेटीन कर्करोग जावपाचो धोको आसा हें बेसबरे जरी खबर आसलें तरी तो रोकडोच जायनाशिल्ल्यान ताचे परिणाम विलंबीत आसतात.  सिगरेट ओडल्यार मात ताण रोकडोच उणो दिसता. म्हणल्यार सिगरेट ओडपाची कृती फुडारांत भलायकेक वायट जरी आसली तरी ताचो तात्काळ मोबदलो वर्तमानांत ताण कमी करता.  ते खातीर तात्काळ आनी विलंबीत मोबदल्या भितरले वेळाचे विसंगतीक लागून मनीस तात्काळ मेळपी मोबदल्याच्या फाटल्यान लागता. जी व्यक्ती समाधान विलंबीत करपाक शकता तांकां भविश्यांत बरे परिणाम मेळपाची शक्यताय चड आसता.

एक थेंब उदकान तळें भरना, पूण एकेक थेंब निरंतर पडत रावलो जाल्यार निश्चित तळें भरपाक शकता. आमच्यो अण्विक संवयों तश्योच आसतात. ल्हानशीच एक-एक अशी संवय एकठांय जावन आमचें वर्तन बदलता आनी आमकां जाय तशी व्यक्ती जावपाक आमकां शक्य जाता. संवयो बदलप आनी कार्यक्षम संवयो घालून घेवप हो एक निरंतर प्रवास जो ल्हान-ल्हान पांवड्यांनी चलचो पडटा.  तेच खातीर आमच्या ल्हान-सान संवयांचेर आमचें बारीकसाणेन लक्ष आसपाक जाय आनी खंयचीय संवय जी अकार्यक्षम आनी वायट अशी आमकां दिसली जाल्यार ती रोकडीच बदलपाचो यत्न आमी करपाक जाय.

•••

नवलिका

डॉ. गुरुदास नाटेकार



दिसाळयांनी आनी नेमाळयांनी सातत्यान मराठी लिखाण करपी *डॉ. गुरुदास नाटेकार* हे गोंयचे एक नामनेचे उद्देजक आनी सामाजीक वावुरपी. तांकां साहित्याची मुळा सावन आवड आनी तांणी नाटक, कादंबरी, ललित अशे साहित्याचे वेगवेगळे प्रकार हाताळून गोंयच्या मराठी साहित्यांत मोलाची भर घाल्या. आतां मेरेन तांचीं मराठी, कोंकणी, हिन्दी आनी इंग्लीश भाशेंत 18 पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तांणी संवसारांतल्या 40 देशांची भोवंडी करून जिवीत अणभव संपन्न केलां.'हो खेळ दैवाचो!' ही तांची एक आगळी वेगळी नवलिका बिम्ब वाचकां पासत खिस्ती खिस्तीनी.



# हो खेळ दैवाचो...!

लुसी आतां आपल्या लिसांवांक पेटिल्लें. तें बीएच्या क्लासांत शिकतालें. ताणें थारायलें,आयच्यान आपूण शांत चित्तान लिसांवाक लागतलें आनी ते प्रमाण ताणें बुकां हातांत घेतलीं. पूण ताचें शिंतीद कशेंच लिसांवांक लागनासलें! मारियान मायकला व्शी जो किडो ताचे तकलेंत सोडलेलो, तो लुसीक कसोच सुशेगाद बसूंक दिना आसलो. इतल्या दिसांच्या तांच्या बऱ्या नात्याविशीं पयलेच खेप लुसीच्या मनांत मायकलाविशीं एक दुबाव वयर सरलो. 'मायकल म्हाका फसयना मू?'.

लुसीन बूक धांपून तशेंच आपल्या हातांत धरलें आनी तें भायर पळयत रावलें. भायर घोग्यांनी पावस रकतालो. मात त्या पावसांत मायकलाविशींच्या दुबावांचें जोगलावणें मात लुसीच्या मनांत झगझगतालें! नाका नाका जाल्लें वायट चिंतप ताच्या मनांत आनी तकलेंत मोड उप्रासायतालें. त्या पुराय मोडांत लुसीच्या चिंतनाची वयर सकयल जावपी बोट थीर करपाचो यत्न करतालें तें ताचें हयकारी चिंतप, 'ना,मायकल म्हाका फसयना, तो म्हाका आपली बरी इश्टीण मानता!'

'तो म्हाजेर मोग करता काय ना हाची कल्पना जरी म्हाका आजून मेरेन येवंक ना आसली तरी तो म्हाका इश्टीण म्हूण केन्नाच घात मारचो ना, कित्याक म्हुजो म्हुज्या इश्टाचेर आनी ताचे इश्टागतीचेर पुराय भरवंसो

आसा!आंटी सांगता तातूंत सत आसा.‘जेन्ना आमी खंयचीय गजाल निसुवार्थीपणान करतां तेन्ना थंय आमचो केन्नाच विश्वासघात जायना.’ खरेंच तिचें! बरे भावनेन केल्ली दरेक गजाल पवित्र आनी जेजूक मोगाची आसता. म्हुजें मायकला सांगाताचें नातें सामकें पवित्र जावन आसा. मागीर आसू ती ताचे लागची इश्टागत वा आसूं म्हुजो मोग...’

अशें येवजितां येवजितां ताका केन्ना न्हिद लागली हें ताकाच गोमलें ना. जल्माक येत सावन लुसीच्या जिवितांत कितलेच चढ-उतार आयिल्ले, पूण आसा ते परिस्थिती वांगडा जुळोवन घेत आपलींच दुकां मोन्यानी पिवपाची ताका आतां एक संवयूच जाल्ली!

मायकलाक मेळत,ताचे लागीं गजाली मारीत आनी कॉलेजीक वता वतां ताचें जिवीत पावलां मारतालें. ताणें आतां एका रोपाच्या दुकानांत पार्ट टायम शिर्विसूय धरिल्ली. ताका लागून ताच्या शिकपाच्या खर्चाक आदार जातालो आनी आंटीकूय मजत करूंक मेळटाली.

लुसीचे शिर्विसेक लागून ताका आतां आदले वरीं मायकलाक मेळप शक्य जायना आसलें. तांचें मेळप उणें जाल्लें आसलें तरी आजूनय तें ताचेर खूब खूब मोग करतालें. एक दीस तिचे एके इश्टीणी लागच्यान ताका मायकलाची चीट मेळ्ळी.

‘डिअर लुसी, तूं म्हुजे पासून पयस वयता म्हणपाचो दुबाव मारून म्हाका ताचो खूब त्रास भोगता. तूं घडये तुज्या लायफांत खुशाल आसतय बी, पूण हांव मात तुका म्हुज्या जिवितांत खूब मीस करतां. फाल्या हांव तुजी त्याच कॅफेंत वाट चोयतां, जंय आमी पयले खेप भेटलेलीं. हांव जाणां,आतां तुका शिर्विसेक वयचें पडटा,तरी प्लीज... कशेंय ॲडजस्ट कर आनी यो. तुजें लागीं म्हाका म्हत्वाचें कितें उलोवंक जाय. फाल्या सकाळीं एकरा वरांचेर...-म ायकल.’

चीट वाचून लुसीक भोव खोशी भोगली. आपल्या उगडासान मायकल आकुळ पिकूळ जाता ही भावनाच ताका सुखावन वताली. आपले शिर्विसेक लागून म ायकलाक आपूण पयस जातां हाची ताका जाणविकाय आसली, पूण तें पयसावप सोंपोवपा पासत तो खासा फुडाकार घेतालो म्हणपाची गजालूच ताका अजापाचो शॉक दिवपी आसली. ताका आपलो वांगड जाय म्हणपाची भावनाच ताका म्हत्वाची आसली. आतां ताका हो पुराय संवसारूच सोबीत भासूंक लागिल्लो. त्याच खिणाक ताणें थारावन उडयलें,शिर्विसेचें मागीर चोवपाचें आदीं म्हुज्या मायकलाक फाल्यां मेळपाचेंच!

दुसरे दीस ताणें सगळें बेगीबेगीन आटापलें आनी तें त्या कॅफेंत गेलें. मायकल आदींच येवन ताची वाट पळयत बसला आसतलो अशें ताका दिशिल्लें. देखून तेंच ताकतिकेन थंय आयिल्लें. पूण मायकल थंय नासलो. तकलेंत नाका जाल्लीं चिंतना हाडीत लुसी ताची वाट चोयत थंय बसून रावलें. आपल्याक लोक दुबावान चोयतात अशें दिसून तें मातशें आखडूनशें बशिल्लें. केन्ना एकदां मायकल येताशें ताका जाल्लें. सुमार अर्दवरान मायकल थंय पावलो. ताका पळोवन लुसी तटाकलें. ताची ती आवतिकाय हे आदीं लुसीन केन्नाच चोवंक नासली. ताचें खाड वाडलेलें, ताचे दोळे सुजलेले...घामान म्हेळे जाल्ले कपडे ताच्या आंगार आसले! कितें करून घेतल्या ही मायकलान आपली दशा! तें ताचे लागीं अजापान पळयत रावलें. लागीं आयले बराबर ताणें मायकलाक विचारलें,

“मायकल,व्हाट इज धीस? व्हाट्स रॉंग विथ यू? सगळें सारकें आसा मुरे? एव्हरी थींग इज ओके?”

“येस,आय ॲम ओके!” मायकल.

“पूण म्हाका तशें दिसना मायकल!”लुसी.

“ खऱ्यानीच? तुका म्हजे विशीं खऱ्यानीच कितें दिसता?” मायकलान ताच्या दोळ्यांत पळयत विचारलें.

“ हें कितें विचारप जालें! तूं म्हुजो सामको डिअर फ्रेंड मायकल, म्हाका तुजो सामको हुस्को लागता-” लुसी.

“ तशें जाल्यार इतले दीस म्हाका मेळोंक नासतना तुज्यान कशें रावंक जालें?” मनायकल.

“मातशें बिझी आसलें रे हांव!”

“ हांव जामां गो, आतां तुजें शिकप पुराय जातलें, मागीर तुका बरी शिर्विस मेळटली, तेन्ना मागीर तूं ‘हो कोण मायकल ?’ अशेंच म्हुणटलें!”

“ अशें तुका कशें दिसूंक शकता मायकल?” अशें विचारता आसतनाच लुसीच्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं.

मायकलाचेय दोळे आतां ओले जावंक लागलेले. रावंक जायना जाल्ल्यान लुसीन मायकलाचो हात धरीत ताका विचारलें, " तूं सोरा बी पियेता काय किते रे?"

" आदीं पियें नासलों. पूण आतां घेवंचें पडटा. कितेंच केल्यार न्हिद पडना गो हालीं!" मायकलान गुन्यांवकारी सुरांत म्हणलें.

" नाका जाल्लें सांगू नाका!" लुसीन म्हणलें.

" लुसी आय लव यू! आय कान्ट लिव्ह विदावट यू!"

मायकलान मुखामळ सामकें गरीब करून म्हणलें तशें ताचीं ती उतरां आयकून लुसीच्या काळजाचे ठोके वाडूंक लागले. ज्या खिणाची लुसी इतले दीस आतुरतायेन वाट पळयतालें तो खीण आयज आयिल्लो! इतलो वगत मायकलान करून घेतिल्ले आवतिकायेचेर आपूण बेजार आसां हें दाखोवंक रागार जाल्ल्याचे भाव लुसीन आपल्या तोंडार हाडिल्ले ते त्या उतरांनी खंयचे खंय नाच्च जाले. ताणें आपल्या मुखामळार मोयपास हाडीत मोगाळ उतरांनी म्हणलें," मायकल, हांव ह्याच खिणाची वाट पळयत हांव आतां मेरेनचें जिवीत सारतालें. आयज म्हुजें काळीज मोडांतल्यान थिरावलें! थँक्यू सो मच. मायकल, आय लव्ह यू टू!" अशें म्हणत लुसीन मायकलाचो हात हातांत घेतलो. ताणें मोगांत येवन, आपूण जावन ताचो हात हातांत घेवपाचो हो पयलो वयलो खीण आसलो. मोगान भरिल्लो हो पयलो स्पर्श आसलो.

लुसीन ताका आपल्या मोगाची कबुली दिली तर खरी, तरी ताचें मन अजून ताका शिटकायतालें, आपणें आपलें मन उक्तें केलें तें सारकें आसलें काय आपणें घाई केली? मायकला विशीं आपल्याक आजून कांयच सारकें खबर ना. आपणें ताका ते विशीं कांयच विचारुंकय ना. आपलो ताचे मोग आसा खरो. ताणेंय आपल्या मोगाची कबलात दिल्या. म्हणटच ताच्या मोगाचो दुबाव घेवपाची आतां गरजूय उरूंक ना. पूणताचे इश्टीणीन, मारियान ताचे नोकरे विशीं ताका विचार म्हणिल्लें ताचें कितें? तोच प्रस्न ताका परत परत पिडटालो. ताचे भितर आतां हयकारी आनी न्हयकारी विचारांचें झूज कोमेस जाल्लें. आतां ताका खरें म्हणल्यार मायकलाक पुरायेन जाणा जावन घेवपाची गरज आसली. कित्याक ताणें आपल्या मोगाची कबुली ताका दिल्ली आनी ताचे लागीं काजार करून फुडलें जिवीत ताचे वांगडा सारपाचो निर्णय घेतिल्लो. आतां फाटीं सरपाचो प्रस्नूच नासलो. दोगांनीय आपलें मन उक्तावन एकामेका वयलो मोग उक्तायल्लो. तरी मायकल करतां कितें हें जाणून घेवपाची अश्रेकणी लुसीच्या मनाक लागिल्ली.

12

लुसी आयज मायकलाक मेळपाक वचपाचें आसलें. ताणें तशें कालूच थारायल्लें. पूण ताच्या मनांत मात विचारांनी खवदळ घाल्लो.

'समजा आपणें मायकलाक ताची आर्थिक फाटभूंय जाणून घेवपाक ताका कितेंय विचारलें जाल्यार तो दुखावंचो ना? वा ताका वायट दिसपाचें ना? हांवें ताका असलें भलतें सलतें विचारलें आनी ताका राग येवन तो म्हाका सोडून गेलो जाल्यार हांव कशें जियेतलें? परत हांव म्हज्या त्या पिडेस्त, दुखेस्त जिवितांत सासणाचें बुडून दुकां गळयत पडून आसतलें! ना...! ना...! हें म्हाका पुटवपाचें ना. हांवें असले विचार करपूच ना आतां. मायकला लागीं जर दुडू नासलो, वो तो व्हडले कंपनींत कामाक नासलो, जाल्यार ताचे लागीं तें विहिजिटींग कार्ड आसचेंच नासलें !'

असले नाना तरेचे विचार लुसीच्या मनांत येतच आसले. आनी ताचें मन भोंवून भोंवून परतें त्या व्हिजिटींग कार्डाचेरूच येवन थिरावतालें. थारिल्ले प्रमाण लुसी मायकलाक मेळपाक ताणी थारायल्ले सुवातेर पावलें. तो आयिल्लो आनी ताची वाट पळयतालो.

पयर पळयल्ले परस आयज मायकल चड वेवस्थीत दिसतालो. ताणें आपलें त्या दिसा वाडिल्लें खाड आतां काडिल्लें. ताचे अस्तावेस्त जाल्ले केंस आतां ताणें वेवस्तीत उगयल्ले. ताच्या म्हेळ्या कपड्यां सुवातेर आतां ताणें काळ्या रंगाचो सूट चडयल्लो. कांय दिसां फाटीं घडिल्ल्या कांय घडणुकांक लागून ताच्या चेऱ्यार आयिल्ली काळसाण वचून आतां ताची मुळची गोरसाण नदरेक पडटाली.

ताचेर नदर पडल्या बराबर आनी ताचे भितर जाल्लो बदल पळोवन, आपल्या एका हयकाराक लागून मायकला भितर इतलो बदल जाता, हाचोच अर्थ तो म्हाका

मनांतल्यान कितलो मानता आसतलो! असो विचार लुसीच्या मनांत आयले बगर रावलो ना.

आपणेन ताचे बेश्टोच दुबाव घेतलो अशें ताका दिसलें. मायकलाचें बदल जाल्लें वागणें ताका नक्कीच भावप सारकें आशिल्लें.

ताणें मायकलाक पळयत ताका एक मोगाळ हांसो दिलो आनी म्हणलें,

"यू आर लुकींग व्हेरी हॅन्डसम..."

"थॅन्क यू!"

"आयज अशें कितें खास?"

" कांय ना गो...अशेंच! जेन्ना जेन्ना आमी मेळटात तेन्ना तेन्ना तूं अप्रतीम दिसता. आयज हांवें चितलें तुजे इतलो नासलों तरी बरो दिसपाचो यत्न करुंया!"

ताचें आयकून लुसी लजून म्होंवाळ हांसलें.

" बरें, सांगपाचें म्हणल्यार फाल्यां सावन हांव चार दीस पणजेंत नासतलों." मायकलान म्हणलें.

"कित्याक? व्हेअर आर यू गोइंग?" लुसी.

" टू वास्को...फॉर सम कंपनी वर्क." मायकलान स्पश्ट करपा पासत सांगलें.

"फोर डेज...? चार दीस म्हणल्यार चड न्हय?" लुसी.

"हय! आय नो. पूण फकत चारूच दीस सोंस. मागीर हांव तुजे आंटी लागीं आमच्या काजरा विशीं उलोवपाक येतां."

मायकलान ताचे खाडकेक हात लायत म्हणलें आनी लुसी भितरल्यान सुखावलें.

"ओऽऽ हाव नाइस...! यू आर टू स्वीट....आय लव्ह यू मायकल...." ताचो हात आपल्या हातांत घेत मोगान भरिल्ल्या दोळ्यांनी ताचे कडेन पळयत लुसीन म्हणलें.

"हें तुजे पासत म्हजें सरप्रायज आशिल्लें. आनीक एक गजाल आसा...तुका पळोवंक आवडटलें?" मायकल.

" हय...आय ॲम इगरली वेटींग. प्लीज शो मी..."लुसी.

लुसी सामकें खुशालभरीत जाल्लें. मायकल कदेला वयलो उठलो. ताचे सामकार येवन दिमयांचेर बसलो. ताणें कोटाच्या बोल्सांत हात घालून एक मुदी भायर काडली आनी म्हणलें,

"टू अ ब्युटिफुल गर्ल! प्लीज, विल यू मेरी मी?"

हें सगळें आयकून ...ते सुखदेणे खीण अणभवून लुसी खोशयेन सामकें भरून गेलें.

मायकलान ती मुदी लुसीच्या बोटाक घाली.

मुदी घालतकच लुसीन ताका म्हणलें,

"म्हाका तुजे लागी काजार करपाक मानवतलें."

तसो मायकल उठलो आनी ताच्या मुखार उबो रावलो. मागीर दोगांनीय एकमेकाक मोगान वेंगायलीं. त्या कॅफेंत एका कोनशाक तीं उबीं आशिल्लीं. तरीय कॅफेंतले सगळे लोक तांकां पळयताले. पूण ह्या दोगांकूय ताचें मात्तूय भान नाशिल्लें. तींदोगांय पल्याच विश्वांत आशिल्लीं.

इतलें घडटा म्हणसर मर्दी मायकलाचे दोग इश्ट त्या कॅफेंत भितर सरिल्ले. तांणी हो प्रसंग पळोवन मोठ्या मोठ्यान ताळयो मारून आपली खोस उक्तायली. ताका लागून लुसी आनी मायकलाचे खोशयेंत अदीकूच भर पडली. लुसीक तर पुराय संवसार आपले मुठींत आयलां असो भास जालो. तेच खोशयेंत तें घरा आयलें. घरांत बितर सरल्या बराबर धांवत वचून ताणें रोजी आंटीक घट्ट वेंग मारली. पूण आंटीक कांयच कळ्ळें ना. ती अजापीत नुरेन लुसी कडेन पळयतच रावली. लुसीन घरांतल्या आल्तारार आशिल्ल्या जेजूच्या फोटवाक पळयत आपल्या आंगार देवस्पणाची कुरू करत 'थॅन्क्स जिजस' म्हणलें.

....मागीर आनीक आनी तें रावलें ना. ताणें मारियाच्या घरा लागीं धांव मारली. थंय पावतकच ताका उमगलें, मारिया घरांत ना. मारिया आपले मावशेगेर गेल्लें आनी दोन दिसांनी येवपाचें आसलें. लुसी सामकें अस्वस्थ जालें. कितें करचें हेंच ताका कळना जालें. ताका केन्ना आपल्या काळजांतले उत्फर्के आनी आयज घडिल्ली घडणूक कोणाक तरी म्हणव्यार आपले जिवा भावाचे इश्टीणीक सांगपाचें आशिल्लें. पूण ज्युस्त हेच वेळार मारिया ना जाल्लें. त्या भायर ताका फाल्यां एक इंटरव्हयूय आसलो. एके शाळेंत टिचराच्या जॉबा पासत! त्या खातीर ताका आपली तकली शांत आनी थीर दवरपाची गरज आसली.

येवजीत येवजीत लुसी मारियाच्या घरा कडल्यान परतलें आनी खाटीर लवंडलें. आयची काळीज उर्बेन

भरून उडोवपी घडणूक आनी मायकलाचो विचार बळयांच तकलेंतल्यान कुसीक सारून तांणें फाल्यांच्या इंटरव्ह्यूचो विचार तकलेंत हाडलो. ही शिर्विस ताचे पासत, ताचे आंटी पासत आनी मायकला पासतूय खूब गरजेची आशिल्ली. तिका हो जॉब मेळत जाल्यार आंटी फार्मासींत सेल्स-लेडी म्हूण काम करता तें सोडून घरा कडेन सुसेग घेवंक शकपाची. त्या भायर लुसीन शिर्वीस करपाची आसल्यार टिचरीचीच करची अशें मायकलाकूय दिसतालें. तेंच सपन पुराय करपाक लुसीन बीएचें शिकप पुराय केल्लें. त्या शिक्षणाचो खर्च भागचो म्हूण तें पार्ट टायम शिर्वीसूय करतालें. ताणें शिकप पुराय करचें म्हूण रोजी आंटीनूय भोवच खस्ती काडिल्ल्यो. आनी आतां ताचे पासत ही शिर्विशेची संद ताचे पासत आयिल्ली. ताचो पुराय फुडार ताचेर निंबून आशिल्लो.

लुसी त्याच हावेसान दुसरे दिसा मुलाखतीक गेलें. ताणें मुलाखत दिली आनी तीय ताच्या मना सारकी जाल्ली. पूण ताचो निकाल मेळपाक ताका आनीक दोन दीस वाट पळोवंची पडली.

13

मुलाखत दिवन लुसी घरा आयलें. सायकल ताणें भितोडेक दवरली आनी भितर सरलें. फळयत जाल्यार मारिया आयलां. ताका पळोवन लुसी खोशेन भरलें. धांवत वचून ताणें मारियाक वेंग मारली. पूण त्याच खिमाक लुसीक एक गजाल होलमली ती म्हणल्यार मारियाक पळोवन,ताका वेंग मारून आपल्याक जितली खोस आनी उमेद जाल्या तितली मारियाक जावंक ना.

मारियान लुसीक अचळय आपले वेंगेंतल्यान कुशीक काडलें आमी म्हणलें,"लुसी,म्हाका तुजे लागीं खूब म्हत्वाचें उलोवपाचें आसा."

"म्हाकाय तुका एक गूड न्यूज दिवपाची आसा."-लुसी.

"ओके,तूं पयलीं सांग."-मारिया.

"नाका,तूं पयलीं सांग."-लुसी.

"लुसी, म्हाका तुजे लागीं मायकला विशीं उलोवपाचें आसा."-मारिया.

"म्हाकाय तुजे लागीं मायकला विशींच न्हय, जाल्यार ामच्या दोगांय विसीं उलोवपाचें आसा."-लुसी.

" तशें जाल्यार तूंच आदीं सांग."-मारिया.

" मायकलान म्हाका काजरा पासत प्रपोझ केलां. ही पळय मुदीय घाल्या!" अशें म्हणत सोठे उमेदीन ताणें मारिया मुखार आपलें बोट केलें.

मुदी पळोवन मारियाक सामकें शिण्ण जालें.

"मुदी? खरी दिल्या, काय फटीची दिल्या गो?"-मारिया.

" कसलीय आसली तरी ताच्यो भावना खऱ्यो आसात... आनी तूं अशें कित्याक उलयता?"-लुसी.

"कित्याक तर म्हजो त्या भुरग्याचेर विश्वास ना."-मारिया.

"आगा पूण कित्याक? तूंच तर म्हणटालें न्हि गो तो तुजेर खूब मोग करता आनी ही इज परफेक्ट फॉर मी म्हूण "-लुसी.

" हय! पूण आतां सांगतां, तो एका नुम्राचो तड्डकी आनी फालतू मनीस जावन आसा लुसी. आनी हांव तुजें काजार ताचे लागीं जावपाक केन्नाच दिवंचें ना."-मारिया.

"मारिया,मायंड युवर लँग्वेज!"

सोंसूक जायना देखून लुसी आपले मोगाचे इश्टीणीचेर आड्डली. पूण मारियान तें मनार घेतलें ना. तें थंडसाणेंन ताका सांगूंक लागलें.

"ताका हांवें काल मिरामार बीचार एका गिरेस्त मनशाचें पाकीट चोरतना म्हुज्या ह्या दोळ्यांनी चोयलां. आनी इतलेंच न्हय,हांवें ताची खबरूय काडल्या.तूं जाचेर जीव घालता न्हूय तो मनीस लोकांक फसोवन तांचेर जियेता... मागीर तो तुका काजरा उपरांत किते सांबाळटलो?"

ताचें तें उलोवप आयकून लुसी न्हिन्नळ्ळें. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावंक लागलीं.ताणें म्हणलें,

"आगो पूण हांवें ताका उतर दिलां. आनी आतां ताचे विणें जियेवंकूय शकना. तुजोच कितें तरी गैरसमज जाला आसतलो! कित्याक, मायकल ताचे कंपनीच्या कामाक लागून भायर गेला. आनी हें चोय मारिया, म्हुजो ताचेर पुराय विश्वास आनी भरवंसो आसा."

"आनी म्हुजेर?"-मारिया.

" कित्या कितेंय विचारूं नाका."-लुसी.



" तुका एक निर्णय घेवंचोच लागतलो. तुका तुज्या जिवितांत तो जाय काय हांव ?"–मारिया.

" मारिया, इतल्या तोंकार वचूं नाका!"–लुसी.

"म्हाका जाप दी. तुका कोण जाय? तो फटींग काय तुजी इश्टीण?"

"ओके! म्हाका तो जाय, कित्याक तूं जें कितें उलयता ताका कांयच बुन्याद ना. तुकां कांय दिसानीच कळटलें तो तूं सांगता तसो फ्रॉड न्हय म्हूण!"–लुसी.

"ओक! बरें आऐसा, तूं रडटलें कांय दिसांनी! तेन्ना तुजीं दुकां पुसूंक हांवूय नासतलें तुजे वांगडा."

अशें म्हणून मारिया थंयच्यान सडसडीत भायर सरलें. लुसीच्याय दोळ्यांत कसलें तरी मोड आयिल्लें दिसतालें! तें धांवत आपले आंटी म्हऱ्यांत गेलें. ताका आनीक आनी एकटें रावचें अशें दिसलें ना...

आंटी म्हऱ्यांत वचून लुसीन तिका आपले विशीं आनी मायकला विशीं सगळें कितें सांगलें. तें आयकून आंटीक शॉकूच बसलो.

आंटीन ापल्याक मायकलाक मेळपाचें आसा म्हणपाची इत्सा उक्तायली. पूम लुसीन तिका रागान म्हणलें,

"कोणाक?मायकलाक? ताका मेळपाची कसलीच गरज ना. तो बायल्या गांवचें आपलें काम सोंपलें काय तोच तुका मेळूंक येतलो."

" तें बरें ासा गो,पूण तूं इतलें रागार कित्याक जालां? मारिया आनी तुजें कितें जालां गो? कित्याक झगडल्यांत तुमी?"

"हय,झगडल्यांत आमी. आनी ताणें म्हुजे लागचे सगले संबंध तोडून उडयल्यात. म्हणटकच ताचो विशय ह्या फुडें आमच्या घारांत नाका. तो तूंय काडची ना,हांवूय ना आनी दुसरोय कोण काडचो ना."–लुसी.

" आगो पूण जालें कितें तुमचें?"

"तें म्हत्वाचें न्हय!"

अशें म्हणत लुसी नेटान आपले कुडींत वचूंक गेलें. रडून रडून ताचे दोळे सामके सुजलेले.

वयले कुडींत लुसी आनी सकयले कुडींत आंटी न्हिदिल्ली,जाल्यार मारिया आपल्या घारा. पूण तिगांय वेगवेगळे सुवातेर आसुनूय एकाच विशयाचेर चिंततालीं.

हांगा लुसी येवजितालें,"हांव आतां मायकलाक सोडूंक शकना. हांवें ताका उतर दिलां. आपूण चुकलां म्हणपाचें मारियाक गोमतलें.

दुसरे सुवातेर आंटीच्या मनांत लुसीच्या फुडाराचो हुसको निर्माण जाल्लो. आपणें जॉनाक दिल्लें उतर आपूण पुराय करूंक पावतलीं काय ना हो प्रस्न तिका पिडटालो.

आनी थंय मारियाक आपले इश्टीणीन आपलो अपमान केलो म्हूण आयिल्लो राग मनांत धुंवतालो!

परिस्थितीच अशी निर्माण जाल्ली, कोण योग्य,आनी कोण अयोग्य हें कोणाकूच कळऽ नासलें. जणेकलें एकामेकांची काळजी करतालीं. पूण एकमेकांचेर केन्नाच ना जावपी असो राग धरून..

अशें जायत जायत चार दिस सरले....पांच सरले...पूण मायकलाचो कांयच पत्तो नासिल्लो. अशें हें गंभीर वातावरण आसतनाच लुसीक मुलाखत दिल्ल्या स्कुलांतल्यान चीट आयली. ताची शिर्विसे पासत निवड जाल्ली..!

●●●

विज्ञान

गौतम जल्मी



# धन्य आमची मनीस जात

(गांवभरच्यो खबरो)

म्हायती तंत्रगिन्यान अभियांत्रीक म्हूण पणजे आल्तीन हांगा एके खाजगी कंपनींत काम करपी **गौतम जल्मी** हांकां ल्हानपणा सावन खगोलशास्त्राची खुबूच आवड. पर्यावरण तशेंच खगोलशास्त्रा सारक्या दुर्मीळ विशयांचेर चडांत-चड म्हायती मेळोवन ती आपले परीन फुडें पसरोवपाचो अतिरिक्त भार घेवन वावुरतात. खरें गोंय सोदपाच्या उद्देशान, वेगवेगळ्या गांवगिऱ्या वाठारांनी भोंवून पर्यावरण संदर्भात देवरायो (Sacred Groves) आनी पुरातन खगोलशास्त्र (Ancient Astronomy) हाचेर बारीक अभ्यास करतात.
पत्तो : आजोबा नगर, साखळी - गोंय
gautamjalmigmail.com

मार्गशिर, म्हळ्यार पाश्चात्य कॅलेंडरांतलो लार्गी-लार्गी देजेंब्र म्हयनो. खगोलशास्त्रांत रातीचें आकाश निरिक्षण करतल्यां खातीर हो म्हयनो खुबूच खास आसता. हे बाबीचें समर्थन करतना रवीन्द्र केळेकार हांणी आपल्या पुस्तकांत म्हळां, जो कोण ह्या दिसांनी काळख्या मळबा कडेन पळयना (वा जाका तशी इत्सा जायना) तो खरो कपल फुटको. ते फुडें म्हणटात, कितल्यो सुंदर आसतात ह्यो मार्गशिरांतल्यो राती, जिवाक सुखावपी आनी निर्शेल्ल्यांतूय जियेवपाची आस्त जागोवपी.

तशें पळोवंक गेल्यार मार्गशिरांत खगोलशास्त्रांतले वार्शिक उत्सवूय आसतात आनी अडेचे सोयरेय पृथ्वीक मेळपाक येतात. आमच्या असल्या पिशांक, आनीक पिशे करपा खातीर ना ना तरेच्यो, जगभरांतल्यो वेंचीक अश्यो घडणुको ह्या म्हयन्यांत तर आसताच आसतात.

सैमाचेर मोग जडचो म्हूण ही सृश्टी, हें ब्रम्हांड कसले कसले खेळ रचयता पळय, पूण ताचो फावो तसो उपेग वा जाय तसो फायदो जाल्लो हांवें तरी केन्ना पळयलोच ना. म्हाका दिसता आमच्या त्या दिवाळेच्या दिव्यांचो उजवाड आजून लेगीत चड पयस पर्यंत पावूंक शकना. आतां तातूंत बरेंऽऽ तेल ओतून, वात मोट्टी करपाची गरज आसा.

(हरशी प्रत्येक म्हयनो हो उमाशे पासून चालू जाता, पूण हे खेपेचो आमचो उमाशेचो खण हांवें मुद्दम निमाणो दवरला. विज्ञानांतल्या, म्हाज्या सारक्या, फुडें तयार जावपी नव्या बरोवप्यांक एक-दोन म्हत्वाच्यो गजाली सांगून सोंपयतलो ह्या उद्देशान. कारण, निमाणेकडे बरयतां/वाचतां तें खंय चड वेळ मेरेन मतींत उरता अशें हांवें खंय तरी आयकल्लें.)

फाटलो मार्गशीर, शके 1942 ते हो मार्गशीर, अश्या म्हाज्या बरपांतल्या प्रवासाक आयज 1 सांस्कृतीक वर्स पुराय जाता, म्हण्टकच आतां हांव तर स्वताक बरपांतलो नवखो म्हणपाक शकना आनी म्हणूनच ह्या वर्सुकोत्सव सुवाळ्यांत, मेळयिल्ल्या अणभवा वयल्यान कितें तरी वेगळें करचेंशें दिसलें. हरशीं म्हूण नाका-आशिल्लीं किजिलां वयर काडपाक हांव हुशार न्हु! तर म्हणलें त्याच निमतान, हो खोशयेचोय खीण, थोड्या बऱ्या-वायट गजालीं वांगडा भरसून वांटुया आनी आपलें बारीकशें कर्तव्य पाळुया.

**मार्गशिरांतल्यो खाशेल्यो खगोलशास्त्रीय घडामोडी**

**मार्गशिर म्हयनो, शके १९४३, शुक्ल पक्ष नमः**

हालींच, ग्रेगोरियन 2021 सालांतल्या जानेराक खंय एका नव्या धुमकेतूचो सोद लागिल्लो. जगभराच्या शास्त्रज्ञानी मागीर गणिती-विश्लेशण बी करून अशे निश्कर्श काडले की तो धुमकेतू, आयज, जुस्त 12 देजेंब्रा दिसा, पृथ्वीच्या सामको लागी येतलो. इतलो लागी की तो आकारान ल्हान




आसून लेगीत गोंयच्या काळख्या वाठारांतल्यान, उकत्या दोळ्यांनी सुद्दा दिश्टी पडटलो.

हालीसराक आमचे वटेन, उकत्या दोळ्यांनी दिसपा सारके धुमकेतू बी येवंक नात. पोरूं एकलो नियोवायज (Neowise) म्हण्टात तो येवन गेल्लो. हांवें ताका पळोवपाचो बरोच यत्न केल्लो, पूण तो चुकीच्या (पावसा) वेळार पाविल्ल्यान आमची संद हुपली.

1997 त खंय आसोच हेल-बॉप (Hale-Bopp) नांवाचो, एक बऽऽरो मोट्टो धुमकेतू येवन गेल्लो. बरो वर्स भर दिशिल्लो खंय तो. हांगा सरल्या ज्येश्ठट वाचकांक घडये ताची याद जायत. कितें ताचो गाबो (Core) आशिल्लो आनी कितें ती शेपडी!

एकदा ह्या हेल-बॉप चो विशय काडिना फुडें म्हाजो बाप म्हाका म्हणूंक लागलो की ताणेंय बी म्हाका तो दाखयल्लो खंय, पूण कुकुल्या भुरग्यांक तसलें खंय याद उरता! आसूं, पयलींच्यो गजाली सोडून आमी आयज जो दिसतलो ताचेर लक्ष दवरुया.

तसो ह्या धुमकेतुचो बारसो बी जाला आनी ताका शास्त्रज्ञानी (आनी-आनी) नाका-आशिल्लें, Comet C/2021 1, वा Comet Leonard (कॉमेट लियोनार्ड) अशें नांवूय दिल्लें आसा.

आता हीं नांवां इतली कुंप्लीकाद कित्याक आसतात काय म्हूण कोणाकूय समज प्रस्न पडला आसत जाल्यार तांकां हांव सांगूंक सोदतां, पयलीं म्हणटा ते हे धुमकेतूच मुळांत खूब कुंप्लीकाद आसतात, तर नांवांचें व्हडलें कितें घेवन बसपाचें? आमच्यांतले थोडे आजुनूय धुमकेतू हें नांव आयकले उपरांत कपलार आटयो काडटात. हाचे विशी सविस्तरान उलोवंया एकदीस.

**मार्गशिर म्हयनो, शके १९४३,**
**शुक्ल पक्ष दसम-एकादस:**

पुराय वर्सभरांत, हीच ती रात आसता (13-14 देजेंब्र) जाची आमचे असले हौशी प्राणी (म्हळ्यार उमेदी पोर) आतुरतायेन वाट पळयतात. कोणाकूय अचंबीत करून उडोवपाची नामना फावो जाल्ले हे खाशेले खगोलशास्त्रीय घडणुकेक हांवें आकर्शण दिसपा सारकें नांवूय दिल्लें आसा - उज्याचो पावस.

खऱ्यानीच, आयज उज्याचोच पावस पडिल्ल्या भशेन, पुराय रातभर, एका फाटोफाट एक, हजारांनी उल्का (Meteor, मीटियोर), उज्याच्यो किट्ट्यो कश्यो मळबांतल्यान पडटना दिसतल्यो.

फाटले खेपेक, आमी म्हादयच्या अरण्य काळख्या वाठारांतल्यान, 500 वयर, बारीक-मोट्यो किट्ट्यो, तुटिल्ल्या ताऱ्यां भशेन पडटना पळयल्ल्यो. हे खेपेक, खोतीगांवच्या जंगली आनी दुपेटीन काळख्या आशिल्ल्या मळबांतल्यान म्हाका 1000 वयर शुटींग स्टार पळोवपाची इत्सा आसा.

कोणाक खबर बी आसा, हे चकचकीत उल्कांचे कण (तुट्टात ते तारे), पृथ्वी वटेन येतात शे दिसता आनी खंय वचून पडटात ते? एक दीस (म्हळ्यार रातीकडे) अशीच मजा जाली...

आतां ती मजा कितें ती मागीर केन्नाय सांगतां, पूण तातुंतले थोडे कुडके म्हाज्या हातींत पावले ते सगळ्यांत व्हडलें नवल... खऱ्यानीच तर, ते आजुनूय आमगेर आसात.

(फाटल्या, भाद्रपद अंकात - पान77, हांवें एक प्रस्न विचारिल्लो, आनी अचूक उत्तर दितल्यांक एक बक्षीस मेळटलें म्हूण सांगिल्लें, तें हेंच बक्षीस... बरें जालें कोणीच जाप दिवंक ना ती, म्हाजो कुडको म्हाजेचकडे उरलो)

**मार्गशिर म्हयनो, शके १९४३, पुनव:**

लोक म्हणटात, आयच्या दिसा (19 देजेंब्र) गोंय मुक्त जाल्लें खंय! आतां येयल्लो-गेल्लो तेंच उलयता, म्हण्टकच विश्वास तर दवरचोच पडटलो, पूण तें मुक्त खंयच्यान वा कित्यांतल्यान जाल्लें हें मात कोण सरळ सांगीच ना. आमच्या असल्या, आयज-कालच्या भुरग्यांक कारण खबर आसूंक नाका?

तशें तें ना सांगपाक, प्रत्येकाकडे आपापलें वेगळें स्पश्टीकरण हें आसतलेंच, कारण हांगा (गोंयांत तरी) जो तो आपल्याक जाय तेंच करता आनी हरशीं म्हूण, आपले बापायलें राज्य जाल्ल्यावरी समज बाळगितल्यांक तर कोण आडावंक शकच ना, म्हण्टकच तांच्यांनी

तें सांगलें वा ना सांगलें जाल्यार लेगीत तांचेर भरवंसो तर उरपाचो नाच.

उदारणा खातीर सांगतलो जाल्यार, कोणाक दिसता की, गोंयकार ह्या नात्यान प्रत्येकाक हे सगळे जल्मताच खबर आसूंक जाय, ना जाल्यार तो गोंयकार कसलो? तशेच घाटयांनी भितर सरल्या बराबर तें शिकून घेवपाक जाय, ना जाल्यार तो घांटी कसल्या कास्ताचो? अशें जाल्ल्यान मागीर ते मुक्तीचें कारण कोणाक सांगपाचें गरज पड़ची ना.

हें आयकल्या उपरांत, थोड्या वोगतान, मर्दीच दुसरी बोडकी वयर सरता आनी म्हणटा, कित्याक जाय त्यो रटावळी तुमकां? खावपाक जेवपाक वेवस्थीत मेळटा न्हु, मागीर जालें. स्वाभिमान बी तो सगळो कुशीक दवर. आमचो सरकार आसतना भिवपाची कांयच गरज ना.

असल्यो ह्यो गजाली.

पूण खरी मजा म्हळ्यार, आमच्यांतल्या थोड्यांक तर आजुनूय विश्वास बसना की गोंय खऱ्यानीच मुक्त जालां म्हूण (त्या थोड्यांतलो एकलो हांव).

पुर्तुगेजांच्या तावडींतल्यान सुटप बीन तें बरें आसा, पूण आम च्या म्हान सुटके झुजाऱ्यांनी त्या वेळार इतले कश्ट घेतिल्ले ते मुखेलपणान, गोंयकारांक आपल्या हिताचो विचार स्वता करपाची मुक्तताय मेळची म्हूण, ताचें कितें जालें?

गोंया खातीर कितें बरें, कितें वायट हें थारावपाचें आमचें स्वातंत्र्य खंय गेलें?

ह्या संदर्भात, जो पर्यंत आमचे विचार निवळ जायनात, तो पर्यंत ही नांवां पुरती मुक्तताय मनोवपांत कांय अर्थ ना. कारण, असल्यांनी काळाची गरज आशिल्लें विज्ञान, खगोलशास्त्र, सारकेले विशय तर कोण गंभीरतायेन घेवचोच ना आनी फुडें ताचेर खोलायेन विचारूय जावप शक्य ना. बेटोच पयसो मोडलो म्हूण जाता? तो खंय मोडलो ताचेर लक्ष कोण दितलो?

पूण म्हाका हें सगळें कित्याक जाय काय? हांव तें एकटोच कित्याक उस्तूंक बसलां? हरशी म्हणून आताचे परिस्थितींत, हें म्हाजें - तें तुजें इतल्या पुरतेंच थारावपाच्या स्वातंत्र्यातल्यान, सगळेंच आमचें आनी आमी सगळ्यांनी मेळून ताचो बरे तरेन सांबाळ करूंक जाय अशें चिंतपांत कांय अर्थ उरूंक ना आनी त्याच खातीर हांव म्हणटा की, आयच्या दीसा जी सगळ्या गोंयकारांक (आनी गोंयांत रावतल्यां बाकिच्यांक, कारणाशिवाय) जी सुटी मेळटा, तिचो वापर दीसभर मजा मारुन, बऱ्यो झेमो बी काडपांत घालयात, नाजाल्यार किते जातले जाणा, तो राती-वेळार उदेवपी, वाटकुळोच, सोबीत-सुंदर चंद्र पळयत पळयत तोखेता म्हणसर तुमका न्हिद येवपाक लागतली आनी मागीर तुमी, हांवे पयली कित्याक सांगुना म्हूण म्हाजेर बेजारतलीं.

मार्गशिरांतले ते चडुच लिकलीकपी तारे, चंद्रा वांगडा, भायर आंगणांत सगळ्यांचे स्वागत करपा खातीर तयार रावतले, कारण आयज खगोलशास्त्रीय पुनव (तिकाय म्हूण आयचोच म्हूर्त बरो मेळ्ळो येवपाक).

**मार्गशिर म्हयनो, शके 1943, कृष्ण पक्ष बीज**

आयज विंटर सोलस्टिस (थळपींशी डेर्ध्रीोंळलश), म्हळ्यार थंडेतलो सुर्यस्थिरकाळ (हो एक घडयिल्लो शब्द, ह्या संदर्भात जाणकारांकडल्यान जी एक मदतीची अपेक्षा आसा, ताचेविशी उम ाशेच्या खणांत विस्तारला). हाका दुसऱ्या भाशेंत उत्तरायण अशेय म्हण्टात.

आमी खुबशा वेळार म्हण्टना आयकला की, ह्या दीसा (21 देसेंब्र) सुर्य बेगीन मावळटा, म्हळ्यार दीस हो धाकटो आसता आनी रात व्हडली, 12 वरां परस मायज (उत्तर गोलार्धांतल्या आर्क्टिक खंडांत तर 24सुय तास रात, तशेंच दक्षिण गोलार्धांतल्या अंटार्क्टिक खंडांत 24सुय तास दीस)

हे अशे मानप आनी त्यासंबंदी तर्क जरी 100% खरे आसले, तरी ताचे शास्त्रीय (भुगोलीय) कारण चडशांक खबर आसचेना. गोंयच्या संबंदान चालु आशिल्ल्या म्हाज्या पुरातन खगोलशास्त्रीय अभ्यासांतली, ही पयली लक्ष वेधुन घेवपासारकी बाब आसली, जी विज्ञानीक आसुन लेगीत, प्रत्यक्षात दिसता त्या अणभवा वयल्यान सगळीकडे एकसरकी प्रचलीत आसा (तशे विज्ञानांत खुब किते दोळ्यासामकार घडटना दिसता, पूण ताचेर विचार करून तें सोंपेपणान आचरणांत केन्नाच येना, हीच खरी दुखाची गजाल. उदारणा आनी दिवंक वचना, कारण तीं मागीर अंधश्रद्धेचेरूच येवन आडकतली आनी बेटोच वादाचो विशय जातलो).

सुर्य स्थिर काळ ही घडणूक शास्त्रीय तरेन समजावपाचो एक उत्तम पर्याय म्हळ्यार उत्तरायण आनी दक्षिणायन समजावप.चडशा जाणांनी हीं 2 उतरां आयकल्यांच आसतलीं.उत्तर गोलार्धांत (Northern Hemisphere) रावतल्यां खातीर, आयच्यान उत्तरायणाची सुरवात जाता.

संस्कृत भाशेचो हांगा कोण जाणकार आसत, जाल्यार ताका त्या उत्तरायण शब्दाचो अर्थ समजलाच आसतलो.

उत्तर + आयण = उत्तरायण, म्हळ्यार उत्तरे कडलो प्रवास, आतां कोणाचो काय म्हणल्यार, सुर्याचो.

हरशी सुर्य आमच्या मळबांत खंयच प्रवास करी ना, पूण आमची पृथ्वीची घुंवपाची आस (Rotational xis) मात्शी वाकडी आशिल्ल्यान आमका हे सगळे भास जातात.

जे तरेन पृथ्वीच्या स्वता भोंवतणच्या फेऱ्याक लागून आमकां सुर्य, चंद्र, वा बाकिचे गिरे-तारे, मळबांत पुर्व ते पश्चीम प्रवास करता अशें भासता, तेच तरेन ती पृथ्वीची वाकडी आस, सुर्याच्या उत्तर ते दक्षिण आनी परतें उत्तर वटेन प्रवासाक कारणीभूत थारता, जाका आमी उत्तरायण आनी दक्षिणायन अशेंय म्हण्टात. हे तेच बदल आसतात, जे आमचे पृथ्वी वयले रुतू (आनी आमची जीण) नियंत्रीत करतात.

उदारण दिवपाचें जाल्यार, मुद्दम आयज सुर्य खंयच्या जाग्या वयल्यान वयर येता (उदेता) तें पळयात, त्या जाग्याचेर कसलीय कुरू करून दवरात वा खंय तरी बरोवन बी दवरात आनी बद्द 6 म्हयन्या उपरांत, गरमेच्या सुर्यस्थिरकाळाच्या वेळार (Summer Solstice, 21 जून) सुर्याची जागा तपासात, फरक आपल्या आपुणूच दिसतलो.

भारतांत थोडे कडे (आनी उत्तर गोलार्धांतल्या हेर देशांतूय बी) हो उत्तरायणाचो दीस व्हडा दबाज्यांत मनयतात. एका काळांत मकरसंक्रांतीची सुरवातूय ह्याच वेळार जाल्ली, म्हणूनच तर दोगांकूय एकूच अशी व्याख्या मेळिल्ली. पूण जसो जसो काळ सरत गेलो, तसो तसो त्या दोगांय भीतर तांत्रिकी फरक पडटत रावलो. मनशांक तो दिसलो आनी जाणवलोय बी, पूण आचरणांत केन्ना हाडलो ना.

खरेपणी मकरसंक्रांत म्हळ्यार किर्ते आनी तो सण आमी कित्याक लागून मनयतात तें तर सगळ्यांक खबरूच आसतलें, हय काय ना? आतां, व्हडा दबाज्यांत मनयतात म्हण्टकच हें तर अपेक्षितच न्हु? तातूंत आनी किर्ते विचारपाचें?

पूण, जांका खबर ना तांका सांगतां, मकरसंक्रांत = मकर + संक्रांत.

मकर ही एक रास (Capricorn) आनी ताची संक्रांत म्हळ्यार, तातूंत प्रवेश मेळोवप. कोणाचो प्रवेश? तर सुर्याचो, म्हण्टकच मकरसंक्रांत ज्या दिसा आसता, त्या दिसा, सुर्यान मकर राशींत प्रवेश मेळोवंक जाय, सारकें? पूण खऱ्यांनीच जानेराच्या 14




वेर तशें घडटा काय ना तें कोणी पळयलां?

खुबखूब, म्हळ्यार शेकड्यांनी हजारांनी वर्सां पयलीं, कोफुसांवा थांबोवपा खातीर आनी गणितां सोंपी जावंच्या हेतान, प्रत्येक राशींक आपापल्यो शिमो आखून तांचे खण करून दवरिल्ले. पृथ्वी, सुर्या भोंवतणी फेरो मारतना, धर्तरे वयल्या प्राण्यांक, सुर्य वेगवेगळ्या अश्या 12 खणांतल्यान पसार जातना दिसता. ह्योच त्यो क्रांतिवृत्ता वयल्यो (Ecliptic Line) 12 राशी. तर सुर्य जेन्ना ह्या मकर राशीच्या खणांत प्रवेश करतना दिसता तेन्नाच आमी म्हणूंक शकता की मकरसंक्रांत लागली. आतां मानपाक कोणूय कितेंय मानीत, पूण ताऱ्यांचो संदर्भ घेवन वचत जाल्यार आतां मकरसंक्रांत ही पाश्चात्य तखाट्या नुसार 19 जानेराक येता.

जी मकरसंक्रांत, ख्रिस्तीच्या वेळार, उत्तरायणा वांगडा येताली तिचो वेळ इल्लो इल्लो करून फुडें पडत आसा आनी हाचें कारण म्हळ्यार पृथ्वीची तिसरी आनी सगळ्यांत मंद चाल, प्रेसेशन (Precession)

(हाचे विशी मागीर केन्नाय सांगतां. कारण आतां उलयलों जाल्यार कदाचीत त्या राशी-भविश्यवाल्यांचेर, म्हळ्यार सांगतल्यांचेर आनी मानतल्यांचेरूय आकांत येयत)

हरशी ह्या राशी, नक्षत्र, भविश्य सारकेल्या विशयांत जायते कडे

घोळ आसात आनी थोड्यांनी तो जाणा जावन लेगीत तसोच दवरला (कित्याक लागून तें आनी सांगी ना, कारण तातुंतल्यान फरक तर मातूय पडपाचो ना, पूण फुकटचीं चार पानां मात वाट लागतलीं).

ह्या मकरसंक्रांत संदर्भात मात एक प्रस्न म्हाका सदांच सतायतलो तो म्हळ्यार, ते मकर (वा आनीक खंयचेय) राशींत सुर्य वयतना दिसलो म्हूण व्हडलें शें खाशेलेपण कितें आसता काय? आसूं तें आतां, बेटोच तकलेंत येयलो म्हूण विचारलो, कोणायकडे ताची जाप आसा जाल्यार कळोवची.

तर आमच्या मुखेल मुद्याकडे परत येतना हांव इतलेंच सांगीन की, उत्तरायण आयज मनयात वा मकरसंक्रांत फाल्यां, पूण हातूंत एक गजाल निश्चित ती म्हळ्यार, सुर्य हो हे सृष्टींतलो, आमच्या जिवितांतलो प्रमुख घटक आसलो, आसा आनी (ताच्यांतली उर्जा शिल्लक आस मेरेन) सदाकाळ उरतलो.

हरशी सुर्या शिवाय ह्या संवसारांत जगप तर शक्य नाच (संवसारूच आसचो ना) आनी हाकाच लागून, उत्तरायणाच्या दिसा सावन सुर्याचो प्रकाश आमकां (उत्तर गोलार्धांतल्या लोकांक) इल्लो इल्लो करून चड प्रमाणांत मेळटा, हें सत बरे-भशेन जाणून घेवन, सुर्याक ताचो मान भेटोवप होच आसलो ह्या सणा फाटलो मुखेल हेतू.


ग्रेट होर्नबिल, Great Hornbill

(हाचे फुडें हांव आनी आनीक कांयच उलयना. तोंड मात मात्शें कडू जाल्ल्या भशेन दिसता. कोणागेरूय गेल्यार तिळगूळ बी मेळटले काय म्हाका?)

शके 1943, मार्गशिर आरंभ :

कोणालोय आरंभ आसूं वा अंत, आमकां तशें कांयच लागना. कितें बरयता तेंवूय लागना आनी कितें वाचता तें तर नाच ना. पूण आसूं, आनीक कांय उलयनासतना सांगून उडयतां, आयज, ग्रेगोरियन देजेंब्र 4, 2021, दोनपारच्या 1 जावन 14 मिणटांच्या (शुभ काय अशुभ तें म्हाका खबर ना) म्हुर्ताचेर खगोलशास्त्रीय उमास लागता.

फाटली वा फुडली पुनव जेन्ना मीनी वा मायक्रो (Mini/Micro) जातीची आसता तेन्ना ताच्या मदेगात येवपी उमाशेक सूपर न्यु मुन (Super New Moon) अशें म्हणपाची चाल आसा. ही गजाल केन्ना केन्ना उरफाटीय बी घडटा. ह्या संदर्भात सगळ्यांनी सुपर फुल मुन Super Full Moon बी म्हण्टात तें आयकलांच आसतलें.

ह्याच दिसांनी तो चंद्र आयज दोब्राद-तिब्राद मोटो जातलो वा चंद्र आयज सुर्या भाशेन उजवाड दितलो असल्यो अफवा भायर सरतात, पूण खऱ्यांनी कितें घडटा तें मात कोणाकूच खबर आसना आनी मागीर आमी चिंती नासतना तसले अंधश्रद्धेक बळी पडटात (वा फटवतात). थोडे लोक तर त्या दिसा घरांतल्यान भायर सरपाक लेगीत भितात.

हें सगळें इतल्याचेरूच थारना, तर फुडें ती चुकीची बातमी आनीक शंबरेक जाणांक पावयतात आनी हें अशेंच चालू उरता (21व्या शेकड्यांत रावन आमी आनीक कांयच न्हु जाल्यार हेंच एक काम बरे तरेन करूंक शकतात, फटावपाचें आनी फटोवपाचें)

खरेपणी, चंद्राची पृथ्वी भोवतणी घुंवपाची कक्षा ही लांब-वर्तुळाकार (अंडकार, म्हळ्यार Elliptical) आशिल्ल्यान, ते तसले अदीक चंद्र (Super Moon) वा अल्प चंद्र (Mini/Micro Moon) बी दर म्हयन्यांत दोन फावट तरी येताच येता, पूण जेन्ना ते उमाशे वा पुनवे दिसा येता तेन्नाच थोड्या अडाण्यांक कसली तरी खाज चडटा.

तें कितेंय जांव, पूण कोणाक खबर आसा ह्या अल्प वा अदीक चंद्रा वेळार तो आमच्या पासून कितलो पयस वा कितलो लागगी पर्यंत येवंक शकता?

अल्प चंद्रा वेळार, चंद्र चडांत-चड 4 लाख, 6 हजार किलो मेत्र इतलो पयस वचपाक शकता आनी

अदीक चंद्रा वेळार तो कमीच-कमी 3 लाख, 55 हजार किलो मेत्र इतलो लागी येवं शकता.

म्हणूनच तर तो जेन्ना आमच्या लार्गी आसता तेन्ना तो मोटो अशिल्ल्यावरी भासता (Super, gwna) आनी पयस आसता तेन्ना बारीक (Micro, मायक्रो)

त्या Super, Mini, Micro Moon ह्या घडणुकांक आमी कारणा शिवाय चड म्हत्व दितात अशें जरी आसलें तरी फाटल्या आनी ह्या अंकांत हांवें ताचो मुद्दम उल्लेख केला, कारण:

1) म्हायती आसची ह्या खातीर (खरें आनी फट हाचो फरक कळपा खातीर)

2) तांचे आनी गिराणांच्या जाती विशींचे संबंद समजोवपा खातीर (खुबशा जाणानी आयकलांच आसतलें की फाटल्या म्हयन्यांतले पुनवेक आनी हे उमाशेक, दोनूय दिसा दोन वेगवेगळ्या तरांचीं गिराणां जार्ली. तीं सदांच तशीं जोडप्यांनीच येतात, हांचे विशीं मागीर केन्नाय सांगतां, हरशीं म्हूण, हे खेपेक तर एकूय गोंयांतल्यान दिसचें ना, ती पृथ्वी वयल्या हेर भागांतल्यान दिसतर्ली, म्हण्टकच हांगा रावन ताचो शबय घालून कांय अर्थ ना)

3) आनी चड मोलाचो मुद्दो जो म्हाका ह्या संदर्भात सांगपाचो आसा तो त्या इंग्रजी शब्दांचो (Super, Mini, Micro Moon) आनी ताच्या कोंकणी अणकारीत उतरांचो.

ती अल्प चंद्र, अदीक चंद्र (वा पयलींचे सुर्यस्थीर-काळ) अशीं जीं उतरां वापरल्यांत तीं नवीन घडयिल्लीं आसात. आतां सोदुन लेगीत मेळना (वा सारकें खंय सोदपाचें तें खबर ना) म्हण्टकच आनीक कितें करतलों, तीं घडोवचीं तर पडटलींच न्हु. हाका तशें सोब सारकें कारणूय आसा.

म्हाज्या आजून पर्यंतच्या कोंकणीतल्या खगोलशास्त्रीय वाचपांत, त्या शब्दांचो संदर्भ सापडूं ना, म्हूण म्हाका दिसलें की ह्या माचये वयल्या विज्ञानाच्या सदरांतल्यान तांचें नामकरण करून योग्य रितीन प्रसार करचो.

(तें दुर्मीळ उतर खंयच्या जाग्यार बरें सोबतलें? कोंकणींतल्या खगोलशास्त्रीय बरपाक, काय त्या इंग्रजींतल्या शब्दांक, हें येवजून हांव मात्सो घुस्पलों आनी तेच गडबडींत हांवें म्हाकाच दुर्मीळ करून उडयलो)

हालीच असल्यो 2-3 गजाली म्हाज्या लक्षांत आयल्यो आनी दिसलें की हें प्रकरण मात्शें गाजोवचें, ना जाल्यार आमचे असल्यांक शिकयतलो कोण? हरशी म्हूण बेकार रावन हेडचे परस, अशें केल्लें कितलेच वाट्यानी बरे.

हातूंत पयली गजाल सांगपाची म्हण्टा ती कांकणाची. म्हाका पुराय खात्री आसा की हे नाव चडशे जाणानी आयकुंकच ना आसतले (हांव त्या अस्तुरेच्या हातांतल्या कांकणाविशी उलयना हा



आनी नाय त्या पोदेराल्या भट्टेंतल्या). ही कांकणां मात्शी वेगळी, उडटा तीं.

पर्यावरण, जैवविविधता संदर्भात पक्षांची खूब आवड आशिल्यान, तांका कोंकणींत उलो घालपा खातीर हांव तांची नांवां सोदूंक बसलों आनी कांकणाकडे येवन अडकलों. दोन वेगवेगळ्या, पूण प्रतिश्टीत संस्थांचे वतीन केल्ल्या बरपांत म्हाका, दोन खेरीत कुळांतल्या पक्षांची नांवां एक सारकींच सांपडलीं. हें अशें कशें जावपाक शकता म्हणलें आनी हांव मात्सो खोलायेन चिंतूंक लागलों, किर्ते आसा की गडबड ज्या जाग्यार जाणवता थंयच आमच्या असल्यांची तकली नेटान चलता.

White-bellied sea eagle (समद्रा लागसार सापडपी सगळ्यांत व्हडली घोण) आनी Great Hornbill (वायरे ह्या पक्षांतलोच एक प्रकार), हींच तीं दोन पक्षीं जांचे नांव म्हाका कांकण अशें सांपडलें.

ह्याच प्रकारचे आनी एक उदारण म्हाका सापडले, जे म्हाज्या आवडट्या क्षेत्राकडे संबंदीत आसा, तें म्हळ्यार Stargazer हो शब्द. हाचो कोंकणी अर्थ जाता तारे नियाळपी, म्हळ्यार काळख्या राती वेळार तारे-नखेत्रांच्या वांगडा रावन, खगोलशास्त्रीय हौस भागोवपी.

आतां हाचो इतलो स्पश्ट आनी सोंपो अर्थ जाता आसतना, आमच्या एका कोंकणी शब्दकोशांत ताका ज्योतिशी अशें म्हळां. पूण ज्योतिशी म्हळ्यार ज्योतीशास्त्राचो अभ्यासक न्हु? जाका आतां थोडे strologer अशेय म्हणटात.

(हो नांवांचो घोळ, इल्लो इल्लो तकलेंत चडपाक लागला. आनी हरशीं म्हूण ते स्ट्रोलॉजर नांव आयकलें की म्हाका जबरदस्त भिरकी मारता)

तशे पळोवंक गेल्यार, स्टार-गेझर वा ज्योतिशी वा स्ट्रोलॉजर हे एकाच कुळांतले मनीस (वा एकवेळ प्राणीय आसूं येतात. सुण्यांक सगळे वळखताच आसतले. हांव हांगा कोणाची बराबरी बी करतां म्हूण समजुचें न्हु हां, पयलींच सांगतां. म्हाका निमाणेकडे बेश्टो वाद जाल्लो नाका.

आतां सुण्यांचो विशय आयलो कित्याक तर, ते खंय दर म्हयन्यांत पुनवेचो सण साजरो करतात म्हूण आयकलां. त्या दिसा ते काळख्या मळबांत ताऱ्यां वटेन पळोवन मोट्या मोट्यान हासतात (वा रडटात काय किर्ते तें कळपाक मार्ग ना). पूण आमी तेका आमचे कोंकणी भाशेंत कुयो म्हण्टात तें मात खरें.




तांका खऱ्यानीच म्हाज्या भशेन ते तारे-चंद्र आवडटा काय हें दुसरें कसलें प्रकरण, हाचो सोद घेवपाक हांवें तांच्या सभावाचेर अभ्यास करपाचो यत्नुय केल्लो, पूण...)

मुळांत, स्टार-गेझर आनी ज्योतीशी हांचो एकूच अर्थ जावंक शकना. जे तरेन, ताऱ्यांनी भरलेलें मळब नियाळतल्यांक आमी स्टार-गेझर म्हणटात, ते तरेन सगळे ज्योतीशी हे मुदलाक एक तरेचे स्टार-गेझरुच, पूण सगळेच स्टार-गेझर हे ज्योतिशी वा स्ट्रोलॉजर आसनात. तांचो अशे तरेन उल्लेख करप हें म्हाज्या मतान तरी चूक.

ज्योतिशी म्हळ्यार ज्योती शास्त्राचो अभ्यासक. आतां हांवें हाचेर फोडून सांगपाक सुरवात केली जाल्यार तो नक्कीच वादाचो विशय थारतलो आनी म्हाका मार पडटलो, म्हूण चड उलयना. फक्त इतलेंच सांगतां की तें शास्त्र आनी ताचे संबंदीत आतां जें किर्ते उरलां तें सगळें घाण जाल्लें आसा. तसो हांव ह्या शास्त्राक पुराय तरेन मानतां, पूण पयलीं भशेन ताचें पावित्र आतां उरूंक ना. आमचे पयली काळा वयले रुशी-मुनी बी ह्या कामांत तज्ञ आसले. तेच तर आसले खरे ज्योतिशी, पूण आतां...?

तुमीच चिंतून पळयात की ज्योती शास्त्र (वा स्ट्रोलॉजर) हें उतर

आयकलें की सगळ्यांत पयलीं तुमचे तकलेंत कितें येता तें.

ज्योती आनी शास्त्र ह्या दोन शब्दांनी जोडून तयार केल्लो तो पुरातन काळा वयलो एक संस्कृत शब्द.

ह्याच प्रकारचें आनीक एक उदारण म्हाका सापडलें, जें म्हाज्या आवडट्या क्षेत्राकडे संबंदीत आसा, तें म्हळ्यार Stargazer हो शब्द. हाचो कोंकणी अर्थ जाता तारे नियाळपी, म्हळ्यार काळख्या राती वेळार तारे-नखेत्रांच्या वांगडा रावन, खगोलशास्त्रीय हौस भागोवपी.

ज्योतीशास्त्र वा ज्योतीश वा ज्योतीसा जाचो अर्थ जाता ज्योती, म्हळ्यार प्रकाश, जो नैसर्गीक तरेन फक्त मळबांतल्या माध्यम ंतल्यानूच मेळटा आनी ताचेसंबंदीत ते शास्त्र, म्हळ्यार प्रकाशाचे विज्ञान (Scientific study of light received from natural source - Sun, Stars...)

ह्या शास्त्राची रचणूक मुखेलपणान खगोलीय वस्तूंची चाल लक्षांत घेवपाक लागुन केल्ली, जाचो उपेग आमी वेळ कितलो जालो हे पळोवपाक लागून करताले, पूण आतां, हात दाखोवन वा कागदाचेर चित्रयिल्ल्या चौकटात किते बरयिल्लें आसा ताकाच चडशे जाण ज्योतीशास्त्र म्हणटात वा मानतात.

अशें खंय तरी बरयिल्लें आसा की, strology is basically a Science of Light in its natural form, coming from the heavenly bodies and strologers were supposed to be the timekeepers, who monitors the movement of these celestial bodies (तें आसा तशें समजुचें म्हूण हांव ताचो अणकार करुना)

फाटल्या वर्सा केन्ना तरी एक दीस, हें चिंतता आसतना, असोच म्हाजी निळ्या कोराची सायकल घेवन भायर सरलों. भोंवतां भोंवतां आपशींच, सुर्लाची फेरी धरून, मांडवी पलतडून वळवय गांवांत पावलों. त्या वेळार चिंतच्या खेरीज व्हडलें अशें कांय काम नासलें म्हूण ओग्गी न्हंयच्या काठार वचून बसलों. चित-चित चिंतलें, पूण कांयच फायदो जालो ना. निमाणें तकली खाजयतां-खाजयतां फकत दोन प्रामाणीक विचार मनांत आयले - जीव दींव काय कोणाक मेळूंक वचूं?

हातूंत सभावीक रित्या म्हाज्या असल्यांक सोब सारको, म्हळ्यार दुसरो पर्यायूच म्हाका भोव मानवलो आनी तकलेंत तुटिल्ल्या तान्याची एक किट शी पेटली. हांवें केन्ना तरी कोणाक म्हण्टना आयकल्लें की जांबावलेच्यान खंय गोंय सामकें लागीं, तर्शे जाल्यार म्हणलें वळवयच्यान कोण लागीं? इतलें म्हण्टा म्हणसर, न्हंयतल्यान एक ल्हार खळवळून पेंवत म्हाज्या म्हन्यांत आयलें आनी अचळय सांगून गेलें सावय-वेरें.

आरे म्हणलें, सावयवेरें तर म्हाज्या आवडट्या लेखकाचो गांव, आतां इतलो लागीं पावन तांका मेळ्ळ्या शिवाय कसो वयतलों, तांच्या चौरंग पुस्तकान तर म्हाज्या... (आसूं, मागीर केन्नाय सांगतां). हें म्हाका पयलीं कशे सुचोंक ना काय, अशें चिंतलें आनी सोमतोच तांकां फोन लायलो. तांकां विचारतांच म्हाका आपोवणें आयलें यो म्हूण.

येद्दे मोटे म्हान व्यक्तीन एका अनवळख्याकडे दाखयिल्ली विनयशील वृत्तीन हांव भारावून गेलों. घडये म्हाजो आवाज आयकून तांका पयलींच होलमल्लें आसतलें की हो कोणतरी दुर्मीळ जीव आसतलो म्हूण. सगळें नाटक सोंपोवन तांगेर साकून भायर सरतना तांच्यांनी म्हाका तशें सांगलेंय बी, की हांव खंय जगांतलो पयलो मनीस जो तांका सायकल घेवन मेळपाक येयल्लो.

तर आताच्या युगांत विज्ञान (आनी खगोलशास्त्र) हो एक असो विशय आसा जाची जाणविकाय सगळ्यांक आसून लेगीत ताचे म्हत्व कोण समजूंन घेवंक सोदी ना. पावला कणकणी आमी विज्ञानाचो वापर करतात, पूण तरिकूय ताका आमी कुस्कुटा समान लेखतात आनी थंयच फसतात. हाचें कारण घडये रुच वा आवड नासप अशेंय आसूं येता.

आमच्या शास्त्रांत, म्हळ्यार पुराणकाळांतल्या ज्योतिशांनी, म्हयन्यांतले वेगवेगळे दीस वळखुपाच्या हेतान तांका चंद्र-कळे वयल्यान नांवां दिल्लीं. उमाशे दिसाच्यान सुरू करतना, चंद्र जेन्ना पृथ्वी भोंवतणचो, लार्गी लार्गी 12ओ कोन घुवन पुराय करता तेन्ना आमची एक तीथ बदलून दुसरी चालू जाता.

उमास आनी पुनव धरुन, शुक्ल पक्षांत (Waxing Phase, वाडटी चंद्राची कळा) आनी कृष्ण पक्षांत (Waning Phase, देवती चंद्राची कळा) मेळून 30 तिथी आसात... पाडवो, बिज, तय, चवथ अशो.

चैत्र म्हयन्यांत, उमाशे उपरांतचे पयले तिथीर आमी गुडी पाडवो मनयतात, तशेंच श्रावण सोंपतगीर भाद्रपद म्हयन्यांतले उमाशे उपरांतचेचवथे तिथीर...?

आतां चवथीचें नांव येयलेंच म्हूण याद करुन दितां, त्या दिसा आमी अशीच एक काणयेच्या रुपान तयार जाल्ली, चंद्रा संबंदीत अंधश्रद्धा मानतात की, चवथीच्या दिसा चंद्र पळोवपाक जायना

# थंडेतलो सुर्यस्थिरकाळ, Winter Solstice




## ह्या दिसानी, पृथ्वीची दक्षिण गोलार्धातली बाजु ही सुर्याक फुडो करुन आसता

म्हूण, कसलो तरी शिराप लागता.

हाचे फाटलें निश्चित कारण कितें आनी कसलो शिराप तें कोणाक खबर आसचेंना, पूण ती फटीची गजाल पसरोवपाक मात आमी सगळ्यांत फुडें.

हरशीं आमच्या जाणट्यांनी ती काणी घडयिल्ली, फुडले पिळगेक एक बरी देख मेळची आनी तातूंतल्यान एक बोध घेवंचो म्हूण. दुसऱ्यांक (हुंदराचेर बसला म्हूण) उणें लेखचें न्हू, कोणाचो (पोट मोटें आसा) दोश, उणावाचेर फकाणां मारचीं न्हू, आपलें श्रेश्ठत्व, (सुंदरतायेक लागून) गर्व धारण करचें न्हू, अशीच कितें तरी तिची मोख आसली. पूण आमकां खंय कितें पडून गेलां...? आमी स्वताक चड हुशार समजता न्हू, म्हण्टकच आपणाक जें जाय तेंच याद दवरतले, आनी आपणाक जाय तेंच करतले, सारके न्हू? मागीर त्या चंद्राक दिवपाची कट्टी आनी सगळ्या देखी-मोखींक व्हरून लावपाची चुट्टी.

फाटी, 3 म्हयने पयलींचीच एक गजाल सांगतां. चवथी दिसा जावपी एके ओडलायणेखगोलशास्त्रीय घडणुकेच्या बळार (चंद्र, शुक्र, चित्रा, बुध, मंगळ... याद जाली?), आमी तो चंद्रासंबंदी चुकिचो समज पयस जावच्या हेतान, तशेच कोणाक्य खगोलशास्त्राची आवड लागची म्हूण, ताचेर एक रुचीक अशी बातमी केल्ली. ती मराठी तशेच इंग्रजी भाशेंतूय बरी फोटवा सयत छापून आयिल्ली (आमचे कोंकणींत ती येवंक ना, म्हण्टकच बेटेंच सोदूंक बी वच्चें न्हू. आमकां तशें विज्ञानाच्या गजालींचें बी पडून गेल्लें ना. ती वेगळी गजाल आनी हरशी म्हूण जालेंय जाल्यार ताची किंमत तर उणीच, तें आनी सांगपाक जाय? ).

शी... गरजे भायर फुडाकार घेतलो आनी विकती पिडा ओडून घेतल्या वरी मात जालें.

हातूंत आमचो चंद्रूय म्हूण कमीचो ना. ताकाच लागून तर हांव फोंडांत पडलों. ताणें वाट लावंक नाशिल्ली जाल्यार म्हाका हें

सगळें पुराण घेवन बसपाची गरजूच नासली. कोणाच्यो म्हशी आनी कोणाक उठाबशी!

आनी किर्ते तर..? चवथी पयलीं रडत रडत येयल्लो तो आम गेर, आपलें गाराणें घेवन (म्हळ्यार सपनांत हा, सपन मोग्यांगेर खंय तो येताच येता).

चंद्र म्हणूंक लागलो, हे खेपेक तरी पळय कितेंय जाता बी जाल्यार आनी आपले पाप धुवपाक मात्शी मदत कर. पूण ह्या चंद्राक आता कोण सांगतलो की, फक्त बरयलेच म्हूण कांय जायना, ते कोणीतरी वाचचेय बी पडटा! चंद्राक सांगलें की हे फावटी तुजी सेटींग करतां, तूं थेट चवथी दिसाच यो, पूण येतना मात वांगडाक तुज्या इश्टांकूय घेवन यो, पळोवया कितें जाता जाल्यार!

आमचे संस्कृतायेंत आमी जितले सण मनयतात, ते सगळे खंयच्या ना खंयच्या कारणान, सैमाच्या एकेक अप्रुप घटकांची जाण आसची म्हणूनच थारायिल्ले आसतात. तांचो मनोवपाचो वेळूय तेच पद्दतीन, बरोच विचार-मंथन करुन येवजिल्लो आसता आनी चंद्र (आनी खगोलशास्त्र) हो तातुंतलोच एक भाग.

ह्याच प्रकारचें आनी एक उदारण म्हाका सापडलें, जें म्हाज्या आवडट्या क्षेत्राकडें संबंदीत आसा, तें म्हळ्यार Stargazer हो शब्द. हाचो कोंकणी अर्थ जाता 'तारे नियाळपी', म्हळ्यार काळखे राती वेळार तारे-नखेत्रांच्या वांगडा रावन, खगोलशास्त्रीय हौस भागोवपी.

तशे पळोवंक गेल्यार, स्टार-गेझर वा ज्योतीशी वा स्ट्रोलॉजर हे एकाच कुळांतले मनीस (वा एकवेळ प्राणीय आसु येता. सुण्यांक सगळे वळखताच आसतले. हांव हांगा कोणाची बराबरी बी करता म्हूण समजुचे न्हू हा! आतां सुण्यांचो विशय आयलो कित्याक तर, ते खंय दर म्हयन्यांत पुनवेचो सण साजरो करतात म्हूण आयकलां. त्या दिसा ते काळख्या मळबांत ताऱ्यांवटेन पळोवन मोट्या मोट्यान हांसतात (वा रडटात काय कितें तें कळपाक मार्ग ना). पूण आमी तेका आमचे कोंकणी भाशेंत कुयो म्हण्टात तें मात खरें.

तांका खऱ्यानीच म्हाज्या भशेन ते तारे-चंद्र आवडटा काय हें दुसरें कसलें प्रकरण, हाचो सोद घेवपाक हांवें तांच्या सभावाचेर अभ्यास करपाचो यत्नुय केल्लो.

मुळांत, स्टार-गेझर आनी ज्योतीशी हाचो एकूच अर्थ जावंक शकना. जे तरेन, ताऱ्यांनी भरलेलें मळब नियाळतल्यांक आमी स्टार-गेझर म्हणटात, ते तरेन सगळे ज्योतीशी हे मुदलाक एक तरेचे स्टार-गेझरुच, पूण सगळेच स्टार-गेझर हे ज्योतीशी वा स्ट्रोलॉजर आसनात. तांचो अशे तरेन उल्लेख करप हें म्हाज्या मतान तरी चूक.

जोतीश म्हणल्यार ज्योती आनी शास्त्र ह्या दोन शब्दानी जोडून तयार केल्लो तो पुरातन काळावयलो एक संस्कृत शब्द.

ज्योतीशास्त्र वा ज्योतीश वा ज्योतीसा जाचो अर्थ जाता ज्योती, म्हळ्यार प्रकाश, जो नैसर्गीक तरेन फक्त मळबांतल्या माध्यम ितल्यानूच मेळटा आनी ताचेसंबंदीत ते शास्त्र, म्हळ्यार प्रकाशाचे विज्ञान (Scientific study of light received from natural source - Sun, Stars...)



ह्या शास्त्राची रचणूक मुखेलपणान खगोलीय वस्तूंची चाल लक्षांत घेवपाक लागून केल्ली, जाचो उपेग आमी वेळ कितलो जालो हें पळोवपाक लागून करताले पूण आतां, हात दाखोवन वा कागदाचेर चित्रयिल्ल्या चौकटांत कितें बरयिल्लें आसा ताकाच चडशे जाण ज्योतीशास्त्र म्हणटात वा मानतात.

अशें खंय तरी बरयिल्लें आसा , strology is basically a Science of Light in its natural form, coming from the heavenly bodies and strologers were supposed to be the timekeepers, who monitors the movement of these celestial bodies (तें आसा तशें समजुचें म्हूण हांवे ताचो अणकार करूंक ना)

तर आतांच्या युगांतलें शिक्षण हें फक्त दुडू जोडपा आनी मोडपा पुरतेंच आसा. तें वेगळें सांगपाची गरज ना, कारण तेंच तर आसा .ह्या 21 व्या शेकड्यांतलें जागतीक सत, जें कोणा म्हारवा कडेनूय बदलपाची कापस्ताद आसची ना..

आताच्या युगांत विज्ञान (आनी खगोलशास्त्र) हो एक असो विशय आसा जाची जाणविकाय सगळ्यांक आसुन लेगीत ताचे म्हत्व कोण समजूंन घेवंक सोदीना. पावला कणकणी आमी विज्ञानाचो वापर करतात, पूण तरिकुय ताका आमी कुस्कुटासमान लेखतात आनी थंयच फसतात. हाचें कारण घडये रुच वा आवड नासप अशेंय असू येता.

तर वाचप्यांनो ,बरोवपाक सुरवात करपाचो म्हाजो एक मुखेल उद्देश आसलो ,खगोलशास्त्रांतल्यो (आनी हेर विशयांतल्योय बी) ज्यो चुकीच्यो वावड्यो समाजांत पसरलेल्यो आसात त्यो हुमटून काडप, आनी ते दिकेन हांवें तर्शी पावलांय उखल्लेलीं, पूण अचानक आतां तीं जड जाल्ल्या वरी भासूंक लागल्यांत. म्हाका दिसता तातूंत वाचलेखतात. हे चंद्राच्या बाबतीतच न्हु तर हेर कडेय तशेच आसता.

आमचे संस्कृतायेंत अश्योच एका फुडल्यो एक फामाद काणयो आसात, जाचो अर्थ कोण समजूंक पळयनात. तशेंच ज्यो आचरणांत हाडपा असल्यो देखी-मोखी आसात तांकाय कोण याद दवरी नात. हाचे वयल्यान आमकां मनीस आनी ताची परिस्थिती कितली प्रगत आनी विकसीत जाल्या ताचो अंदाज येतलो. म्हण्टकच आनीक कसल्याच पर्याया शिवाय, हाका उद्देशून हांव इतलेंच म्हणीन की, धन्य आमची मनीस जात.

आजोबा नगर, साखळी - गोंय.
gautamjalmigmail.com

●●●

तेफळां



प्रा. डॉ. वामन
रा. नायक

# प्राचार्यपदाची जापसालकी!

**डॉ. वामन रा. नायक** हे पुण्यांत महाविद्यालयांत फाटलीं धा वर्सां प्राचार्य म्हूण वावुरतात. ते कथा, कविता, आनी ललित साहित्याची सेवा करतात. कांय काळ ताणीं 'वांगडी' नांवाचें एक नेमाळेंय चलयलें. ते 'भांगरभूंय' तशेंच हेर नेमाळ्यांनी सातत्यान लेखन करतात.तांचीं 'इंग्लीश - कोंकणी समानार्थी-विरुद्धार्थी शब्दकोश', 'वेध फुडाराचें', 'हिंद स्वराज्य वा इंडियन होम रूल' आनी 'अशे घडले डॉ.ए.पी. जे. अब्दुल कलाम' हीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.
मो: 9527744990

प्राचार्य जावपा खातीर बरेच पावसाळे काडचे पडटात. अणभवान बऱ्योच गोशटी कळटात, ॲंटिसिपेट करूं येता. सामान्यपणान विद्यार्थ्यांच्यो अडचणी कितें आसतात, नव्या प्राध्यापकाक कसल्यो अडचणी येतात, ग्रंथालयाच्या, कार्यालयांतल्या कर्मचाऱ्यांच्यो अडचणी कितें आसतात त्यो ॲंटिसिपेट करूं येता.

आयएसबिएमाक प्राचार्य म्हूण येवचे पयलीं बरींच वर्सां हांवें धेम्पो कॉमर्स कॉलेजांत लेक्चरर,रिडर,उपप्राचार्य आनी प्राचार्य म्हूण सुमार 30 वर्सां काम केलां. हो अणभव आसलो. गोंयची ती पयली कॉमर्स कॉलेज. सुप्रतिश्ठीत महाविद्यालय,जंय हांवें अध्यापनाचे आनी प्रशासनाचे पयले धडे चिरले. साहजिकच हे कॉलेजी विशीं म्हज्या मनांत आपलेपण आसा. आतां पुण्यांत आयल्यार म्हाका 11/12 वर्सां जालीं. पयलींच्या बऱ्या वायट घडणुकांतल्यान हांवें मना पासून थारायल्लें, कॉलेजचे दर एके घडणुकी कडेन बारीकसाणेन लक्ष दिवप.तेच भशेन सगले प्राध्यापक आनी प्रशासकीय सेवकां बराबर सलोख्याचे संबंध आसल्यार, सगल्यांचे सहकार्य मेळ्ळयार, कॉलेजीची अपेक्षे प्रमाण उदरगत जावं येता.

आयएसबीएमची खासियत म्हळ्यार, एक मध्यम वर्गीय, प्रो.प्रमोदकुमार, आय आयटी जाल्ले, कन्सल्टन्ट जगभरच्या 80 कंपन्यांचे, सुर्वेक ॲक्सएलआय, उपरांत सिम्बीओसिस संस्थेत 3-4 वर्सां संचालक म्हूण काम करताले, तें सोडून समविचारी सहकाऱ्यांक वांगडा घेवन स्वतःची संस्था स्थापन करतात. कालांतरान एक बरें मॅनेजमेंट कॉलेज म्हूण नामना मेळटा. सुर्वेक सावन 100 टक्के प्लेसमेंट. बऱ्या बऱ्या नामनेच्या संस्थांतले प्राध्यापक जॉयन जाले. बऱ्या बऱ्या संस्थांच्यो बऱ्यो पद्दती आपणायिल्ल्यान संस्था नांवरूपाक आयली. पुण्या भायर संस्थेचे फांटे आयले. नव्यो कॉलेजी सुरू जाल्यो.

हे कॉलेजीची एक जायरात टाइम्स ऑफ इंडियांत आयिल्ली. कॉलेज खंय आसा हें खबर नासलें. मागीर ती कॉलेज सिम्बीओसिस आंतरराष्ट्रीय विद्यापीठ आसा, ताचे आयल्यान आशिल्ल्याचें कळ्ळे. सुर्वेक कॉलेज पयस अशिल्ल्यान व्हडलिशी इत्सा नासली. पूण, कॉलेज कॅम्पसांत भितर सरतकूच कॅम्पस आवडलो. लायब्ररी पळेतकच ती बरी आसा, ती 24 वरां सुरू आसता तें कळ्ळे. मागीर सगले सोपस्कार जावन हांव जॉयन जालों. कॉमर्स कॉलेज. पुणे विद्यापीठा खाला ही बिना अनुदान कॉलेज. विद्यार्थी चडशे हॉस्टेलांत रावपी. हांगाचें वातावरण, बरेंच वेगळें आसा, हाचो म्हाका अणभव आयलो. संस्थेचे अध्यक्ष केन्ना केन्ना रातचे उसरां मेरेन वावुरतात. कॉलेजची मुखा वयली उदरगत कशी करची, हे विशीं म्हज्यो कांय कल्पना आसल्यो. मूळ संस्था ऑटोनोमस अशिल्ल्यान, तांच्यो कांय पद्दती आमी आपणायल्यो. बरो शिक्षक / प्राध्यापक हो एक विद्यार्थी आसपाक

जाय, हे भावनेंतल्यान हांव सुर्वेक सावन वावुरतां, ते विचारसरणेचो उपेग जालो. आम ची संस्था शिक्षणीक मळार नामना जोडील्ल्यांनी सुरू केल्ली. ताचो म्हाका खूब फायदो जाला. आमच्या अध्यक्षांची फाटभूंय आयआयटीची. तांणी एक्सेलाराय, आनी सिम्बीओसिस हांगा संचालक म्हूण काम केलां. थंय सरल्यो बऱ्यो पद्दती आपणावपाचो तांणी यत्न केलो. ते स्वतः प्लेसमेंट पळेतात. डॉ.डे, आमचे चीफ एक्जीक्युटीव्ह. तांणी नामनेच्या संस्थांनी काम केलां आनी अवॉर्डय मेळयल्यांत. तांची उमेद आनी काम करपाची पद्दत पळयल्यार, पिराय जावनूय, तरनाट्यांक उमेद हाडपी कार्यपद्दत आनी सुंदर ड्राफ्टिंग. प्रो.चॉक्सी हे अशेच कंपनींतल्यान उंचेल्या पदा वयल्यान रिटायर जावन शिकयतात, आनी नेमान इकॉनॉमिक टाइम्स सारख्या पेपरांनी बरयतात, आनी कसल्याय म्हुर्तार उलोवंक लायल्यार, बरें उलयतात. व्हडल्या व्हडल्या पेपरांनी ते बरे तरेन पत्रलेखन करतात, तें पळोवन 'तुमी लेखच कित्याक बरयनात?' काय म्हूण हांवें एकदां विचारलें. म्हाका तें आवडता अशें सांगून तांणी विषय बदल्लो. उसरां म्हाका कळ्ळें, कांय फामाद लेखकूय लेख बरोवपा वांगडाच ग्रंथ निर्मिती बराबर पत्र लेखनूय करतात. हे जाणकार आनी हेरां कडसून म्हाका खूब शिकूंक मेळ्ळें आनी मेळत आसा.

म्हजो आजवेरचो अणभव पळयल्यार, एखाद्री व्यक्ती आमचे जिणेंत आयल्यार, तांचो प्रभाव पडल्यार, आम ची जीण बदलूंक शकता. सकारात्मक ऊर्जा, चैतन्य, खोशयेचें वातावरण निर्माण जाता. केन्ना कितेंय जाल्यार सोंपेपणान निराश जावप ना. नेमान सकारात्मक दिष्टीकोन दवरल्यार, जिणेंतले सोबीतकायेचो प्रत्यय येता. पिरायेचीं 70/80 वर्सा जावन लेगीत तांची उमेद, चिकाटी, वेळेचें अचूक नियोजन, प्रामाणिकपणा, बारिकसाण, जापसालदारकी आनी बांधिलकीचें भान तशें सामान्यतायेन क्वचितच. प्राचार्य हो टिमच्या कॅप्टन सारखो आसता. वांगडी, प्राध्यापक, शिक्षकेतर कर्मचारी, आनी विद्यार्थी ह्या चोम्याचें फुडारपण करचें लागता. सगल्या वांगड्यांचें



आनी भौसंख्य विद्यार्थ्यांचो विस्वास मेळोवपाचेर प्राचार्य कितल्या प्रमाणांत यशस्वी जाता, ताचेर ताचें यश अवलंबून आसता. तो क्रियाशील आसपाक जाय. सुर्वेक हांव स्वतः पीएच.डी आशिल्ल्यान, दर एका नव्या प्राध्यापकाक हांव पीएचडी करात अशें आग्रो करून सांगतालों. दर एके स्टाफ बसकेंत हांव तो उपदेश करतकूच कांय जाणांक ताचो वाज येतालो. तरणे पिरायेंत तुमी सोंपेपणान करूंक शकतात, कॉलेज, संस्था तुमकां सगले तरेची मजत करतली, अशें हांव परत परत सांगतालों. कांय जाणांनी ती केली आनी आतां बऱ्याक पावल्यात. कांय प्राध्यापक बरे शिकोवपी आसतात. तांची वृत्ती संशोधनाची आसना. तशेंच कांय प्राध्यापकांक बरोवपाचो मना पासून वाज येता. ते वर्गात बरे तरेन शिकयतात आनी भायरूय बरीं व्याख्यानां दितात. म्हणून बऱ्याच वरसांच्या अणभवां वयल्यान हांव ह्या निष्कर्शा मेरेन आयलां की पीएचडी कर वा पुस्तकां बरय अशे सांगून दर एकल्याच्या फाटल्यान प्राचार्यान लागचें न्हय. पीएचडी केल्ले सगलेच प्राध्यापक बरे शिकोवपी आसतात अशें न्हय. तशेंच कांय पीएचडी मेळयल्ले प्राध्यापक स्वताक इतले व्हड समजतात की ते कॉलेजच्या हेर कामांत जाय तसो भाग घेनांत,

सहकार्य करीनात. पूण सगलेच अशे आसतात अशे न्हय. विद्यापीठाचे परिक्षेंत विद्यार्थ्यांनी मेळयल्लें यश हें कॉलेजचे गुणवत्तेचें मानक मानतात. हें साध्य करपाचें आसत तर अध्ययन आनी अध्यापन हाचे कडेन खास लक्ष दिवपाची गरज आसता. वर्गात विद्यार्थ्याची उपस्थिती समाधानकारक आसूंक जाय. प्राध्यापक शिकयतात तें योग्य नासल्यार, तांकां सुचोवण्यो करूंक जाय. सुचोवण्यो चालीक हाडल्यात वा ना ताचे कडेन लक्ष दवरूंक जाय. अभ्यासांत फ्राक आशिल्ल्या विद्यार्थ्यां कडेन खास लक्ष दिवंक जाय. कॉलेजची मोख कितें आसपाक जाय हें थारोवपा खातीर हांवें कितलींच पुस्तकां वाचलीं बरे बरे लेख वाचून, अडचणीचेर म ात कशी करप, हें जाणून घेवपा खातीर, जाणकारां कडेन चर्चा केली, वांगडच्यां कडेन भासाभास करून निर्णय घेतले. उच्च शिक्षणाचें उद्दीश्ट विद्यार्थ्यांचो सर्वांगीण विकास घडोवप हो आसता. ह्या खातीर प्राचार्यान अभ्यास, पुरक उपक्रम आनी अभ्यासेतर उपक्रम ह्या सगल्या बाबीं कडेन लक्ष दिवंक जाय. ह्या खातीर प्राचार्याचें काम सदांच 24/7 चालू आसपाक जाय.

प्राचार्या कडेन आसता विद्वत्ता, प्राध्यापकांची टीम, विद्यार्थ्यां विशीं मोग, आपलेपण, विद्येचेर निश्ठा, प्रत्येकाच्या व्यक्तिमत्वा परमाणे कांय मुल्यांचो आग्रो. जाचें स्वरूप आतां बदलत आसा. पयलींचे दीस गेले. बदलते परिस्थितींत तो कोणाक दमदाटी करूंक शकना. तो गुंडागिरी, दादागिरीय करूंक शकना. आयिल्ले परिस्थितीक ताणें शांत चित्तान तोंड दिवचें पडटा. प्राध्यापकांक आनी विद्यार्थ्यांक बरे तरेन सांबाळून घेवप सोंपें काम न्हय. इतल्या वरसांच्या अणभवा उपरांत विद्यार्थ्यांचो विश्वास संपादन करपाक हांव बऱ्या प्रमाणांत यशस्वी जालां. कित्याक फक त कॉलेजचे विद्यार्थी म्हूण हांवें तांचे कडेन पळोवंक ना. प्रत्येक विद्यार्थ्याक एक स्वतंत्र व्यक्तिमत्व आसता. दर एकल्याच्यो इत्सा, आकांक्षा, ध्येय, मोखी, हावेस आसतात. दर एकल्याच्यो समस्या वेगळ्यो आसतात. ताच्यो खोसयेच्यो आनी दुख्खाच्यो कल्पनाय वेगवेगळ्यो आसूंक शकतात. दर एकल्याची घरची फाटभूंय वेगळी आसता. केन्ना केन्ना ताच्या मनांत न्हय तर अंतस्करणातूय वच्चे पडटा. कॉलेजच्या विद्यार्थ्यां कडेन बरो संवाद सादप, तांचे कडेन जमोवन घेवप ही प्राचार्याचे नदरेन खूब म्हत्वाची गोश्ट आसता. खूब कडक रावंक जायना आनी एकदम मोव रावूनय उपकरना. देखून हातुंतल्यान मदलो मार्ग काडचो पडटा. विद्यार्थ्यांक समजावन सांगचें लागता. देखून प्राचार्या कडेन पार्शीयेंस, संयम, आनी सोशिकसाण आसची पडटा. खंयचेच परिस्थितीत आपलो तोल वचूंक जायना, तोंडांतल्यान वायट उतर येवंचेंना हाची जापसालदारकी घेवंची पडटा.

प्राचार्य जावपा खातीर बरेच पावसाळे काडचे पडटात. अणभवान बऱ्योच गोश्टी कळटात, अँटिसिपेट करूं येता. सामान्यपणान विद्यार्थ्यांच्यो अडचणी कितें आसतात, नव्या प्राध्यापकाक कसल्यो अडचणी येतात, ग्रंथालयाच्या, कार्यालयांतल्या कर्मचाऱ्यांच्यो अडचणी कितें आसतात त्यो अँटिसिपेट करूं येता. सद्या नॅक्काक लागून विद्यार्थ्यांच्या फीडबॅकाक खूब म्हत्व आयलां. प्राचार्यान अँटिसिपेट केल्यार कांय गोश्टी सोंप्यो जातात. सर्वसामान्य प्राध्यापकाक दिसूंये की विद्यार्थ्यांचे कागाळी कडेन प्राचार्यान लक्ष दिल्यार तांचे प्रतिश्ठेक कोण सांबाळतलो? कांय प्राध्यापक तर विध्यार्थी प्राचार्या कडेन वच्चे न्हय म्हूण खास तजवीज करतात.विद्यार्थ्यांची मागणी रास्त आसल्यार ती मान्य जावपाक जाय. कांय जाणांक तें वायट दिसलें तरीय प्राचार्यान तें करूंक जाय. कॉलेजचो सगलो खटाटोप आनी पसारो विद्यार्थ्यां खातीर आसता. हीच गत वाचनालय आनी हेर कर्मचाऱ्यांची. कांय वेळां कागाळ्यो रास्त आसतात. गैरसमज आसता, योग्य संवादान तो पयस करूं येता. खुबदा लेखी स्पश्टीकरण मागचे बदला, अनौपचारीक पद्दतीन प्रस्न सुटावे जावं येतात. निकोलस प्रेटोंन बेश्टेंच म्हणूक ना, Experience is the mother of knowledge -जिणेचे शाळेंत, अणभवाच्या गुरूं कडल्यान धडे घेतले बगर शाणपण येना.

●●●

दिस्टावो



एच . मनोज

एच. मनोज म्हणल्यार मनोज हळर्णकार. पेशान ते शिक्षक आनी फाटलीं 31 वर्सां अध्यापन करतात. तांचो 'मनोभाव ' हो काव्यसंग्रह उजवाडाक आयला आनी 'मनकळे फुलतना' हो लेख संग्रह उजवाडाचे वाटेर आसा. ते बिम्ब, भांगरभूंय आनी हेर नेमाळ्यांतल्यान सातत्यान लेखन करतात.
पत्तोः चिखले गोंय
मो: 98224 41417

आताचें डिजीटल यूग जाल्ल्यान भुरग्यांक पुस्तक हातांत घेवन बसपाची गरज पडना. पूण पुस्तक हातांत घेवन वाचप आनी डिजीटल पुस्तक वाचप हातूंत बरोच फरक आसा. तरी आसतना आमी भुरग्यांक तांचे आवडी प्रमाण मेकळीक दिवन वाचनाक प्रोत्साहन दिवंक जाय.

# भुरग्यांक साहित्याची गोडी लावप आमची नैतीक जापसालदारकी

मनीस आपले जिणेचे जशे एक-एक पांवडे वयर चडत वता तशे-तशे तो वेग-वेगळ्यो गजाली शिकत रावता. मनशाचे जिणेचो 'शिक्षण' हो एक खास भाग जाल्लो आसता. जरी हो भाग चडश्या जाणांक आवडना तरी पूण हेंच सत! कित्याक तर, शिक्षण ही एक केन्नाच सोंपनाशिल्ली क्रिया. केन्ना मनीस आपल्या अणभवांतल्यान शिकता तर केन्ना दुसऱ्याचें पळोवन शिकता. सैमा कडल्यान लेगीत मनीस कळत वा नकळत जायत्यो बऱ्यो गजाली शिकता. मनीस हो समाजीक प्राणी जाल्ल्यान सुख-दुख्ख, हांसो-रडो, मोग-राग, आवड- नाआवड अशे उमाळे जेन्ना जेन्ना तो अणभवता तेन्ना ताका ते सहज, कोणाक दुखय नासतना उक्तावंक येवंक जाय. एखाद्र्या मनशाक कोणाचोय राग आयल्यार ताणें तसो तो दाखोवन दिवंक जाय. कोणेंय कितेंय बरें काम केल्यार ताची तोखणाय करून ताचे भितर उर्बा हाडूंक जाय. बरे गजालीक बरी तर वायट गजालीक वायट म्हणपाक अनमनूंक फावना. फुडाराक एक थीर सबाव आशिल्लो मनीस घडोवंक अशे तरेचे उमाळे उक्तावपाक भुरगेपणार सावन तांकां शिकोवंक जाय. आवय ही भुरग्याची पयलो गुरू अशें आमी मानतात. तीच भुरग्यांक पयलें उतर शिकयता. भुरगो शाळेंत येता म्हणसर ताका सुमार तीन ते चार हजार उतरांची वळख जाल्ली आसता. भुरग्यांच्या सरभोंवतणी घडटात त्यो घडणुको लेगीत तितल्योच म्हत्वपूर्ण आसतात. कारण त्या घडणुकां पासून तांकां एक वेगळो अणभव मेळिल्लो आसता. जेन्ना ते आपले इश्टां कडल्यान, शेजाऱ्यां कडल्यान आनी सोयऱ्यां कडल्यान नवीं-नवीं उतरां आयकतात आनी शिकतात तेन्ना तांचो उतरांचो आंकडोय वाडत रावता. सुमार पांच ते स वर्सां पिरायेर भुरगीं जेन्ना शाळेंत वचूंक लागतात तेन्ना शिक्षक तांकां पाठ्य पुस्तकां प्रमाण शिकयतात. केन्ना केन्नाय भुरग्यांक ते पाठ आवडनात तर केन्ना तांकां ते विशय लेगीत आवडनात. देखून शिक्षकान पाठाचेर विचारिल्ल्या प्रस्नांच्यो जापो भुरगे दिनात. तांकां तो पाठ आवडलो काय ना हें कोण जाणून घेवपाक पळयनात! घडये हाकाच लागून भाशेची आवड भुरग्यां भितर जावंक पावना. पाठ्य पुस्तकांचेर भर दिवन शिक्षक तांचे विचारसरणीचेर बंधना घालतात काय कितें असो प्रस्न हांव म्हजे म्हाकाच केन्ना केन्ना विचारतां. मुळावे शाळेंत

तांकां आमी रंगांचो, चित्रांचो आनी प्रतिमांचो आधार घेवन ल्हान-ल्हान काणयो सांगून शिकयलें जाल्यार बरें. बरोवप कांय ना, फकत आयकप आनी आपल्या उतरांनी विचार मांडप. आवय कडल्यान वा हेर कोणाय कडल्यान तांणी काणयो आयकल्या आसूकच जाय अशें मतींत दवरून भाशा शिकयतना जण एकल्याक काणी सांगपाक लावची आनी ती काणी कोणांक आवडली काय ना हाचेर प्रस्न विचारचे. आवडली जाल्यार कित्याक आवडली आनी ना जाल्यारूय बी कित्याक तें सांगपाक लावचें. अशे तरेन तांकां तांचे उमाळे उक्ते करूंक वाव मेळटलो. काणी सांगता आसतना शिक्षकान आवाजाचो चड उतार आनी फावो ते हाव-भाव करून सांगली जाल्यार तांकां ती मानवतली. अशे तरेन भाशेची आवड निर्माण जावंक मजत जातली. एकदां भाशा आवडूंक लागली म्हणटकच मागीर भुरगीं आपूण जावन काणयो सांगपाक लागतले आनी ते प्रमाण तांचे उमाळेय उकते जातले. नव्यो नव्यो काणयों सांगच्यो पडल्यो म्हणटकच भुरगीं काणयांचीं पुस्तकांय वाचूंक लागतलीं.

माध्यमीक थराचेरूय होच उपाय पयले कांय दीस करूं येता. काणयांचो आधार घेवप, तांचे आवडिचे विशय घेवन भासा-भास करप, कविता वाचप वा गायन करप, तांकां तांचे विचार मांडपाक लावप. वर्गांत मातसो बोवाळ जाता. पूण तो बोवाळ विधायक थारता. सहज अभ्यास केल्ल्या वरी



शिक्षकान नव्या-नव्या उतरांचो उपेग करूंक जाय. तीं उतरां जेन्ना भुरग्यांक आवडटलीं तेन्ना तीं आपसूक बरोवंक आनी वाचूंक लागतलीं. आवड निमर्ण करपाचें आमचें कर्तव्य! मागीरचीं कामां आपोआप जायत वतलीं. अर्दी मर्दी वेळ मेळटा तसो तांकां छंद म्हूण बरोवंक लायलें जाल्यार हळू-हळू साहित्यीक नदर तांकां मेळूं येता अशें हांव मानतां.देखून शाळा सुरू जाता तेन्ना हांव पयले कांय दीस काणयांचेर भर दितां. कविता वाचून दाखयतां. कवितांचेर तांचे विचार मांडपाक लायतां. सगलेच भुरगे सारकी जाप दिता अशें ना. पूण तांच्यांत आवड निमर्ण जावंची हो हेत मनांत दवरून तांकां प्रोत्साहन दीत रावत तर फुडाराक एका पंगडांतलो एक तरी लेखक वा कवी जावंक पावलो जाल्यार जिणेचें सार्थक जालें अशें म्हणूं येता. काणयो कोणाक आवडनात अशें ना. त्यो सगल्यांक आवडटात. देखून काणयो हो बाल साहित्याचो कणो म्हणूं येता. भुरग्यांक ल्हान ल्हान काणयांचीं पुस्तकां वाचूंक दिवंक जाय. काणी वाचून जाली म्हणटकच ती वर्गांत सांगूंक लावंक जाय, फावो त्यो सुचोवण्यो दिवन काणी सांगपाची तरा तांकां शिकोवंक जाय. तशेंच उतरांचो चड उतार कसो सांबाळप हाचेर भर कसो दिवंचो तें समजावन सांगपाक जाय. तेन्नाच भुरग्यांक वाचनाची आवड लागतली आनी काणयो सांगपाचीय आवड तांच्यांत निर्माण जातली. भुरग्यां भितर समरसताय येवंक चडांत चड वाचन करप गरजेचें. त्या भायर जें कितें वाचलां तें दुसऱ्याक उलोवन दाखयत तर नव्या उतरांची याद दवरूंक बरी जमतली. आपले भाशेंतल्या लेखकां बद्दल आनी वेग वेगळ्या कवीं

बद्दल तांकां म्हायती दिवंक जाय. शाळेच्या वाचपघरांत व्हरून तांकां पुस्तकां कशीं सोदप तार्ची प्रात्यक्षिकां करून दाखोवंक जाय. हाचो एक फायदो असो, ग्रंथपाल नासत तर तांकां जाय तीं पुस्तकां सोदून काडून वाचूंक मेळटलीं. हांवें जायते जाणां कडल्यान आयकलां, आतांच्या भुरग्यांक वाचूंक आवडना म्हूण! पूण म्हाका ही गजाल मान्य ना. आतांचे भुरगे डिजीटल कन्टेंट वाचतात. हाचो अर्थ ते वाचिनात असो जायना. घडये कमी प्रमाणांत वाचन जाता आसत. पालकांनी भुरग्यांक वेग-वेगळीं पुस्तकां हाडून वाचूंक दिवंक जाय. मागीर पळयात तीं वाचतात काय ना तीं. सान पिरायेरूच तांकां चित्रां आशिल्लीं पुस्तकां दिवन चित्रां वळखूंक शिकोवंक जाय. उपरांत चित्रां चड आनी उतरां कमी आशिल्लीं पुस्तकां दिवन वाचपाक लावंक जाय. म्हणटकच ल्हान पिराये सावन भुरग्यांक वाचपाची आवड लागता. जे पिरायेर आमी भुरग्यांक नाचूंक वा गावंक शिकोवंक धाडटात, त्याच वेळार वाचनाचेरूय भर दिवंक नाका? वाचनाचे बाबतींत आमचीं भुरगीं कित्याक फाटीं पडटात हाचेर विचार जावंक जाय आनी जंय आमी कमी पडटात थंय सुधारणां करपाची गरज आसा. म्हज्या मतान जण एका आवय बापायन भुरग्या मुखार बसून वाचन करून घेवंक जाय. हें जरी कठीण तरी थोडो वेळ आपल्या भुरग्या पासत दिवप गरजेचो. हांव तांकां व्हडले लेखक वा कवी जावपाक जाय म्हण सांगना पूण वाचनाची रूच हेच पिरायेर लावप गरजेची. कित्याक तर वाचनाचेरूच मुखा वयलें शिक्षण आधारीत आसता. जितलें चड वाचन जाता तितली भुरग्यांची स्मरण शक्त लेगीत वाडत रावता.

आताचें डिजीटल यूग जाल्ल्यान भुरग्यांक पुस्तक हातांत घेवन बसपाची गरज पडना. पूण पुस्तक हातांत घेवन वाचप आनी डिजीटल पुस्तक वाचप हातूंत बरोच फरक आसा. तरी आसतना आमी भुरग्यांक तांचे आवडी प्रमाण मेकळीक दिवन वाचनाक प्रोत्साहन दिवंक जाय. पाठ्य पुस्तकां वांगडाच भुरग्यांक बाल साहित्याचेर आधारीत पुस्तकां वाचूंक दिवंचीं. हाचें कारण म्हणल्यार बाल साहित्य भुरग्यांचें मन रिझोवपाचें आनी सर्वांगीण वाड करपाची तांक दवरता. तेच परी बाल साहित्य भुरग्यांक विचार करूंक लायता. वेग-वेगळीं चित्रां आशिल्लीं पुस्तकां तांची कल्पना शक्त वाडयता. तांचे खातीर बरयल्ल्या पुस्तकांनी व्हडले-व्हडले संवाद आसनात. सोंप्या आनी सरळ उतरांनी जें कितें लेखकाक म्हणपाचें आसता तें तांचे मेरेन पावोवपाचें काम केल्लें आसता. भुरग्यां मदीं सकारात्मक विचार सरणी आनी बरी संवाद शैली हाडपाचें काम लेगीत बाल साहित्य करूंक शकता म्हणपाचें सिध्द जाल्लें आसा. भुरग्यांक चित्रां सयत वाचूंक आवडटा. चित्रां सयत काणयांचीं पुस्तकां वाचतना तांकां खोशी मेळटा. तांची भास सुदरपाक वाव मेळटा. ल्हान ल्हान काणयों भुरग्यांक खूब आवडटात. देखून तांकां तांचे सदचे जिणेंत आयिल्ले अणभव वा कसलीय पळयल्ली घडणूक हाचेर तांच्या उतरांनी बरोवंक लायल्यार फायद्याचें थारतलें. तांणी पळयल्ली एखाद्री घडणी काणयेचें कशें रूप घेवंक शकता हाचेर भासाभास करून पटोवन दिल्यार भुरग्यांक बरोवपाची आवड निर्माण जावंक पावतली.

एक काळ आशिल्लो जंय रासवळ घराबे आशिल्ले. जातूंत आजो, आजी, काका, काकी अशे कितलेशेच लोक एकठांय रावताले. तेन्ना कळत वा नकळत भुरग्यांक वेग-वेगळें साहित्य काणयांचे, ओवयांचे वा पदांचे रुपान आयकुंपाक मेळटालें. शिकपाक मेळटालें. बदलत्या काळा प्रमाण भुरगीं आजो आजी पासून पयस पाविल्लीं आसात. आवय बापूय दोगांय नोकरी करपी आशिल्ल्यान भुरग्यांक फावो तसो वेळ दिवंक शकनात. तांचे लार्गी सगळ्यो सुविधा आसतात. अश्या वेळार डिजीटल पुस्तकांचो फायदो घेवं येता. केन्ना केन्नाय भुरग्यांक पुस्तक वाचून दाखयत तर मात तांचे तोंडार हांशें फांकता. ती खोशी पळोवपा सारकी आसूं येता. भुरग्यां खातीर पुस्तकां जायतीं आसात. काणयांचीं, कवितांचीं, विज्ञानाचीं, खेळामळा वयलीं बी. तीं भुरग्यां मेरेन आमी पावोवपाक जाय. तेन्नाच भुरगीं वाचनांत रमतलीं. तांचे भितर नवी उर्जा, नवी शक्त भरतली. आतां तर ओडियो पुस्तकांय सहज मेळपाक लागल्यांत. तांचो उपेग करून आमचे भाशे विशीं तांचे भितर मोग रुजोवपाचो यत्न करूंक हरकत ना अशें म्हाका मना पासून दिसता.

●●●

# पासय



डॉ. नूतन देव

**डॉ. नूतन देव** हांचें बरप चडशें मराठींतल्यान जालां. वेवसायान जरी तांची वैजकी कारकिर्द चालू आसली तरी तांचो पिंड कविचो. तांचो मराठींतल्यान 'आभाळ' हो काव्यसंग्रह हालींच उजवाडाक आयला. जाका काव्य रसिकां कडल्यान उप्पाट येवकार मेळ्ळा. तांची सादी,सरळ कोंकणी भास तांच्या ह्या लेखाचें खाशेलेपण.
पत्तो : फोंडें - गोंय.
मो: 9850133160

विसावें शतक सोंपतां सोंपतां, फास्टफूड म्हणात वा जंक फूड म्हणात, ह्या जिनसांचें प्रमाण वाडत गेलें आनी डायटींग हो शब्द चड कानार पडपाक लागलो. म्हाका याद जाता, आमच्या ल्हानपणांत म्हणचे गोंय स्वतंत्र जाल्लें त्या तेंपार, डायटींग हो शब्द नाशिल्लोच म्हळ्यार जाता. उरफाटें सकाळ, दनपार, सांजवेळ आनी राती कडेन आवय तशीच घरांतल्यो हेर बायलो तरेक तरेकवार खावपाचे नग करताली आनी आमकां खावंक घालताली. घरांतल्या कोणाय एकट्याक चड करून जाण्टेल्याक थोडें वेगळें रांदत आसुंये! पुणून चडशे फावट सगल्यांक राशी कोंतार खावंक जेवंक मेळटालें.

सांगपाचें म्हळ्यार डायटींगाचो कोणाच्या राज्याक पत्तोच नाशिल्लो म्हळ्यार जाता. एकविसाव्या शतकांत तर डायटींग हें जवळ जवळ सक्तीचें जालां म्हणपाक कांय हरकत ना. आसूं आरोग्याक बरें जातकच जालें.

आतां ही पयरचीच गजाल पळयात. सोयरीं येतलीं म्हणून हांवें शिरो केलो. ताचे बराबर आनीक एक नग म्हणून दुसरे प्लेटींत वेफर्स दवरले. त्या सोयऱ्यांचो एक चार वर्सां पिरायेचो चलो आशिल्लो. ताणें वेफर्सां कडेन बोट दाखयत म्हाका विचारलें, "आज्जे, हें जंक फूड न्हीं?" तो कितें म्हणटालो तें सामकें खरें आशिल्लें. पुणून म्हाका वायट दिसत म्हूण ताची आवय म्हणूंक लागली, "तू शिरो खा, ताचे बराबर एक दोन चिप्स खाल्यार कांय जायना!"

आतां तुमीच सांगात, तो भुरगो ह्या वयार चिप्स बरें काय वायट हें कशें थारायतलो? हांवें आनी आनीक कळाव केलो ना. ताका म्हळें, "सामकें खरें बाबू तुजें..." आनी सोमती ती प्लेट थंयची काडून त्या जाग्यार ॲपल कापून दवरलें.

तर हांव तुमकां सांगूंक सोदतालें, जें कितें आमी खातात ताचे बरे वायट परिणाम आतां जाणट्यांकच न्हीं तर भुरग्यांक सुद्दा खबर आसतात. कित्याक तर तांचे कानार जाण्टीं उलयतात तीं उतरां येतात. तेलकट, तुपाचें, सॉफ्ट ड्रिंक्स, वगैरे वगैरे जिन्नस चड प्रमाणांत खायत जाल्यार वजन वाडटा, रगतांत साखर, कॉलेस्ट्रोल वाडटा. फिग्दाचेर परिणाम जाता. वखदां, गुळयो खावंच्यो पडटात.

तर हें जालें खाणा जेवणाचें. पुणून हांच्या परस चड म्हत्वाचें जावन आसा आनीक एक डायट तें म्हणचे मानसीक डायट. आनी तुमी म्हणटले 'हें आनी कसलें फेड??' आमी पळयलां, आमची मनस्थिती जर बरी उरत जाल्यार आमकां कितलींशींच दुयेंसां जावंक पावनात. एक वेळार जंक फूड खावप परवडलें पूण जंक विचार आमचे तकलेंत येवंक जायनात. मानसीक डायट म्हणचेच आमचे तकलेंत येवपी विचार आनी मनांतल्यो भावना. हांचो प्रचंड प्रभाव आमचे कुडीच्या वेगवेगळ्या अवयवांचेर जाता. जेन्ना आमकां चड कांय काम आसना तेन्ना आमचे तकलेंत तरेक तरेकवार विचार येतात. हें विचार आमचें आरोग्यच न्हीं तर पूर्ण आयुश्य बदलून उडोवंक शकतात. इतली शक्त आमच्या विचारांक आसता. ते खातीर हे विचार चडांत चड हेल्दी, बरे दवरपाची जापसालदारकी प्रत्येकाची आसूंक जाय.

ज्या प्रमाण खावपाच्या जिनसांत प्रॉटीन्स, कार्बोहायड्रेट्स, मिनरल्स, विटामीन आनी फॅट हें सगळें थोड्या थोड्या प्रमाणांत आसूंक जाय. मागीर ताका आमी बॅलन्स डायट अशें म्हणूं येता. त्याच प्रमाण आमचें मानसीक डायटय बी तरेक तरेचे विचार येवनय बी ते बॅलन्स दवरूंक जाय. आमी बऱ्या विचारांचें डायट सोंपे भशेन चड कसलोच तणाव नासतना आमचे आंगवळणी पडूंक जाय. तेलकट तुपकट विचार म्हणचे गरज नाशिल्ले निगेटीव विचार. हातूंत चड करून नाका जाल्ले हुस्के, चिंता वा गरजे भायर भंय दिसप

असलेय विचार आसपावतात. सादें सोंपें उदारण म्हळ्यार घरांतल्यान कामाक लागून भायर सरिल्लो मनीस परत घरांत पावसर खूब फावट नाका आशिल्ले विचार तकलेंत येतात, ज्यांचो पळोवंक गेल्यार कांयच फायदो जायना. उरफाटें मनसीक ताण मात वाडटा, जाचो आमच्या आरोग्याचेर खूब परिणाम जाता.

चड गोड हें दुसऱ्या तरेचे विचार. हातूंत आमी आपल्याच जगांत वावुरतात. आपलेंच सूख, आनंद हाचोच विचार करतात, स्वताच्या सुवार्थाक लागून दुसऱ्यांचो वा समाजाचो मात लेगीत विचार आमचे तकलेंत येना. हे विचार जरी वयलेचाराक बरे दिसले तरी ते तेलकट तुपकट विचारां परसय चड वायट. तेन्ना आमी सादूर रावंक जाय.

कुशिल्ले वा शेळे जाल्ले हे तिसऱ्या तरेचे विचार. हातूंत आमी दुसऱ्यांच्या पर्सनल जिविताचेर चडच लक्ष दितात आनी दुसऱ्यांचें कितेंय वायट घडलें जाल्यार मनांतल्या मनांत खुशाल जातात. दुसऱ्यांचें वायट चिंतप आनी तांचें बरें जाल्यार मनांतल्यान फडफडप. हे सगळे विचार म्हणचे एक वीख कशें! ह्या विचारांचो त्या मनशांचेर कांयच परिणाम जायना. जाता तो असले विचार करपी मनशाक स्वताचेर. म्हणून आमी सगळ्यांचें बरें चिंतूंक जाय. तो आमचो दुस्मान आसल्यार लेगीत.

हांचे भायर स्वतंत्रताय आनी स्वैराचार हातूंत फरक सांगपी विचार, आपल्या आजुबाजूचें वातावरण नितळ दवरपी म्होवाळ विचार आनी संवाद, एकामेकांचें बरें मागपी आनी विश्वाचें कल्याण करपी विचार हे आमच्याच आरोग्याक पोशक थारतात. आमचे तकलेंत येवपी विचारांचो जर आमी विचारपुर्वक समतोल दवरलो ना जाल्यार आमच्या घरांतल्या तशेंच समाजांतल्या नात्यांकच एक प्रकारचें अपंगुळत्व येवंक शकता. नव्या पोरन्यां आव्हानांक तोंड दितना, नात्यागोत्यांच्या खतखत्यांत स्वताची वळख जपतना तरेक तरेकवार जापसालदाऱ्यो सांबाळतना मोकळो स्वास घेवंक, बऱ्या विचारांचें उदक आमी आमच्या मनार मदीं मदीं फाफडूंक जाय. अशे तरेन मन प्रसन्न उरता. विचार बरे जाल्यार मन बरें, मन बरें जाल्यार शरीर बरें. म्हणुनच आमी बरें मानसीक डायट घेवंक जाय. जाका लागून आमी पॉपकॉर्न कशीं ल्हव जातात. आमी भुरगीं कशीं दिसूंक



लागतात. मागीर चलात तर आमी आमचे जीवन शैलीचो सॅन्डवीच करचो न्हय.

मन जर केन्नाय थकलेंच जाल्यार एक कप कॉन्फीडन्साचो चा पिवया. जाचे पासून आमकां इन्स्टन्ट एनर्जी मेळटली. साध्या आनी ताज्या विचारांचो सॅलेड घेवया जें आमकां संजिवनी दितलें. मांसाहारी परस शाकाहारी विचार तर चड बरे. आठवड्यांतल्यान एक फावट सामके सादे विचारांची खिचडी खावन मन शांत दवरया. तशेंच अदी मदीं कांयच खायना आसतना रावतात तशें मनांत विचार हाडनासतना किंवा विचार आयलेच जाल्यार तांचेर लक्ष न दितां ओग्गी बसुया.

हें मानसीक डायट बरे भशेन पाळूंक मातशें कठीण आसत जावंये! पूण करून पळोवंक कितें जाता? आमचेंच भलें आसा तातूंत.

●●●

उमळ

- डॉ. रिना लवंदे



# आवय



फाटलीं साबार वर्सां कांदोळे-कळंगुटे दातांची वैज म्हूण लोकप्रिय आशिल्ल्यो डॉ. रिना लवंदे एक बऱ्या पयकी सुगरणूय जावन आसा. अन्न संस्कृतायेचें जतन करपाचे हावेसान खाणां जेवणांत वेगवेगळे प्रात करपाची तांकां आवड. त्या भायर वाचन आनी ललित लेखनाचीय आवड आसा.

आवय हें उतर आयकून म्हाका काळजांतल्यान खूब खोस भोगता. आमचे भारतीय संस्कृतायेंत'मातृदेवो भवः' अशें म्हणलां. म्हणजे आवय ही देवा भशेन! आतां तर आवयचो संवसारीक दीस मनयतात. विदेशांत ही प्रथा चड आसा. हाचें कारण थंय जशीं भुरगीं नेण्टीं जालीं म्हणटकच आवय-बापूय भुरग्यां वांगडा रावनात. तीं वेगळीं रावतात. ना जाल्यार तांकां वृद्धाश्रमांत दवरतात. भुरग्यांच्या धांवपळीच्या व्यस्त आयुश्यांत तांकां आवय-बापायक वेळ दिवपाक मेळना. म्हणून तर वर्सांतल्यान एक दीस असो 'आवयचो दीस','बापायचो दीस','आजो-आजयेचो दीस' मनयतात. तीच प्रथा आतां आमी भारतांत हाडल्या.

म्हजे आवयक हांव 'माई' म्हणटालें.आतां ती ह्या संवसारांत ना. तरी ती म्हजे वांगडा म्हजे सावळे वरी ती सदांच सांगात करता. म्हज्यांत जे जे गूण आयल्यात ते म्हजे आवयक लागून! ल्हानपणा सावन ती सदांच म्हाका दुसऱ्या कडेन कशें वागप, क तांकां आपले परीन कशी मजत करप,कशें समजून घेवप ही शिकवण दिताली. ह्या गुणां पासत आज समाजांत म्हज्यो जायत्यो इश्टीणी आसात, ज्यो वायट-बऱ्या कामाक म्हाका पावतात.

म्हाका याद आसा,ल्हानपणांत शाळेंतल्यान घरा वचपाचो वेळ जालो काय पोटांत कावळे रडटाले. केन्ना काय घरा धांव मारची आनी माईन रांदिल्लें आसा तें जेवण जेवन धादोशी जावचें अशें दिसतालें आनी जातालेंय बी!

आवय ही भुरग्यांची खरी आधारस्तंभ आसता! खंयची वायट बरी गजाल सांगपा पासत आवय सारको दुसरो मनीस ना. आवय कडेन जशीं आमी मनमेकळेपणान खंयच्योय गजाली सांगू येतात तश्यो आनीक कोणाच कडेन आमी उलोवंक पावच नात.कारण आवयचो जागो कोणूच घेवपाक शकनात!

आपल्या भुरग्यान कितलोय व्हड गुन्यांव केलो जाल्यार सुद्दां सदाच ती काळजांतल्यान भोगशिता. तिच्या उलोवपांत सदांच भुरग्यां पासत आशिर्वाद आसतात. ती बरें वायट, खरें फट अपुरबायेन समजायता. केन्ना केन्ना भुरग्यांक ख्यास्तय दिता.तिका सदाच आपलो भुरगो योग्य मार्गान फुडें वच्चो अशें दिसता.

आमी केन्नाच आवयक परती जाप दिवपाक जायना.आवय आपलो सुवार्थ पळय नासतना सदाच भुरग्यां खातीर कसलेंय त्रास सोंसपाक तयार आसता.हें सगळें हांवें म्हजी आवय करतना पळयलां. आनी हीच श्रीगणेशा हांवें म्हज्या भुरग्यां पासत चिरल्या.

जण एक आवयक दिसता,आपल्या भुरग्यांचेर बरे संस्कार जावन,बरें शिकून व्हड जावचीं. तिका बांगर शिंगर नी गिरेस्तकायेचें पडिल्लें नासता. पूण भुरग्यांक कशीं स्वाभिम नी,परोपकारी आनी समंजस करचीं हें ती दिसरात चिंतता. बरे संस्कार,आचार विचार नी बरें मार्गदर्शन करीत जाल्यार भुरग्यांचो फुडार बरो जातलो हें ती जाणां आसता. आवयची माया दुडवांनी मेळना.जाका आवय ना आनी आवयची माया मेळूंक ना ते जल्माक येवन आयुश्यांतले बरे खीण भोगपाक पावले नात.

तशेंच म्हजे आवयन 'माई'न भुरगेपणांतल्यान म्हजेर बरे सस्कार करून

म्हाका रांदपाक,सिवणकाम, घरांतलीं सगळीं कामां ,बाजार करप आनी शिक्षण दिवन आयज हांव दोतोर जालें. जसो कुंभार मातयेच्या गुळ्याक आपल्या हातांनी आकार दिवन तरेकवार वस्तू करता,तशेंच म्हजे आवयन म्हजै भितर बरे बरे गूण, सकारात्मक विचार घालून म्हाका ल्हानाचें व्हड केलें. ती सदांच म्हाका सांगताली, कसलींय कामां वेळार केलीं जाल्यार मनशाक मनाची शांती आनी यश मेळटा. तशेंच हांव करीत आयलां.

घर कशें निवळ आनी सुंदर दवरप हें हांव म्हजे आवय कडसून शिकलां. आतां हे सगळे गूण म्हाका म्हज्या घोवाच्या घरा खूब उपेगी पडटात. ती सदांच म्हणटाली,घर म्हणल्यार देवूळ आनी घरांतलीं सगळीं व्हड जाणटीं मनशां देवा समान. आमी तांचो सदांच आदर करपाक जाय. सगळे कडेन माये मोगान हांसून खेळून रावपाक जाय. जाल्यार तुका मनांतल्यान सूख मेळटलें. आतां आतां ह्यो गजाली म्हाका कळूंक लागल्यात.

दुसरे म्हणल्यार जिणेंत खूबश्यो अडचणी येतातूच. त्या अडचणींचेर वेवस्थीत वेवस्थापन करून उपाय सोदपाक जाय. सगळ्या अडचणींचेर उपाय आसतातूच! आमी ते सोदून काडपाक जाय.

तिसरो गूण म्हजे आवयन शिकयलो तो नमळाय. नमळाय मनशां भितर आशिल्ल्यान अहंकाराचो नाश जाता. ज्या मनशा कडेन नमळाय आसता ताका सगळो संवसार सोबीत दिसता. कारण नमळाय मनांतल्या न्हयकारी विचारांचेर जैत जोडपाक शिकयता.

ह्यो सगळ्यो गजाली आनी गूण हांव म्हजे आवय कडल्यान शिकलें. हे गूण आतां हांवें स्वता आवय जावन म्हज्या भुरग्यां मेरेन पावयल्यात. म्हजे आवयन केल्ले संस्कार म्हाका आयज ह्या संवसारांत मनमेकळेपणान जियेवपाक मजत करतात.

तेच पासत सगळ्यां कडेन एकूच मागणी, आवयक सदांच मान सन्मान दिवंचो. परती जाप दिवंची न्ही. हे धतरेचेर ावय देवा समान. घरांतल्यान सदांच सकाळीं भायर सरतना आमी आवय-बापायक आनी जाण्ट्यांक पांयां पडून बायर सरपाक जाय. आवय-बापूय जो आशिर्वाद दितात तो सदांच श्रेश्ठ आसता.

हो लेख सोंपयतना निमाणे कडेन म्हजे आवयक काळजांतल्यान नमस्कार!

●●●

# 52nd IFFI GOA



*हेमा मालीनीक*
*भारतीय चित्रपट व्यक्तीमत्व पुरस्कार भेटयतना.*



*सलमान खान आनी रणविर सिंग*
*उक्तावणाच्या दबाज्यांत सांस्कृतीक कार्यावळ*
*सादर करतात.*




*'भांगरा मोरा'चे मानकरी थारिल्ल्या जपानी चित्रपट*
*'रिंग वाँडरींग' चे दिग्दर्शक मासाकाझू कानेको*
*हांकां पुरस्कार भेटयतना गोंयचे मुख्यमंत्री.*




*'गोदावरी' चित्रपटा पासत ज्युरी रूप्या पदक*
*स्वीकारतना चित्रपटाचे दिग्दर्शक*
*निखिल महाजन.*



*करोना काळांत आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवाचें उत्कृश्ट आयोजन केल्ले पासत*
*गोंय मनरिजवण संस्थेचे उपाद्यक्ष सुभाष फळदेसाय हांचो भोवमान जालो.*

## मचमचीत

- डॉ. रिना लवंदे



फाटलीं साबार वर्सां कांदोळे-कळंगुटे दातांची वैज म्हूण लोकप्रिय आशिल्ल्यो डॉ. रिना लवंदे एक बऱ्या पयकी सुगरणूय जावन आसा. अन्न संस्कृतायेचें जतन करपाचे हावेसान खाणां जेवणांत वेगवेगळे प्रात करपाची तांकां आवड. त्या भायर वाचन आनी ललित लेखनाचीय आवड आसा.

### बांगड्यां हुमण (तेफळांचें)

**साहित्य-** 5 मोठे बांगडे, 2 वाटयो नाल्लाची सोय,1 ल्हान कुलेर हळदी पिठो,2 व्हडलीं कुलेरां मिरसांगे पिठो,12-15 तेफळां,(हरवीं तेफळां आसत जाल्यार सुवाद वाडटा),ल्हान लिंबा इतली आमटाणी गुळो,6-7 सोलां,चवी पुरतें मीठ.

### करपाची तरां

बांगडे उजरावन मीठ 15-20 मिनटां दवरात. मागीर बरे धुवन एका एका बांगड्याचे तीन तीन कुडके करात.

सोय,मिरसांगे पिठो, हळदी पिठो, आमठाण आनी 5-6 तेफळां घालून बारीक वांटून घेयात. एका तोपांत दोन वाटयो उदकांत हरव्यो मिरसांगो उब्यो चिरून आनी उरिल्लीं तेफळां धाडावन घालून एक खतखतो काडात. तातूंत हें वांटप घालात.

दोन मिनटां शिजयात.बरेंऽ शिजतकीर बांगड्याचे कुडके घालात. चवी पुरतें मीठ घालून परत 2-3 मिनटां शिजयात. तोप रांदनी वयलो सकयल काडटा आसतना सोलां उडयात. पांच मिनटां दांपून दवरात. सोलांचो बरोऽ अर्क सुटता. मागीर हुमण बरेंऽ आंबट तीख लागता.

### सुंगटां सुकें

2 वाटयो सुंगटां, 2 मध्यम कांदे (बारीक चिरून),2 वाटयो सोय, 1 ल्हान कुलेर हळदी पिठो,2 ल्हान कुलेरां मिरसांगे पिठो, 1 ल्हान बटाट, 5-6 सोलां। आमटाण, चवी पुरतें मीठ.

### करपाची तरां

सुंगटां सोलून 25-30 मिनटां मीठ लावन दवरात.मागीर नितळ धुवन घेयात. बटाट तासून बारीक कुडके करात. सोय,हळदी पिठो,मिरसांगे पिठो आनी बटाटाचे कुडके एका तोपांत घालात. तातूंत दोन वाटयो उदक घालून शिजपाक दवरात. उदक मातशें आट्टकीर तातूंत सुंगटां,सोलां आनी मीठ घालून एक चाळो मारात. हें मिश्रण पांच मिनटां शिजयात. सुंगटां सुकें तयार.

(टीपः-हें मिश्रण डब्बू मिरसांगेंत भरून चण्या पिठयेंत बुडोवन तेलांत तळपाक जातात. तुमचे पासत भरिल्ली डब्बू मिरची भर्जी तय्यार)

### सडसडीत पालक भाजयेचें तोंडाक

साहित्यः- 2 पालक भाजयेच्यो चुडयो. अर्द वाटी तोरची दाळ,3 तांबड्यो सुक्यो मिरसांगो (काश्मिरी),1 ल्हान कुलेर कोथमिऱ्यो, 3-4 मिरयां,1 ल्हान कुलेर गरम मसालो,मेथयेचे 5-6 दाणे,2 मध्यम कांदे बारीक चिरून, थोडी आमटाण, 1 ल्हान कुलेर तेल, चवी पुरतें मीठ.

करपाची तराः- पालक धुवन बारीक चिरून घेवंचो. एके कडईंत थोडें तेल घालून एक बारीक चिरिल्लो कांदो परतून घेवंचो. मातसो तांबसार जातकच तातूंत पालक,तोरची दाळ शिजतकीर हें वांटप तातूंत घालचें.गरम मसालो आनी मीठ घालून 5 मिनटां बरेंऽ शिजोवंचें.

(टीपः-चवी पुरती साकर वा गोड घालूं येता.)

### शिरवळ्यो

साहित्य - अर्द कील तांदळांचें बारीक पीठ. 1 नाल्लाचो दाटसो रोस,1 वाटी गोड,2 ल्हान कुलेरां वेलचे पिठो,चवी पुरतें मीठ.

करपाची तरां -तांदळांचें पीठ हून उदकांत सुकें कालोवन घेवंचें. ताच्यो मुठल्यो करच्यो, एका तोपांत उदक खतखतावंचें आनी तातूंत ह्यो मुठल्यो घालून 30-40 मिनटां उकडून घेवंच्यो.

शेवग्यांत हीं हून हून मुठलीं एक एक करून घालून ताच्यो शिरवळ्यो गाळच्यो.

नाल्लाच्या रोसांत,गोड,वेलचे पूड आनी मीठ घालून एकजीव करून घेवंचें. वाटीभर रोसांत थोड्यो शिरवळ्यो बुडोवन खावंच्यो. कांय जाणांक शिरवळ्यो नाल्ला सोयेचें चुन्न करून,ताचे वांगडा खावपाक आवडटा. रुचीक लागता.



भलायकी



राज वैद्य

गोंयांतले नामनेचे हिन्दु फार्मासीचे धनी आशिल्ले **राज वैद्य** हे वखदां मलार तळमळीन वावुरतात. आपल्या लिखाणांतल्यान आनी विंगड विंगड चर्चासत्रांतल्यान ते लोकांमदीं जागृताय हाडून योग्य वखदां कशे तरेन घेवप हाचें सातत्यान मार्गदर्शन करतात.

पत्तो : इंडियन फार्मास्युटिकल असोसिएशन, गोंय

मो. : 9422062286

ई-मेल : ipacpd@gmail.com

# प्रदुशणाचो फोग



कोविडाच्या काळांतली चवथ आनी दिवाळी आयली तेन्ना माराण आनी हेर फोगाची आतशबाजी पळोवन राहुलान प्रस्न केलो–

राहुलः बाबा, तुमी आमकां हे खेप फोग लावपाक दिलोच ना न्ही?

बाबाः आरे हय, तशें करचें पडलें. ताका कारण आसा. तूं जाल्लो त्या सुमाराक, ना जाल्यार ताच्याय मातशें आदीं आमकांय आमकांय ती समज म्हणा वा अक्कल आयली रे! आमच्या भुरगेपणारूच न्हय तर तरनाटेपणार लेगीत आमी थोडो फोग लावंक ना! तेन्ना कितें,पालकूच भुरग्यां खातीर फोग हाडटाले. आनी फोग नासत जाल्यार चवथ आनी दिवाळी कसली? भटमाम लेगीत सांगतालो,आरत्यो जाल्यो..आतां फोग लायात रे पोरानो..! लक्ष्मी पूजन जालें, आतां माराण मारल्यार जाता...! आमी वाटूच पळयताले तें आयकुपाक!

राहुलः तुमी खूब्ब मजा केली तर! नरकासूर बी नेटान केला आसतलो!

बाबाः हय रे! तेन्नाची ती उमेद...पूण मागीर होलमलें आमकां..आमी करतात तें योग्य न्ही म्हूण! आमी लायतात त्या फोगाक लागून हवेचें,आवाजाचें प्रदुशण जाता...तेन्ना आमी एकी वर्सा फोग बंद म्हणल्यार अजिबात बंद!

राहुलः आमकां चुकली म्हणपाची ती मजा! पूण कितेंय जालें तरी कारण योग्य आसा न्ही!

बाबाः आरे, तुका याद आसची ना, तूं एक काय दोन वर्सांचो आसतना तुजे हात धरून हांवें फुलवाती आनी चक्रां लायिल्लीं. एक प्रतीक म्हूण! फुडें केन्नाय तुका सांगपाक... तुका पयलीं साकून आमी डोस दिताले न्ही रे..तें भलायके पासत योग्य न्ही म्हूण! तुका आमी तेन्ना समजावन सांगलें आनी तुवें तें समजून घेतलें.

राहुलः हय बाबा...तुमी म्हाका बऱ्यो देखी दिल्यात. तशेंच हें सगळ्यांनी समजून घेवपाची गरज आसा.

बाबाः अशी आस्त बाळगुया...पूण खूब अशक्य अशी गजाल ही. आमी अणभव घेतलाच न्हय ह्या आदीं..कोविडाक लागून बंदी घाल्ली फोगाचेर! पूण कितलेच जाणांनी ताचेर आड नदर केली. नरकासुरांचेरूय बंदी घाल्ली पोरूं. मागीर दबाव आयिल्ल्यान नेम मातशे सदळ केले आनी नरकासूर

लासप ना अशें सांगलें. पूण कोण आयकता?

राहुल: हय बाबा,हवेचें प्रदुशण जाताच, आनी तें कर्कश म्युझीक, माराण आनी बॉम्ब! लोकांक रातभर त्रास... जाणट्यांक,पेशन्टांचे हाल सामके.

बाबा: आनी सुर्णी-मांजरां...कितलीं भियेतालीं! तांकां बाबड्यांक नाका शेवट जालो हें पळोवंक ना तुवें आमच्या फुडल्या शेजारच्या घरांत?

राहुल: हवेच्या प्रदुशणान खुबूच त्रास जातात न्ही आमकां?

बाबा: त्रास..? भारतांत सुमार 30 टक्के मरणां प्रदुशीत हवेक लागून जातात खंय! म्हळ्यार सुमार 24 लाख!! आनी दिसान दीस हें वाडत चल्लां फाटल्या अनेक वर्सां सावन. येरादारी वाडली, वाहना वाडलीं.कोळसो,डिझेल,पेत्रोल हांचो वापर जावन भयंकर प्रदुशण जाता. फॅक्टरींतल्या धुंवरांचें प्रदुशण, त्या भायर शेतकारांनी पीक जाळप, चुली पेटोवप,जळण म्हूण लाकडांचो वापर करप हाका लागुनूय खूब प्रदुशण जाता.

राहुल: ओह..! देखुनूच ती दिल्लीची परिस्थिती वायट आसा...गच्च शार, येरादारी, फॅक्टरी, पिकांचें जाळप... पळयल्लें हांवें टिवीचेर.. डिबेट चालू आशिल्लो टिवीचेर कांय म्हयन्या पयलीं...

बाबा: दिल्लीच कित्याक? जगांतल्या 30 टक्के शारां सगळ्यांत चड प्रदुशीत आसात आनी तातूंत भारतांतलीं वीस आसात..!



राहुल: आनी संवसार भर तापमानूय वाडलां न्ही? ग्लोबल वॉर्मिंग!' आनी रानांनी उजो पेट्टा,तो पालोवप कितलो कठीण! ताकाय लागून प्रदुशण वाडटा आसतलें न्ही?

बाबा: हय तर...हीं असलीं कितलींच कारणां आसात प्रदुशणांचीं! मनशाची हाव, वेपारीकरण हाका लागून हें सगळें दुश्टचक्र जावन पडलां- लोकांच्या बऱ्या पासत फोगाचेर बंदी हाडली जाल्यार ताका आक्षेप... कित्याक तर कितलेच दुकानदार, फोग तयार करपी फॅक्टरींतले कामगार फोगाचे विक्रीचेर आपलें पोट भरतात असो तांचो दावो... हाका लागून असले हे प्रस्न संतुलन कशे सांबाळटले हेंच कळना जालां म्हाका!

राहुल: आमी आपले परीन जाता तितलो यत्न करपाचो! आतां आमचेंच पळयात, आमगेर फोग ना..नरकासूर ना.. थोडें काय जायनां, आमी आमचे परीन प्रदुशणांत भर घाली ना..

बाबा: हें मात सामकें खरें...जमता तितल्यांनीय हाका जाता तितलो तेंको दिवंचो..कोविडानूय आमकां बरी देख दिल्या...ती म्हणल्यार मास्क वापरपाची. कोविडांत आमकां तो वापरचोच पडटा. फुडाराकूय प्रदुशणा पासून आमचो बचाव करपाक ताचो वापर योग्य थारतलो अशें म्हाका दिसता... प्रदुशणाक लागून दम्या सारकीं पुलमांवाचीं दुयेंसा जातात. पुलमांवाचे कॅन्सर, काळजा संबंदी दुयेंसां,स्ट्रोक, श्वासनळयेचे संसर्ग हाचेरूय लक्ष दिवप गरजेचें.

राहुल: सैमाचो समतोल राखीनात म्हणून हें सगळें घडटा. तुमी म्हणटात तशें बें एक दुश्टचक्रूच जालां! तातुंतल्यान भायर सरपाक जायते जाण प्रयत्न करतात खरे पूण वेळ लागतलो! कित्याक, आपल्या सुवार्था पासत विरोध करपीच चड आसात. हिसपा भायर मायनींग, शारीकरण, भौतीक उदरगत, मोठ्या प्रमाणांत जंगलतोड...सगळो हो घोळूच आसा...

बाबा: पुता हो डिबेट तसो केन्नाच सोंपचो ना. तुजे म्हजे भितर चलता तितलोच बरो आसा. कित्याक आमी दोगूय समविचारी हे बाबतींत...तूं सांगता तें सगळें मान्य म्हाका... कोण करतलो हाची वाट पळय नासतना आमचे लागीं जितलो जाता तितलो प्रयत्न करुंया!

राहुल: हय बाबा...चल्लों हांव आतां न्हिदपाक... शुभरात्री!!



**संतोष हळर्णकार**
बांदिवडे-बंदर,फोंडा-गोवा 403 401
मो. : 9762641615



## देजेंब्र 2021 उतरकुवाडें

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| 1 | | 2 | 3 | ■ | 4 | | 5 | | |
| | ■ | 6 | | 7 | | ■ | | ■ | ■ |
| 8 | | | ■ | | ■ | 9 | | 10 | |
| | ■ | ■ | 11 | | | | ■ | | ■ |
| ■ | 12 | | | | ■ | 13 | 14 | | |
| 15 | | ■ | | ■ | 16 | ■ | 17 | | ■ |
| | ■ | 18 | | 19 | ■ | 20 | | | |
| 22 | 23 | | ■ | | ■ | 25 | ■ | ■ | |
| 24 | | ■ | 25 | | | | ■ | 26 | |
| ■ | | ■ | 27 | | ■ | ■ | 28 | | |

**आडवे :** 1-परत्या परतें, आरतें परतें, फिटफाट. 4- जामीन मेळूंक शकता असो गुन्यांव. 6-पुरो जावपाची स्थिती. 8-चिन्न, खूण, कुरू. 9-साल, कात, चामडी. 11-गुन्यांव. 12- आडखळींचें, आडमेळ्यांचें. 13-व्यायाम, तालीम, कवायत. 15-ध्यान, अवधान, जागृताय. 16- दीस (इंग्लीश). 17- खरस मारपाची पिडा. 18-कर्नाटक राज्याची राजभास. 20- पिठो करप, (दुडू) खर्च करप. 22-पसरिल्ली पुस्तकां-आयदनां बी, विस्तार. 24-मस्करी, फकांडां, थट्टा. 25- कारणां सयत, कारण आसा म्हणून. 26- व्हड पोती, गोणपाट. 27-ल्हान तळें. 28- रंग (इंग्लीश).

**उबे :** 1-बापायचो भाव, चुलतो. 2-गौड सारस्वत ब्राह्मण. 3-जण एक, मोल. 4- तिडक, राग, उजो, ज्वाला. 5-अजाप.7-गणेश, गजवदन. 9-साधना करपी व्यक्ती. 10-दुसऱ्याच्या काम क खर्चिल्ले आपले दुडू. 11-वायट गुणाचें, मस्तें. 12-पंद्रस, राजकी पंगड. 14- दालन, न्यायसभा. 15-बेगिबेगीन केल्ली नाजूक हालचाल. 18- लग्नांत करवलेन धरपाचो मंगल कलश. 19-वागाची आड्डी. 20-धातुचो डबो. 21-जापसालकी, जबाबदारी. 23- रथ चलोवपी. 25-सत्य, खरें. 26- त्वचा, कातडी, वर्स.

## ओयतुंब्र-नोव्हेंब्र ची 2021 ची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| ति | र्थ | ■ | स | र | स्व | ती | ■ | ल | ता |
| न | ■ | ■ | व | ■ | ग | र | ज | वं | त |
| का | ल | व | णें | ■ | त | ■ | मा | ग | ■ |
| त | ■ | ळे | ■ | डे | ■ | सा | त | ■ | स |
| री | त | स | र | ■ | पा | ठ | ■ | न | ट |
| ■ | मा | र | ■ | अ | ■ | ■ | सा | ग | र |
| र | स | ■ | प | स्ता | व | प | ■ | ■ | फ |
| मा | गी | र | ■ | व्य | ■ | ल | टा | फ | ट |
| व | र | द | ह | स्त | ■ | त | ■ | ■ | र |
| र | ■ | न | म | ■ | म | ड | व | ळ | ■ |

कोंकणी नाटक जावं कोंकणी साहित्य
दोनूय मळार सातत्यान वावुरपी

# अविनाश कुंकळकार

हांचीं शेखडींच उजवाडाक येतात ...






**शेणिल्लें भुरगेपण**
(भुरग्या खातीर काणयो )




**तुज्या मोगा खातीर**
( दिर्गकथा )




**म्हजो दादा कुरकुरीत आसा**
( नाटक )




**भुरग्यांचीं माची**
(नाटकुली)




**मनांतले पेनांतल्यान**
( लेख संग्रह )

विशेश म्हायती पासत संपर्क करात **7875237830 / 7507276526**








भारताचे भाग्यविधाते

**पं.जवाहरलाल नेहरून** गोंयकारांच्या सांगातान
पुर्तुगेजांच्या बंदेपणांतल्यान गोंय मुक्त केलें...
गोंय संघप्रदेश म्हूण ताचें खाशेलेपण राखलें.

**इंदिरा गांधीन**
गोंयाक ओपिनियन पोल दिवन
गोंयचें अस्तित्व सांबाळ्ळें...

**राजीव गांधीन**
गोंयाक घटकराज्य भेटोवन
गोंयकारां मदलो स्वाभिमान बळायलो..



*हें सगळें घडलें*

## *इंडियन नेशनल कॉंग्रेसच्या छत्राखाला...*

**ह्या पक्षान गोंय आनी गोंयकारां पासत दिल्ल्या योगदानाची याद दवरून आयज गोंय प्रदेश कॉंग्रेस समिती स्वाभिमानी गोंयकारांच्या भुजांचेर रावून एकवटान आदर्श, परजळीत आनी पुण्यभूंय गोंय उभारणेचे दिकेन पावलां मारता..**

**इंडियन नेशनल क्रॉंग्रेसच्या योगदानाची याद दव्ररूंया**
**गोंयचे नव्रे पिळगे पासत नव्रें गोंय घडोव्रंया.**



INDIAN NATIONAL CONGRESS

**GOA PRADESH CONGRESS COMMITTEE**

POSTAL LICENCE NO. G-2/RNP-GOA/01/2021-2023
RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413
Published on 1st and posted on 5th & 10th day of every month



Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim-Goa & Printed at Impression, Belgavi. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, Email : bimbkonkani@yahoo.co.in